# आशाढ पांवळी

★ कांय कथा–कांय कथिका ★

बरोवपी

चन्द्रकान्त केणी



**जाग प्रकाशन : ५**



पयली खेप : जानेवारी १९७३

मोल : रु. ५-००




उजवाडावपी :
सुमंत रामचन्द्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

छापपी :
य. गो. जोशी
आनंद मुद्रणालय
१५२३ सदाशिव, पुणे ३०

# अशी कथा....नवी कथा....

कोंकणी कथेची बुन्याद घाली शणै गोंयबाबान. तांचे फाटले पिळगेन तांच्याच बरपांतल्यान स्फुर्त घेवन ते बुन्यादीचेर पारो काडपाच्या वावराक आरंभ बरो केलो. पुण तो यत्न फुडें गेलो ना. पारो उबो जालोच ना; फकत कांय चिरे "वोवळां" ह्या कथासंग्रहाच्या रुपान मांडिल्ले दिसतात. कोंकणी साहित्य संघान उजवाडा हाडिल्ल्या ह्या संग्रहांत चवदा कथाकारांच्यो कथा आसात. पुण ह्या कथाकारांमदलो एकलोय कोंकणी कथेच्या मळार तिगलो ना. कोंकणी साइत्याच्या मळार दुकळ पडलो हें ताजें एक कारण आसुंये. त्या उपरांतचीं पंदरा-वीस वरसां म्हळयार कोंकणी सरस्पतीन काडिल्ले सुस्त न्हिदेचो काळ. ह्या काळांत कथा फुडें गेलीच ना. कथेचें मळ हो जालो सडो; त्या सडयार कांय फुल्लें ना, कांय पिकलें ना.

१९५०-५५ वरसाच्या सुमाराक कोंकणी सरस्पतीन कूस परतिली. तिका जाग आयली आनी त्याच बरोबर कळ्ळें कि तिजी न्हीद ही दुवाळयांतली न्हीद आशिल्ली. साइत्याक नव्यो आंकऱ्यो, कोमऱ्यो फुटल्यो. बरोवप्यांची नवी पिळगी वयर सल्ली आनी कोंकणी सरस्पतिच्या आंगार नवे अलंकार चडूंक लागले. थंयच्यान एका नव्या पर्वाक आरंभ जालो. ह्या पर्वांत बाकीबाब बोरकार, अभिजित, मनोहर, सरदेसाय, र. वि. पंडित, पांडुरंग भांगी हे कवीत फुलयतासतना आनी रवींद्र केळेकार गद्याक सगल्या आंगांनी केळयतासतना कथेच्या मळार खंड दिनासतना वावुरिल्लो बरोवपी म्हणचे चंद्रकांत केणी.

ह्या कथाकारालो पयलो कथां-झेलो- 'धर्तरी अजून जियेताली' -१९६४ वरसा गोमंत भारतीन उजवाडा हाडलो. १९५६ ते १९६४ ह्या काळांत बरयल्ल्या कथांचो आस्पाव त्या संग्रहांत केल्लो आसा. शणै गोंयबाबालो कथासंग्रह—

गोमंतोपनिषत् ( पयलें खंड )—१९३४ वरसा उजवाडा आयिल्लो. त्या उपरांत तीस वरसांनी भायर सरिल्लो, एकाच बरोवप्याच्या कथांचो, हो पयलोच संग्रह. ह्या संग्रहान कथेचें बदलिल्लें रूप वाचप्यांमुखार दवल्लें; नवी फास्की उदेत्या बरोवप्यांसामकार मांडली.

आनी आतां त्याच कथाकाराचो हो दुसरो संग्रह : आशाढ-पांवळी. १९६४ ते १९७२ ह्या काळांत बरयल्ल्यो कथा ह्या झेल्यांत गुंथल्यात. आडवाद आसा तो फकत ‘ मायेचे पास ’ हे कथेचो. ही कथा बऱ्याच वरसां आदली आनी तें ती वाचतना कळूंक वेळ लागना.

ह्या कथासंग्रहांतल्या कथांक मुळावेंपण आसलें तरी थळावेंपण ना. त्या कथांच्या विशयांचें मूळ अमूक मातयेंत आसा, अमूक प्रदेशांत आसा वा अमूक समाजांत आसा अशें म्हणूंक मेळना. हे नदरेन पळयल्यार ह्या कथाकाराच्या पयल्या संग्रहांतल्या कांय कथांचें जें थळावेंपण रोखडेंच दोळयांत भरता त्या थळावेपणाचो इल्लोय वास ‘ आशाढ-पांवळें ’ तल्या कथांक ना. पुण हाका लागून ह्या कथांचें मोल इल्लेंय उणें जावंक ना. उरफाटें तें वाडलां, कारण ह्या संग्रहांतली कथा प्रादेशीकपण सोडून ‘ संवसारीक ’ जाल्या. ह्या कथांचे विशय Universal आसात आनी देखून ते कोंकणी कथेक ‘ संवसारीक ’ माचयेचेर व्हरून बसयतात. ह्या संबंदान, कोंकणींतल्या पयल्या कथासंग्रहाचे बरोवपी शणै गोंयबाब आणी देड वरसाफाटीं ज्याचो पयलो कथासंग्रह उजवाडा आयला तो उदेतो कथाकार दामोदर मावजो हांच्या कथांचो पींड वेगळो. तांच्या कथांक भोंवतणचे मातयेचो वास येता आनी भोंवतणच्या वाठाराक ती कथा बांदून उरता. हे दोगूय कथाकार दोन वेगळया पिळग्यांचे प्रतिनिधी. ‘ आशाढ-पांवळे ’ चो कथाकार हो, खरें म्हळयार, मदले पिळगेंतलो; पुण आदल्या कथाकारांनी कथेचें जें दावें गोंयचे वंयेक बांदून दवरिल्लें तें ह्या कथाकारान तोडलां आनी तिका चरूंक शीम-मेर नाशिल्ल्या मळार सोडल्या.

मनाची व्यथा हो ह्या कथाकाराचो आवडिचो विशय. तांतूंत बायलांच्या मनाची व्यथा हो चड ओडलायणो आसुंये. ह्या संग्रहांतल्या अर्द्या कथांच्या विशयाचें मूळ हीच व्यथा जावन आसा. मात् ही व्यथा सदांच एकेच तरेन व्यक्त जायना. ती वेगवेगळी रुपां घेता. ‘ वाट पळेतना ’ हे कथेंत ती मोगांतल्यान जल्माक येता; जाल्यार ‘ माधवी ’ चे व्यथेचें मूळ मोगाक लागूक केल्ल्या

त्यागांतल्यान उपरासता. ‘ शिळा ’ आनी ‘ कुसवो ’ ह्या कथांनी ती व्यथा आवयपणाचे उमळशिकेचें रूप घेता; तर घोवाचो सांगात पोटभर मेळना ही खंत ‘ वणत ’ आनी ‘ कविची बायल ’ ह्या कथांतले व्यथेंत दिसता. ‘ मोनी व्यथा ’ ही मोनजातिच्या मोगांतल्यान वयर सरता; जाल्यार रुक्मीण आकाले ‘ मायेचे पास ’ आवयच्या मनाचे उत्फरके व्यथेंत घोळोवन सांगतात. ही व्यथा असल्या तरेकतरा रुपांनी उकतावन दाखोवपाची कला ह्या कथाकाराक खूब बरी सादल्या.

‘ आम्रपाली ’, ‘ करूण कवीत ’, आनी ‘ वृषाली ’ ह्या कथांचे विशय नवे न्हय, पुण ते वेगळे नदरेन पळयल्यात आनी विंगड तरेन हाताळ्ळयात आनी देखून आमचे वळखिचींच अशीं पात्रां सोबीत कथांतल्यान नवेंच दर्शन घडयतात.

ह्या कथाकाराची शैली सादी सरळ आनी जें कितें सांगपाचें तें थोडया उतरांनी सांगून मेकळें जावपाची. उतरां थोडीं; देखून कथाय ल्हान. उपमा, अलंकार, वर्णना हांची जडसाण भाशेच्या आंगार ना आनी फातर्पेंच्यान गोंय लगीं करपाचीय संवय ना. ताका लागून कथा सुटसुटीत आनी आटापशीर. भास गद्य. तिका कविताची ओप चडोवपाचो सोस ना. पुण केंन्नाय तें गद्य इतलें खर जाता कि ‘ शिळा ’ कथेंतलें सुधा आपणाल्या गुरवाचाराची खबर घोवाकडेन उकती करतना म्हणटा ! “ म्हाका दीस गेल्यात. ” मात् ह्या कथाकारान उतरां उणीं वापरलीं म्हणून अर्थाक बाध येना. तीं अर्थान उपाट भरिल्लीं आसतात. ‘ कुसवो ’ कथेची ही अखेर पळयात : “ दोनच मिनिटांनी बगलेच्या झिलांतल्या घोंटेरांतलीं दोन सवणीं चींव-चींव करून उडून गेलीं. ” हें ऐकूच वाक्य खूबसो अर्थ मतींत भरता इतलेंच न्हय तर एक चित्रच दोळयांमुखार उबें करता.

कथानकाविणेंय बऱ्यो कथा बरोवं येतात हो नवे कथेचो सिद्धांत ह्या कथांनी अणभवाक येता. ह्या कथांनी चड कांय घडना; पुण जें थोडें घडटा, ताजो जो परिणाम मनाचेर जाता त्या परिणामाच्या चित्रणांतल्यान कथेक आंगलोट येता. देखीक : ‘ सांगात ’ ही कथा. हे कथेंत घडटा खूब थोडें पुण ते घडणुकेच्या परिणामाची खोलाय इतली आसता कि ते खोलायेंतल्यान एक सुंदर कथा खूब उंचायेर भोंवर मारता.

ह्या संग्रहांतल्यो कथा बरयल्यात त्या क्रमान मांडिल्ल्यो नात वा तांची तारीख दिवंक ना ही चिकित्सायेन वाचतल्याच्या मार्गांतली एक आडखळ. त्यो केन्ना

बरयल्यात हें कळिल्लें जाल्यार ह्या कथाकाराची कथा कशी बदलत गेल्या आनी कितली फुलत गेल्या हाजो हिशोब मांडूंक मेळटलो आशिल्लो.

पुण इतल्यान सोंपूंक ना. तो हिशोब मांडपाच्यो संदी आनिकूय येतल्यो. बदल घडटले, कारण संवसारांतल्या फुडारिल्ल्या भाशांतल्या साइत्याचे संस्कार ह्या कथाकाराच्याय साइत्याचेर जायत आसात. चड करून इंग्लेज भाशेंतले आनी हिंदी, मराठी, बंगाली, गुजराती ह्या देशी भाशांतले नवे कथेचें मळ ह्या कथाकाराक उकतें आसा, लागीं आसा. तें फुडारिल्लें कथा साइत्य फावो तो परिणाम घडयताच. आनी देखुनच ह्या कथांची तरा ही फुडारिल्ल्या भाशांतल्या कथांइतलीच नवी आनी फुडारिल्ली आसा. ह्या कथाकाराची ही फुडारिल्ली कथा आनिकूय फुलतली आनी फुलची अशी आस्त हांव धरतां.

मुम्बय

उदय भेंब्रो

# रिणाची पावती

हो कथा संग्रह आज उजवाडाक येता त्यावेळार जांच्या रिणाक लागून हें पुस्तक भायर सरूंक पावलें ताजी पावती दिवपाचें कर्तव्य करपाखातीर हीं दोन उतरां.

ह्या संग्रहांतली ' मायेचे पास ', आनी ' मोनी व्यथा ' ह्यो कथा सुमार वीस–बावीस वरसांआदीं हांवें बरयिल्ल्यो. त्यो जशाच्यो तशो उजवाडायल्यात. हेर कथा १९६४ ते १९७२ ह्या काळांत बरयल्यो. चडशो कथा कथेची मागणी येतकच ताकतिकेन बरोवन काडल्यो. ज्यो कांय कथा एक कथा बरोवन जातकच दुसरी कल्पना येवजली म्हणून बरोवन काडल्यात अशा कथांचो मूळ विशय एकच आसा.

फाटल्या वीस वरसांमदीं हांवें साबार भासांतल्यो शेंकड्यांनी कथा वाचल्यात. तांतल्यो कल्पना आनी पात्रां, वातावरण आनी विचार म्हज्या कथांनी आयिल्लें आसूं येता. ह्या सगळ्या कथाकारांचें रीण म्हज्या माथ्यार सदांच उरतलें.

कथा नेमाळ्यांनी छापून हाडपाचो प्रस्न म्हज्यामुखार केन्नाच आयलो ना. पुण हें पुस्तक तयार जावंक पावलें तें श्री. रवीन्द्र केळेकार हांचे सुचोवणेन आनी ' जाग प्रकाशना ' चे श्री. सुमन्त केळेकार हांचे मागणेक लागून.

प्रस्तावना बरोवपाची म्हजी सुचोवणी श्री. उदय भेंब्रो हांणी मानून घेवनय उपकार केल्यात.

संग्रहांतल्या कथांचे वेंचप अशें करूंक ना. हाताक सांपडल्यो त्यो ह्या संग्रहांत आसपावन घेतल्यात. अजून बऱ्योच कथा उरल्यात. देवान बरें केल्यार तांचें दुसरें पुस्तक भायर सरत.

मडगांव
ता. १–१–१९७३

चंद्रकांत केणी

## मांडावळ

# वाट पळेतना

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ-φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

तां मात आशाक उबगण आयली. वाट पळोवन पळोवन तें वाजेलें. कळेंत न्हय न्हय ते दुबाव येवंक लागले...हरशीं तें बोरीबंदर चेर लोकाक पळोवन वरांचीं वरां सारीत आशिल्लें. पुण कोणाचीय ळेत मनीस कितलो वेळ म्हणून उबो रावत ?

उड स्पीकरावेल्यान आवाज आयलो, "पूना जानेवाली जनता स तीन बजकर पंद्रह मिनिटपर प्लॅटफॉर्म नंबर दससे छुटेगी..." मराठींतल्यान तेंच परत सांगलें. उपरांत इंग्लिशींतल्यान.

टफॉर्मबिले घडयाळींत दोन वरां जावन पंचावन मिनटां जाल्लीं. सुटूंक फक्त वीस मिनटां उरिल्लीं आनी अजून राजेशाचो पत्तो लो...

.हातांतली पर्स जनेलाकडेन बांकार दवल्ली आनी आशा प्लॅटफॉर्मार अजून लोकांचें लोंडे प्लॅटफॉर्मार येत आशिल्ले. माथ्यार सामानाचे वारून तांबडे डगले घाल्ले कुली नदर घालीत थंय दिश्टी पडटाले. विकपी एक भुरगो आशा म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें विचाल्लें, न मेमसाब ?" पुण आशाक ताजी धंगय नाशिल्ली. तें दोळे ताणा-टीवशीन पळेतालें...पुण राजेशाचो पत्तो नाशिल्लो.

णें नदर घडयाळीकडेन व्हेली तेन्ना व्हडलो मिनटां-कांटो हाललो. सत्तावन...आशा परत डब्यांत येवन बसलें.

"चिकी...चिकी." एक चिकिवालो आशा म्हऱ्यांत येवन उबो . तो थंय उबो आसा म्हणापाचें लक्षांत येवंक ताका दोन मिनटां

लागलीं. तोय चिकी इतलोच चिकट. हाल्लो ना. एकासारको आशाकडेन पळेत रावलो.

आशा भानार आयलें तेन्ना तुकूतुकू करून आपणांक पळेता तो चिकिवालो ताका दिश्टी पडलो. दोगांल्योय नदरो एकामकांचेर आदळ्ळयो. आशान लजून नदर सकल घाली...चिकिवालोय भानार आयलो. " चिकी मेमसाब ? " ताणें विचाल्लें. ताचेकडेन पळेनासतनाच आशान म्हळें, " नाका. " पुण तो चिवट चिकिवालो हाल्लो ना. " बहुत बढिया चीज है मेमसाब. " ताणें म्हळें...

आशाक दिसलें हाची पिरपीर नाका. ताणें एक पाकीट घेतलें...आनी पर्सींतल्यान पांच रुपयांची नोट काडून ताच्या हातांत दिली... " छुटा पैसा नहीं है...चार रुपया अभी ला देता हूँ, मेमसाब. " म्हणत चिकिवालो वचूंक गेलो. ताणें कितें सांगलें तें आशाक समजलेंच ना...पुण तो मुखावेलो गेलो म्हणपाचें पळोवन ताणें सुटकेचो सुस्कार सोडलो.

...घडयाळींत तीन वरां जालीं. एक बायलमनीस एका सात आठ वर्सांच्या भुरग्याक हाताक धरून डब्यांत चडली आनी आशाच्या सामकार येवन बसली. ती बायल धवी फुल्ल साडी न्हेशिल्ली आनी ते साडयेक गाड पांचवी देग आशिल्ली. तिच्या कपलाक कुकूम नाशिल्लो आनी गळ्याकूय मंगळसूत्र नाशिल्लें. भुरग्याल्या हातांत चण्यांची पुडी आशिल्ली आनी तांतले चणे तो खातालो.

" आई, मला तहान लागलीय...गोल्ड स्पॉट घेऊन दे ना. ' तो भुरगो आवयक सांगूंक लागलो.

" तहान लागली असेल तर नळावर जाऊन पाणी पिऊन ये. आतां काही एक नाही मिळायचें. " आवयन ताका दटायलो.

भुरगो ओगी बसलो...आशान भुरग्यावेली नदर कुशीक काडली आनी भायर प्लॅटफार्मा वेल्यान भोंवडायली. ' अजून राजेश येवंक ना...येत काय ना देवाक खबर ! म्हाका सांगतालो दोन दीस लोणावळ्याक वचून रावूया. कल्पना ताचीच. खरें म्हळ्यार, लग्नापयलीं अशें खंयूय वचून रावप म्हाका पसंत ना. पुण राजेशाचें मन दुखोवंचें न्हय म्हुणून हांवें आं म्हळें...'

' पार्लेका ठंडा मीठा गोल्ड–स्पॉट ! '' कानार साद पडनाफुडें आशान काडलें...आशामुखार बशिल्लो भुरगो उळउळूंक लागलो. तागेली य ताका कोंपरान धोंगसूंक लागली...आशाक ताची काकुळट दिसली... ान एक गोल्ड स्पॉट घेतलो आनी ताका दिलो.

' नको मला. तुम्ही घ्या. '' त्या भुरग्यान म्हळें.

आशान म्हळें, " हांवूंय घेतां. हो घे तूं. "

' खरंच नको मला. '' आपले आवयकडेन पळेत त्या भुरग्यान म्हळें, ाबा आले कीं मला घेऊन देतील नाही का ग आई ? "

आवय ताचेर धेंगसली. आनी आशाकडेन वळून तिणें म्हळें, ' दुस-ऱ्या मुलांना अशी नसती संवय लावणें बरें नाहीं बाई...तुम्हांला हवें ा नि प्या... "

आवयलीं उतरां आशाक झोंबलीं. तें कांय एक उलयलें ना. उकती ी गोल्ड स्पॉटची बाटली ताणें तोंडाक लायिल्ले भशेन केली आनी दिली. पयशे दिवंक ताणें पर्सींत हात घालो. ताच्या हातांत धा रुप-ी नोट आयली. पुण ताचें थंय लक्षूच नाशिल्लें. ताणें ती नोट काडून ड स्पॉटवाल्याक दिली. गोल्ड स्पॉटवाल्यान मोडचे पयशे ताच्या हातार ले आनी म्हळें, " दसका छुटा तो नहीं होगा, मेमसाब. आपके पास का नोट नहीं है क्या ? "

आशाचें लक्ष थंय नाशिल्लेंच. आपले धुंवळींतच ताणें म्हळें : " छुटा है तो रहने दो । लेकिन और कुछ नहीं चाहिये । "

गोल्डस्पॉटवालो अजापून ताचेकडेन पळेत रावलो आनी ताका सलाम न वचूंक गेलो.

घडयाळींत तीन जावन पांच मिनटां जाल्लीं. अजून राजेशाचो पत्तो ना ! ळो डबो आतां भरून गेल्लो. आशाक दिसलें, आतां एकलेंच लोणा-ाक वचून अर्थ तरी कितें आसा ? बरें जालें. वेळारच आपूण बुद्द लें. दादल्यांच्या उतराचेर कोणेंय विस्वास दवरचो न्हय ! पर्थून ताका लें, अजून धा मिनटां आसात. घडये राजेश येतूय बी. मदीं कितेंय ेंच गरजेचें काम आयलें जातलें...नाजाल्यार, म्हाका एकल्याक तो ावळयाक कित्याक धाडटलो आशिल्लो ? ताणेंच काल दोगांल्योय,

तिकेटी काडिल्ल्यो. तागेली तिकेट ताचेचकडेन आसा...इतलो तो विसर-चोना. तो येतलोच !

" एका तरुणानें गाडीखाली उडी घेऊन आत्महत्या केली...संध्याकाळ." पेपर विकपी भुरगो प्लॅटफॉर्मा वेल्यान वतालो.

आशाचें काळीज धडधडूंक लागलें. ताका ओगीच दिसलें, राजेशान बी जीव दिलो ना मूं...? काल राजेश सांगतालो कि ताका घेवन तो लोणावळ्याक वता ही गजाल तागेल्या घरच्यांक पसंत नाशिल्ली. घडये घराकडेन झगडीं बी जावन ताणें जीव दिलो ना मूं...?

आशान ताका सांगिल्लें, " तशें जाल्यार, लोणावळ्याक वचप भोंगूं ” ताजेर राजेशान म्हणिल्लें, " तुका पिशें लागलां काय कितें गो ? असल्या विरोधाक आमी भियेलीं जाल्यार, ह्या संवसारांत आमचो टिकाव तरी लागत ?...आमच्या वांट्याक येतलीं तीं फकत दुकां आनीक सुस्कारे..."

पेपरवाल्याक आपोवन पेपर विकतो घेवपाचो ताका धीर जालो ना. पुण पेपरवालोच ताच्या म्हऱ्यांत आयलो तेन्ना ताणें ' संध्याकाळ ' विकतो घेतलो. ताका पयशे दिवंक जाय म्हणपाचेंय आशाक भान उरलेंना. अधाश्या-भशेन तें पेपरावेल्यान नदर भोंवडावंक लागलें.

" पुस्तक आणूं का बाईसाहेब ? " पेपरवालो ताका विचारतालो.

" हं " तो कितें विचारता तें समजनासतनाच आशान म्हळें.

" डिटेक्टिव्ह का ? "

" हं "

आशा पेपरांतले मथळे वाचूंक लागलें–' गाडीखालीं उडी घेऊन तरुणाची आत्महत्या...ग्रँटरोड स्टेशननजीक दुर्घटना. '

बातमेंत आत्महत्या केल्ल्याचें नांव दिवंक नाशिल्लें. ' गांवदेवी पोलिसांनी प्रेत ताब्यांत घेवन तपास सुरू केला ' अशें म्हणिल्लें...राजेश गांव-देवीकच रावता...देवा ! आशाच्या दोळयां मुखार काळोख दाटून आयलो. ताच्या सगळ्या आंगाक घाम सुटलो आनी आपूण आतां कोसळटां अशें ताका दिसलें.

" पुस्तक घ्या, बाईसाहेब. "

आशाक सुद्द नाशिल्ली. पेपरवाल्यान दिल्लीं पुस्तकां ताणें घेतलीं.

ानी पळेनासतनाच आपले मांडयेर दवल्लीं.

घडयाळींत सवाय तीन जाल्लीं. गार्डान पिल्लूक माल्ली.

" पैसे ? "

आशान पर्स उकती केली आनी एक नोट काडून ताच्या हातार दवल्ली...शंबरांची नोट !

नोट घेवन तो गेलो. गाडी सुटली...

...आशाक दिसलें, आपूण रुळांचेर न्हिदलां आनी आपले वेल्यान ाडी वता...ताणें भियेवन किळंच माल्ली.

" कितें जालें ? "

आशान दोळे उकते केले. म्हज्यांत राजेश उबो आशिल्लो. आशा ाका पळेत रावलें.

* * *

# माधवी

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ-φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

बर्लिनाक सावन रातीकडेन बॉनाक परत आयल्या उपरांत भारतीय संगिताच्या जलशाक वचपाक हांव तयार नाशिल्लों. बर्लिनाचे उदेंत बर्लीन आनी अस्तम बर्लीन अशे दोन वांटे करपी वणत आनी आवय आलतडच्यान जाल्यार धूव पलतडच्यान अशी तांची तुटातूट पळोवन मन खंती जालें. आनी मनांतल्या मनांत हावें देवाचे उपकार मानिल्ले कि आमच्या देशांत अशें घडूंक ना. पुण खिणाभरयांत १९४७ वर्सा पाकिस्तान निर्माण जावन भारतियांची जी तुटातूट जाल्ली तिजो म्हाका उगडास जालो. आनी म्हजो हांवच लजेलों. हे मनस्थितींत आशिल्ल्यान हॉटेलांत वचून सुशेगाद न्हिदचें अशें हांवें थारायिल्लें. पुण म्हजो जर्मन इश्ट व्हिलफ्रेड हाका भारतीय संगिताची खूब आवड. ताणें आमचेखातीर मुद्दम दोन तिकेटी काडिल्ल्यो. ताजो विरस करचो न्हय इतलेच खातीर हांव जलशाक वचूंक कबूल जालों.

आमी पावले तेन्ना गायन सुरू जालें. हॉल चिक्कार भरून भोंवतणी लोक उबो आसलो आनी रसिकांची सोय करपाखातीर भायर लाऊडस्पीकर लायिल्ले. थंय शेंकड्यांनी लोक उबो रावन संगीत आयकतालो. सगळयाक पुराय थंडाय पातळिल्ली. गारुड्याली पुंगी आयकून नाग जसो धोलता तसो लोक तल्लीन जावन पावलांच्या ठेक्यार तकली हालयतालो. म्हाका अजाप जालें. खुद्द भारतांत आज शास्त्रीय संगीत आयकुपी उणे जायत चल्ल्यात अश्या वेळार एक भारतीय गायिका परकी देशांत लोकाक इतली मोहीत करूंक पाविल्ली. कोण काय ही गावपी ?

वरभर ती गायली आनी जेन्ना तिणें तंबारो सकल दवल्लो तेन्ना लोक इतलो भारावन गेल्लो कि सट्ट करून उठचें अशें तांकां दिसलें ना. ताळयांचो पावस पडलो त्या आदीं मिनीटभर वातावरण थंड आसलें.

हांवें म्हज्या इश्टाक म्हळें, ' हे चलयेक मेळून तिजें अभिनंदन करुंकच जाय. '

' चल या तर ' अशें म्हणून व्हिलफ्रेड म्हाका घेवन स्टेजीर भितर गेलो. थंय जायतो लोक तिजे भोंवतणीं उबो आसलो आनी तिजें अभिनंदन करतालो. अठरा-वीस वर्सांची, रुपान सुंदर आनी फुलावरी नाजूक अशी ती देखणी चली लागिंच्यान पळेतकच म्हाका दिसलें कि हिका हांव वळखतां, खूब लागिंच्यान वळखतां. हांवें ल्हवूच म्हज्या इश्टाक विचाल्ले, " नांव कितें तिजें ? "

" तुका खबर ना ? अजाप बाबा. तिजें नांव अमिता पडुकोण. "

पडुकोण ! हें नांवय वळखिचें. कोण काय ही चली ? पडुकोण हें कोंकणी नांव. मंगळूरकडलें. एकदम म्हाका माधवी पडुकोण ह्या नांवाचो उगडास जालो आनी माधवीची याद आयली. ही चली दिस्त माधवी–सारकी दिसता...माधवीलीच चली काय ? कशी जातली ?...माधवीचें लग्न जाल्लें आसत जाल्यार नांव पडुकोण कशें उरतलें ?...

हांव मनांतल्या मनांत अमितालें माधवीकडेन नातें जुळोवपाचो यत्न करपांत गुल्ल आसतनाच अचकीत व्हिलफ्रेडान म्हाका हात लायलो आनी म्हजी अमिताकडेन वळख करून दिली.

" तुजें अभिनंदन करूंक मुजरत आयलों हांव " नमस्कार करून हांवें कोंकणींतच तिका सांगलें.

" आब्बा ! तुमकां कोंकणी येता ? "

" हांव गोंयचो "

" तरीच म्हळें ! "

अचकीत हांवें तिका विचाल्लें, " तूं माधवी पडुकोणाक वळखता ? "

" हय, तें म्हजें आतें. "

" तरी म्हळें, तूं सामकें माधवीभशेन दिसता. "

" तूं वळखता माधवीक ? "

" वळखतालों. वीस-बावीस वरसां आदली गजाल ही. "

" ती सध्या हांगाच आसा. "

" लग्नबी जालां आसतलें तिजें. "

" ना. तिणें लग्न करूंक ना. "

" हांगा कित्याक आयल्या ? "

" तिका ब्रेन ट्युमर जाला. सध्या हॉस्पिटलांत आसा. "

उपरान्त हांवें अमिताकडच्यान हॉस्पिटलाचो पत्तो घेतलो आनी हांव हॉटेलांत परत आयलों.

ते रातीकडेन म्हजो दोळ्याक दोळो लागलो ना. रावन रावन माधवीचो उगडास येतालो. इतली अस्वस्थताय जिणेंत हांवें पयलेंच खेपे अणभवलेली.

वीस बावीस वरसां पयलिंची गजाल. मुंबय हांव एके लायब्ररींत लायब्रेरियन म्हणून काम करतालों आनी थंय पुस्तकां व्हरूंक माधवी सदां येतालें. संगीतशास्त्रावेलीं आनी भाशाशास्त्रावेलीं पुस्तकां तेन्ना तें वाचतालें. एक वीस-बावीस वर्सांची चली असलीं पुस्तकां वाचता हाजें म्हाका अजाप जाल्लें. संगितातलें म्हाका चडशें कांय समजनासलें. पुण भाशाशास्त्राचो हांवें थोडो भोव अभ्यास केल्लो. तेविशीं हांव माधवीकडेन जायते फावटीं चर्चा करीं. कांय पुस्तकांतले नोट्स लेगीत काडून हांवें ताका दितालों. केन्ना-केन्नाय लायब्ररी बंद जावपाचो वेळ जालो तरी माधवी वाचीत बसतालें. अश्या वेळार हांव ताजेसरीं वचून वेळ जालो म्हणपाचें ताका सुचयतालों आनी मागीर आमी सांगातान भायर सरतालीं. जायते फावटी उलयत उलयत चर्चगेट स्टेशनार वताआसतना आमी हॉटेलांत च्या घेतल्या आनी जायते फावटी चर्चा बरी रंगली जाल्यार मरीन ड्रायव्हचेर वचून पासयय घेतल्या.

नकळटां म्हजें आनी माधवी मदीं एक नवें नातें निर्मतालें. एकाद्र्या दिसा माधवी लायब्ररींत आयलें ना जाल्यार हांव अस्वस्थ जातालों आनी रातीकडेन म्हाका न्हीद पडनासली.

एक दीस माधवीन म्हाका एका बऱ्या इंग्लेज सिनेमाची खबर सांगली. हांवें तो सिनेमा पळोंवक नासलो. तेन्ना माधवीन म्हळें, " मुद्दम पळोवपासारकोच सिनेमा तो. " आनी दुसऱ्या दिसा म्हाका विचारिनासतनाच

तें सांजच्या शोच्यो दोन तिकेटी घेवन आयलें. त्या दिसा पयले खेपे आनी त्या उपरांत कितलेशेच खेपे आमीं दोगांनी सांगांतान सिनेमा पळेले. जाल्या-रय आमचे वागणुकेंत सदां एकतरेचो संयम उल्लो. थेटरांतल्या काळखांतच न्हय तर रस्तो क्रॉस करता आसतना लेगीत जायते फावटी हांवें माधवीचो हात म्हज्या हातांत धरिल्लो.

खूब दीस हांव माधवीक एक गजाल सांगूंक सोदीं. पुण पावटीनपावट हांव सांगूंक धजलों ना. निमाणेकडेन म्हाका सांगचेंच पडलें. त्या दिसा आमी चौपाटीर गेल्लीं त्या वेळार हांवें ताका सांगलें, " फाल्यां हांव गोंयां वतां. "

" कितले दीस उरतलो ? "

" उरतलों म्हयनोभर "

" म्हाका तुजेकडेन कितें उलोवपाचें आसलें. तूं फाल्यां वता जाल्यार आजच उलयतां "

" बरेंभशेन. "

" लग्नाचो कितें विचार केला तुवें ?"

" कोणाच्या ?"

" तुज्या"

" तेंच हांवय सांगूंक सोदीं. हांव गोयांत वतां तो लग्न जावंकच. "

अकस्मात टवटवीत फूल बावचें तशें माधवीचें तोंड उतल्लें. तें कांय एक उलयलें ना.

" तूं गैरसमज करून घेंव नाका. तुजी म्हजी वळख जावचे आदींच म्हजें लग्न थरिल्लें. "

" मागीर हें तुवें आदींच म्हाका कित्याक सांगलें ना ?"

" सांगलें ना तो गुन्यांव जालो. पुण हांव सदांच तुजेकडेन एक मित्र कसो वागलों. "

" मित्र म्हणून तूं म्हाका नाका आसलो. "

इतलें सांगून माधवी म्हाका थंयच सोडून वचूंक गेलें. हांवें ताका आडा-यलें ना. आनी दुसऱ्या दिसा हांव गोंयांत आयलों.

म्हयन्या उपरांत हांव परत लायब्ररींत गेलों तेन्ना म्हज्या मेजार

माधवीन व्हेल्लीं पुस्तकां आनी हांवें ताजेखातीर काडिल्ले नोट्स एका कागदांत गुठलावन दवरिल्ले आसले.

उकतें करून पळे जाल्यार वयर एक कार्ड आसलें. ताजेर बरयिल्लें ——Returned with thanks——Madhavi. चौकशी करतकच म्हाका समजलें किं हांव गोयां गेलों त्याच दिसा एक मनीस तें पार्सल घेवन आयिल्लो. म्हाका अशेंय समजलें किं त्या दिसा उपरांत माधवी एकय दीस लायब्ररींत येवंक नासलें.

कांय दीस हांवें कॉलेजाच्या आवारांत, चर्चगेट स्टेशनावेले गर्दींत, हॉटेलांनी, मरीन ड्रायव्हचे पासयेचेर माधवीक सोदलें; पुण खंयच तें दिसलें ना. ल्हवू ल्हवू हांव ताका विसरूनय गेलों.

तसो म्हजो संवसार बरो चल्ला. म्हाका वीस वर्सांचो एक चलोय आसा.

आज हांगा बॉन शारांत अमिता मेळ्ळें आनी माधवीची याद जागी जाली. काळजावेली पुसून गेल्ली तागेली आकृती परतून उजळ जाली... ताणें लग्न करूंक ना...ताका ब्रेन ट्यूमर जाला...न्हीद येना म्हणून हांवं उठलों आनी दिवो पेटयलो. पुस्तक वाचपाचो यत्न केलो पुण चित्त थीर जालें ना. एक अनवळखी हुसको काळीज कोरांत्तालो.

सगळी रात हांवें तळमळ्यांनीं काडली.

मनाक दिसतालें माधवीक ब्रेन ट्यूमर जालो तो म्हाका लागुनच. ताजेर हांवें व्हड गुन्यांव केल्लो. आज ताजी पिराय चाळीसां पलतडीन आसतली. अजून तें आंकवार उर्लें तेंय घडये म्हाकाच लागून आसत. मनीस काळीज एकेच फावटीं ओंपता आनी तें सासणांखातीर. पुण हांवंच असो कसो ? म्हजेंच चुकिल्लें. हांवें ताका पयलींच सांगूंक जाय आशिल्लें कि म्हजें लग्न थरलां. जाल्यार घडये आमचे संबंद वेगळे तरेचे उरतले आसले...

दुसऱ्या दिसा सकाळींफुडें हांव हॉस्पिटलांत गेलों. एक नर्स म्हाका घेवन माधवीचे कुडींत गेली. म्हजेर नदर पडनाफुडें माधवी म्हाका वळखलें. वीस वर्सांची ताटातूट. आनी ब्रेन ट्यूमराचें दुयेंस. तरी माधवीक म्हजो विसर पडूंक नाशिल्लो. कालच मेळून गेल्लेवरी ताणें म्हळें, " आरे अरविंद ! " माधवी उठून बसलें. हांवें हातानीच ताका पडून राव म्हणून खुणायलें. तेन्ना ताणें म्हळें, " ना, आतां हांवं बरें आसां. "

माधवी पुराय बदलून गेलां. ताजे केंस पिकल्यात. देह सुकला.

" कितल्या वर्सांनीं मेळळीं न्हय ? " हांवें म्हळें. आनी माधवीन एकेक बोट मोडून वर्सां मेजलीं. नर्स आतां गेल्ली. " बावीस वर्सां ! " माधवीन म्हळें आनी म्हाका विचाल्लें, " खंय आसता तूं आतां ? "

" गोंयांतच. एका डेलीगेशनावांगडा पॅरीसाक आयिल्लों. मदीं दोन दीस सुटी घेवन एका इश्टाक मेळूंक हांगा आयिल्लों. रातीं अमिता मेळ्ळें ताजेकडेन तुजी वासपूस केली... "

" योगायोगाची गजाल. पुण तूं आयलो हें बरें केलें. "

इतले म्हणसर डॉक्टर आयलो आनी ताणें माधवीक तपासलें. उपरांत म्हळें, " तूं आतां बरें आसा. आज अशें फिरून येता जाल्यार यो. "

इतलें सांगपाची फुरसत माधवी उठून उबें रावलें. हांवें ताका हात दिलो. हँगरावेलो ओव्हरकोट ताज्या आंगार चडयलो. आनी ताजो हात हातांत घेवन आमी भायर मार्गार आयलीं. ल्हवू ल्हवू पावलां उखलून आमीं चलतालीं. खूब वर्सां उपरांत आमीं परत एकठांय आयिल्लीं. पोरण्या यादिनीं दोगांय अस्वस्थ जाल्लीं. मोन्यांनीं आमी चलत रावलीं. माधवी आतां सुंदर दिसनासलें. आतां तें जाण्टें जाल्लें. पुण भुरगेपणांत तें देखणें आसलें म्हणपाची कल्पना येताली. पुण ताज्या स्पर्शान म्हाका परतून तरूण केल्लो आनी माधवीच्या तोंडार एक नवी उमेद फुलिल्ली.

" तूं कितले दीस हांगा उतरलो ? "

" आजच म्हाका पॅरीसाक परत वचूंक जाय. थंयच्यान फाल्यां आमी भारताक परततले. "

" आतां कितें करता तूं ? "

" सरकारी नोकरी. "

" खूब जोडटा जातलो. "

" गरजेइतलें मेळटा. "

एकाएक माधवीक खरस आयिल्लेभशेन जालें. हांवें म्हळें, " च्या घेवंया. "

ताणें नदरेनच हय म्हळें. रस्तो क्रॉस करून आमी एका काफेंत वचून बसलीं.

" कितले दीस जाले तूं बरें ना ? "

" वर्सभर जालें. हें अमिताय फाटल्यान लागलें आनी म्हाका घेवन हांगा आयलें. "

" तें बरें केलें. हे पिरायेर जिवाक मात्शें सांबाळूंक जाय. "

" कोणाखातीर सांबाळूं ? म्हाका जगपाची उमेदय उरूंक ना. "

दोगांय ओगी रावलीं. कांय वेळान माधवीन विचाल्लें, " तुजें लग्न जालें ! "

वेटर च्या दवरून गेलो. " हय " चोराभशेन जावन हांवें जाप दिली.

" भुरगीं ? "

" एक चलो आसा. वीस वर्सांचो. "

माधवीक तागेल्या लग्नाविशीं विचारचें न्हय अशें थारायिल्लें. पुण नकळटां तोंडातल्यान प्रस्न गेलो, " तुवें...? " हांवें जीब चाबली.

माधवीन जाप दिली ना. फकत एक सुस्कार सोडलो. हांवेंच म्हळें, " माधवी, तरणेपणांत चले–चलयो एकठांय येतात आनी पयसावतातय. तितलेचखातीर तुवें तुज्या आयुश्याची वाट लावपाची गरज नासली. "

" आमी लागीं आयलीं ही चूक जाली खरी. पुण हांव तुका काळीज ओपून बसलें ही म्हजी व्हड चूक आनी ताजें प्रायश्चित्त भोगतां हांव. "

हांव ओगी रावलों. मोन्यांनीं च्याचें कोप रिकामें केलें.

बील फारीक करून हांवें माधवीक विचाल्लें, " या न्हय हॉस्पिटलांत परत ? "

" तुका कळाव जाता दिसता. " म्हणून तें उबें रावलें.

म्हाका कळाव जायना पुण ताणें चड तकाल्स घेवप बरी न्हय अशें हांव ताका सांगूंक सोदीं पुण म्हाका जाप फुटली ना.

" तुजो संगीत शास्त्राचो अभ्यास खंय पावलो ? " मार्गार येतकच विशय बदलूंक म्हणून हांवें ताका विचाल्लें-

" पुस्तक हातांत धल्ल्यार बावीस वर्सां जालीं " माधवीन जाप दिली. म्हाका तोंडार थापट मारिल्ल्याभशेन जालें.

" चूक म्हजीच. म्हाका क्षमा कर माधवी. " हांवें म्हळें.

आपल्या हातांतलो म्हजो हात मातसो दामून ताणें म्हळें, " मोगांत

विरह आसता तसो त्यागय आसता."

हांव ओगी रावलों.

हॉस्पिटलांत ताका पावोवन हांवें ताजो निरोप घेतलो. माधवीचे दोळे दुकांनी भरिल्ले. आवेगाभरशीं हांवें ताका वेंगांत घेतलें आनी म्हज्या थरथरत्या ओंठांनीं तागेल्या दोळयांतलीं दुकां पुसलीं.

पॅरीसाक वचपी विमानांत हांव बसलों तेन्ना म्हजें मन भेरेल्लें. म्हाका दिसलें, म्हजें काळीज हांव बॉन शारांतल्या हॉस्पिटलांत माधवीले कुडींत विसरून आयलां.

* * *

# ना म्हणूंक आयलें ना

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ-φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

ना...ना...ना...! कांय ना. जिवितांत म्हाका ना म्हणूंक आयलें ना ताजें पानवळ भोगतकच दर खेपेक अशेंच घडटा. घडपाचें तें घडून वतकच हांव मागीर म्हगेले कुडींत येतां आनी शाळेंतल्या भुरग्यान उजळणी पाठ केल्लेवरी म्हज्या ओंठार तें एकलें एकसुरें उतर घोळयतां पुण 'ना' हें उतर जाय तेन्ना ओंठार येना आनी सगळो गोंदळ जाता.

ही काणी बरोवंक बसलां तो लेगीत ना म्हणप जमलें ना म्हणून. आयचीच गजाल. सकाळीं दीस वयर सल्लो तरी हांतुणांत लोळपांत आनंद आसता. आनी आयतार म्हणटकच कोणाची कटकट नासता...पुण अचकीत याद आयली—आज सकाळीं णव वरांचेर हांवें माधवीक मेळटां म्हणून सांगिल्लें. म्हाका दिसलें णव वरांचेर मेळपाचें उतर बेठें दिलें. सांजचें मेळ्ळयार जातालें...पासयेक वचपाक वेळ सांजचोच बरो...पुण ताणेंच णव वरांचेर मेळ म्हणून सांगिल्लें आनी सदांचें संवयेन हांवें "आं" म्हणिल्लें —फक्कत "ना" म्हणूंक आयलें ना देखून.

काल ऑफिसांतल्यान परत येता आसतना माधवी मेळिल्लें...खूब वर्सांनीं मेळिल्लें. ताकाय ताकतीत आशिल्ली आनी हांवय बोबाळांत आशिल्लों...आनी आमी दोन उतरांनीं एकामेकांची खबर घेवन दुसऱ्या दिसा सकाळीं मेळपाचें थारावन वेगळीं जाल्लीं.

रेडियोचेर आठ वरांच्यो इंग्लेज बातम्यो चलताल्यो. हांव उठलों. ब्रश हातांत घेवन दांत घांसतां घांसतां बातम्यो आयकतालों. इतल्यांत आई आयली आनी विचारूंक लागली—'सांजे भुरग्यांक फातर्पां व्हरून

हाडटा मरे ? '

हांव तिका पळेत रावलों...ना हें उतर यत्न करुनय ओंठार आयलें ना. हांव थंयचो उठून नळार तोंड धुवंक गेलों.

खाड करून च्या घेता आसतना बायल आयली—' आज म्हजी भयण जेवपाक आसतली. बरें नुस्तें हाड आं ! '

' तूंच घेवन यो...ना जाल्यार हाडून घे... ' अशी जाप तोंडार आयली. पुण उतर फुटलें ना. मोन्यावरी हांव च्या पियेलों.

भायल्या दारार कोणें माल्लें...वचून पळे जाल्यार ऑफिसांतलो प्यून एकाद घेवन आयला—' मॅनेजरान एक जाप दी म्हणून सांगलां...सामके गरजेन. ' प्यूनान सांगलें.

' आतांच आपयला ? ' घडयाळीकडेन पळोवन हांवें विचाल्लें. साडे आठ वरां जाल्लीं.

' हय. उर्जेत यो म्हळां. ' प्यूनान जाप दिली.

हांव ताज्या तोंडाक पळेत रावलों. मॅनेजरालें काम हांव समजलों. ऑडी-टर येवपाचे आसात. त्या आदीं सगळो हिशेब जाग्यार घालूंक जाय. पुण आज हांव कसो वतलों ?...णव वरांचेर माधवीक मेळटां म्हणून सांगलां... फाल्यां मद्दानरात मेरेन बसतां जाय जाल्यार...हांव पावचों ना म्हणून जाप तोंडार आयली. इतले म्हणसर...

' येता म्हणून सांगूं मू ? ' प्यूनान विचाल्लें.

हांवें तकली हालयली. प्यून गेलो.

...आतां मॅनेजरागेर गेलों जाल्यार माधवीक कसो मेळटलों ?...हांव मनांतल्या मनांत फडफडलों.

बूट घालतना येवजिलें...मॅनेजरागेर वचचे आदींच माधवीक मेळून सांजचो वेळ थारायल्लो बरो...आज सांजवेळा...खंयय कोलव्यां ना जाल्यार बाणावलेचे वेळेर वचून बसूंक मेळटलें.

' नुस्तें विसन्नाका ' घरकान्नीन पर्थून याद दिली.

' पुण... '

' मॅनेजरागेर सावन येता आसताना घेवन यो...आनी बरी भाजी मेळ्ळी जाल्यार तीय हाड...दोन लिंबू आनी अर्द कील तोमात...हरव्यो

मिरसांगो आसात घरांत...पुण इल्लो आल्या–कुडको आनी कोथमिरे भाजयेची एक चुडी...'

हांव भायर पावलों तरी बायलेचें सांगप चालूच आशिल्लें. खरी गजाल...नुस्तें आनी भाजी हाडूंक वेळ तरी कितलो जाय ?...येता आसतना वाटेर घेंव येता...पुण खरेली नड ती मॅनेजराली...केदो वेळ बसोवन दवरीत देव जाणा...आनी माधवी ?...ताका कितें दिसतलें ? आपल्याक ताळटा अशें दिसतलें ?...ना. माधवीक समज आसा...सांजवेळा दर्या वेळेर एकांतांत ताका सगळें सगळें सांगून उडयतलों...

चार घेंपा वतकच दोतोर सदाबाब मेळ्ळो...कपलाक दोन मिरयो घालून हांव चलूंक लागलों. आतां जर म्हणून ताणें राजकारणाक हात घालो जाल्यार हाताक धरून सगळें सांगतलों आनी म्हाका आयकुचें पडटलें...

'आज ताकतिकेन सो रे ?' दोतोरान हटकिलो. रेफॉर्मांद जायत सावन ताका खूप वेळ मेकळो मेळटा.

'हय णवां आदीं पावंक जाय...कळाव जालो.' हांवें म्हळें आनी चलूंक लागलों.

'आब्बा, अशें कसलें काम तर रे ?' दोतोरान पर्थून विचाल्लें. हांव फक्कत हांसलों. तशें दोतोरान म्हळें, 'वच तूं...पुण एक काम कर... वता आसतना वाटेंत पोस्टांत सेल मारून हें कागद मात्शें घाल.'

वेळ वगडावपाचो नाशिल्लो. कागद आनी दोतोरान दिल्ले पंदरा पयशे घेवन हांव चलूंक लागलों...ही आनी कटकट...सेल घेवंक आनी वेळ कोण वगडायतलो ? पुण दोतोराक ना म्हणूंक येता ?

पोस्टांत पत्र घालीसर णव जालीं आनी आतां काम्राकडे पावसर आनीक पांच मिनटां जाय...मार्गार लोक चलतालो. मोटारी...सायकली... मोटारसायकली...

माधवीची आनी म्हजी खूब आदली वळख. ल्हानपणांत आमी एकठांय खेळिल्लीं आनी सांगतांत वाडिल्लीं...एकामेकांच्या मोगांत लेगीत पडिल्लीं... पुण बापायक " ना " म्हणूक आयलें ना आनी हांव लग्न जालों...आनी माधवी आंकवार उल्लें.

काम्रा म्हन्यांत पावंक आयिल्लों. इतले म्हणसर एक मोटार म्हज्या

म्ह-यांत थांबली. नदर घुंवडावन पळे जाल्यार मॅनेजरूच म्हाका उलो मारता.

तोंडार आयिल्लें ताका सांगचें पांच मिनटांनीं येतां म्हुण. पुण जाप फुटली ना. ताणे दार उकतें केलें आनी नकळत हांव भितर बसलों...मोटार सुरू जाली. थेट मॅनेजराल्या घराकडेन येवन थांबली.

वाटेंत मॅनेजरान सांगलें ' आज आमगेर जेवणाक सोयरे येवपाचे आसात. नुस्तें घेवन आयलों...आतां बेगीन काम सोंपोवंया...ते येंवचे आदीं म्हाका मेकळो जावंक जाय '...आनी बायलेन नुस्तें हाडूंक सागिल्लें ताजी म्हाका याद जाली...आज म्हगेरूय मेवणी जेवपाक येवपाची आसली...पुण माधवी...

मॅनेजरान फायली हातांत दिल्यो आनी तोंडान सुचोवण्यो दिल्यो. तकली हालोवन हांव ' यस सर...यस सर ' करतालों...पुण म्हजे नदरे-मुखार रावन रावन माधवी येतालें.

इतल्यांत दारांत एक मोटार येवन थांबली. जनेलांतल्यान नदर भायर काडून मॅनेजरान पळेलें. तागेले पावणे आयिल्ले. नदर परत भितर काडून ताणे म्हळें, ' ह्यो फायली तूं घरा व्हर...आतां ते आयले, म्हाका वेळ ना. सांगिल्लीं कामां करून सकाळीं फायली ऑफिसांत हाड. ' आनी मॅनेजर वचूंक गेलो.

अशी तिडक आयली...पुण उतर फुटलें ना. घडयाळींत साडेणव वरां जाल्लीं. फायली घेवन मार्गार आयलों. आतां लांब लांब धेंपां घालीत काम्रावाटेन चलूंक लागलों.

आनी हांव काम्राकडेन पावलों तेन्ना थंय माधवी नाशिल्लें...पावणे धा वरां जाल्लीं. भोळे आशेन हांव अर्द–वर रावलों. पुण माधवी आयलें ना. बाबडें रावन गेलें जातलें. ताणें कितें समज करून घेतलो जातलो ?

आतां कितें करचें तें म्हाका कांयच येवजना जालें. हांव घरा परत येवंक लागलों...दारांतच बायलेन येवकार दिलो. ' हाडलें ना मू नुस्तें ? हांव जाणाच अशिल्लें. '

हांव कांय एक उलयलों ना. मनांत आयलें विचारचें, जाणा आशिल्लें जाल्यार सांगलें आनी कित्याक ? पुण कांयच विचाल्लें ना.

बायल भितर गेली. हातांत पोंती, पायांत जोतें घालून वोता कडार

भायर सल्ली. तिगेल्या दोळयांच्यो ओल्यो जाल्ल्यो कडो साडयेच्या पदरान तिणे पुसल्यो.

म्हाका सामकें घुस्मटिल्लेवरी जालें. तिगेल्या कुळारचें मायेचें मनीस आयज पयलेंच आमगेर येतालें. आनी हांवें सादें नुस्तें लेगीत हाडूंक नासलें...

उलो मारून तिका आपोवचें अशें मनांत आयलें. हांव भायर आयलों लेगीत. पुण उतर फुटलें ना...

आई भायर आयली. तिणें विचाल्लें, ‘ कितें जालें ? ’

हांव वोग्गी.

‘ नुस्तें कित्याक हाडलें ना ? ’ आईन पर्थून विचाल्लें. तरी हांवें जाप दिली ना.

‘ तुका अशें जालां तरी कितें रे ?...उलयना कित्याक तूं ? ’ तरी म्हाका उतर फुटलें ना.

अशेष धांवत आयलो...आंगार पडलो आनी विचारूंक लागलो—‘ सांजे फातल्प्यां व्हलतलो मले ? ’

आनी किळांच मारून हांवें जाप दिली ‘ ना...ना...ना...’

तो कांचवेलो आनीक रडूंक लागलो. हांव उठून कुडींत आयलों आनी दार धांपून पर्थून किळचलों—‘ ना...ना...ना...! ’

* * *

# आम्रपाली

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

आम्रपाली म्हळ्यार वैशालीची रूपकन्या. तिका कोण वळखना ? तिज्या रुपाचो बायलांक मत्सर आनी तिजी मर्जी संपादून घेवंक दादल्यां मदीं सर्त. हरशीं तिजें दर्शन कोणाक घडना. पुण आयची गजाल वेगळी.

आज वैशाली नगरींत एक व्हड अतिथी येवपाचो आसा, आनी त्या अतिथीक येवकार दिवंक नगरींतल्या हेरां लोकां वांगडाच आम्रपालीय मार्गाचे कडेक उबी आसा. तथागता विशीं तिणेंय जायतें आयकल्लें. आयकून तिका ताजे विशीं कुतुहल दिसूंक लागिल्लें. आज ती धांवत मार्गार आयिल्ली. भक्तिभावान भारावन वचून न्हय, तर फकत जिज्ञासा तृप्त करूंक.

सगळी नगरी आज घराभायर सरिल्ली. मार्गाच्या दोंय कडांनीं उबो रावन लोक नदर लांबावन तथागताची वाट पळेतालो. मदींच लोकांमदीं कुलकुलाट जालो आनी सगळे जाण पांयांच्या बोटांर उबे रावन मानो लांबोवंक लागले. अतिथी पाविल्लो. ताज्या दर्शना खातीर जण एकलो दुसऱ्याच्या आंगार चडटालो. आम्रपाली उबी आशिल्ली थंयच्यान लागसारच आशिल्ल्या एका आंब्या रुखाचे सांवळेंत तथागत उबो रावलो. तिणे नदर-भर ताजें दर्शन घेतलें. तथागताचे नदरेंतली स्नेहवृश्टी तिज्यान पेलूंक नज जाली. आजवेर आम्रपालीन जायते संवसारी मनीस पळेल्ले आनी संन्याशांचेंय दर्शन घेतिल्लें. पुण हो संन्याशी–पुरुस वेगळोच. देवाचो अवतार काय हो ? संवसार, पाप आनी पिडा हांचे विरयत करचे खातीर धर्तरेर अवतल्लो काय ? ताजी भगवीं वस्त्रां आनी केंस नाशिल्लें बोडकें माथें– हरशीं तिका असल्या साधूंविशीं एक प्रकारची अनास्था-वीट आसली. पुण

ह्या साधुची गजाल वेगळी. तागेलें कांतिमान तोंड किरकोळ संन्याशांपरस वेगळीच वाणी उच्चारतालें. तागेलें दैवी तेज, ताजी कांत, प्रतिभा... आम्रपालीक दिसलें, आपल्या काळजांत मोड आयलां. दादल्यांक नाचोवपाची तिका संवयच आसली. तिगेल्या रुपान आनी तारुण्यान भल्याभल्यांक चळयिल्ले आनी विजयाच्या उन्मादान ती जियेताली.

पुण आज पयलेच खेपे एका असामान्य पुरसामुखार ती गोंदळून उबी आशिल्ली. पावल उबाल्लें आनी ती मात्शी फुडें गेली. तथागताक तिणें नमन केलें आनी म्हळें, " तुमी निर्वाण सोदूंक भायर सल्ल्यात अशें आयकलां. "

तपस्व्यान नम्रतायेन तकली हालयली आनी म्हळें, " हय " आनी तो मायेस्त नदरेन तिका पळेत रावलो. आम्रपालीचो संकोच उणो जालो.

" तपस्वी ! " तिणें म्हळें, " तुका निर्वाण जाय आसत जाल्यार म्हगेर यो. थंय शाश्वत आनंद आसा. आनंद नासतना निर्वाण कशें मेळत ? "

तपस्वी हांसलो. पुण ताजो हांसो लेगीत एके तरेचें सांत्वन दिवपी– दैवी आसलो. असलो हांसो तिणें जिणेंत केन्नाच पळोवंक नासलो. हांसतां हांसतां तथागताचे ओंठ हाल्ले आनी ताच्या तोंडातल्यान तिका जाप आयली–" आनंद–आनंदांतल्यानच निर्वाण मेळटा ही गजाल खरी, पुण ज्या आनंदाची तूं गजाल करता तो खीणभर येता आनी ना जाता. सगल्या अस्तित्वाक वेंगावन घेवपी अश्या अनंत आनंदाचो सोद करूंक हांव भायर सल्लां. तुगेल्या घरांत म्हाका अनंत आनंद मेळत व्हय ? जाल्यार हांव मुजरत तुगेर येन. "

आम्रपालीच्या दोळ्यांत जोगलाभशेन कितेशें चकचकलें. तिणें म्हळें, " म्हाराज, म्हगेल्या घरांत न्हंयेचो प्रवाह व्हांवचो तसो अखंड आनंदाचो झरो व्हांवता. पळान पळ म्होंवान भरून व्हरपी अनुपम आनंद म्हगेर वसता...'

" भद्रे ", तथागत परत हांसलो, " " तूं म्हणटा तसलो आनंद हांव सोडून आयलां. तो आनंद आत्म्याचो व्हास करता. देखुनच तर हांव घर सोडून आयलां. तुगेर आयलों जाल्यार म्हजो त्याग मातयेभरवण जावचो ना ? "

मनांतल्या मनांत पयलेच खेपे आम्रपालीन हार कबूल केली. तरी धीर करून तिणें म्हळें, " तुमी निश्टूर. तरी आमगेर येतात...तुमचें कशेंय आसूं, तुमचे सारक्या म्हापुरुशाचे पांय म्हज्या घराक लागप हेंच हांव भाग्य मानीन. आनी कितें सांगूं ? "

" चलये, हेरां दादल्यांसारकोच हांवय— फकत घर सोडपाचो धीर म्हाका जालो. अनिकेत रावचे खातीर हांवें सर्वस्वाचो त्याग केला. आत्मजनांक सोडटना दुःख जालें, पुण ह्या संवसारांत मोल मेजलेबगर कांयच मेळना. "

" सुख मेळोवचे खातीर तुमीं सुखाचोच त्याग केला. तुमची गजाल विपरीतच ! "

" तातूंत अजाप ना. हांवें सोडिल्ल्या सुखांत कडवचार भरिल्लो. तें सुखच न्हय; मोह तो. आनी हांव जें सोदतां तें शुद्ध सनातन सुख. "

" तर तपस्व्यानो, तुमचे पांय आमच्या घराक लागचेच नात ? "

आम्रपालीचो आवाज सद्गदीत जालो.

" आम्रपाली, वेळ आयलो म्हणटकच हांव जावन मुजरत तुगेर येतलों. पुण आतां मनांतले दुबाव काडून उडोवंक हांव भायर सल्लां. म्हाका वचुंकच जाय. "

नतमस्तक जावन आम्रपाली उबी रावली. तिच्या दोळयांतल्यान दोन दुकां गालांवेल्यान घळसणून मातयेंत पडलीं. तकली वयर काडिनासतना रडकुऱ्या आवाजांत तिणें विचाल्लें, " तुमच्या प्रस्नाची जाप तुमकां मेळटली तेन्ना तुमी येतले ! काय विसरून वतले ? "

" येतलों. "

" हांव वाट पळेत रावतां. आनी तुमकां उतर दितां, आजसावन म्हजें जीवन बदलतां. "

" खूब खूब दीस लागतले. पुण हांव मुजरत येतलों. पुण आयचें जिवीत बदलतां म्हणटा, तूं कितें सोडटली ? "

" हांव रूपजीविनी ! "

आदलेच मायेस्त नदरेन तथागत आम्रपालीक पळेत रावलो. ते नदरेंत राग नासलो, नासलें अजाप.

" जिवीत जगपाचें तें तुजें साधन मूं ? "

आम्रपालीन तकली हालोवन हय म्हळें.

" तुज्या मनान–स्वेच्छेन तुवें तो मार्ग धल्लो ? "

आम्रपाली चकाचूर जाली. ह्या खिणाक तिचो देह फातरावरी निश्चळ जालो. तिका आपल्या जिवितांत सुख मेळटालें, आनंद मेळटालो. पुण तिणें आपल्या मनांत तो मार्ग पत्कल्लेलो ? आपलें जिवीत थारावपाची मेकळीक तिका आसली जाल्यार आपूण खंयच्या मार्गान वतलीं आशिल्लीं हें तिजें तिकाच खबर नाशिल्लें. पुण एक खरें कि आयज ती इतलीं वर्सां ज्या मार्गान आयल्या तो मार्ग तिणें वेंचूक नाशिल्लो. आपुण खंय आनी केन्ना जल्माक आयलीं तें आम्रपालीकच खबर नासलें. आपलो आवयबापूय कोण हेंय ती नकळ आसली. आम्रवनांत पडिल्लें एक भुरगें एका उतार-वयांतल्या जोडप्याक मेळिल्लें. आनी त्या जोडप्यान ताका ल्हानाचें व्हड केल्लें. जेन्ना तिका तारुण्याची आंकरी फुटली, तेन्ना ती वैशालींतली सगळ्यांपरस सुंदर अशी बायल जाल्ली. तिका हात दिवचे खातीर वैशालींत कितल्या जाणांनीं जीव तळटार घेतिल्लो...कितलीं रणखेवां जालीं ! आपल्या रुपाच्या नाड्यार तिणें कितलीं काळजां पिंदून उडयिल्लीं आनी कितलीं घरां आनी कितले संवसार मातयेभरवण केल्ले !

तिगेल्या पोतकया बापायन जाण्टेल्यांचें मत घेतलें. पुण तिजें रूप पळोवन जाण्टेलेय चलबिचल जाले. आनी ताणीं निवाडो दिलो—' सगळया पुरुश जातिचो तिजेर अधिकार उरूंक फावो ' आनी आम्रपाली रूपजीविनी जाली. ना, तिणें स्वेच्छेन तो मार्ग पत्करूंक नाशिल्लो. ल्हवूच तिणें तथा-गताक जाप दिली–" न्हय तपस्व्यानो, न्हय. रुढीन आनी परंपरेन म्हजो मार्ग थारायलो. "

अम्रापालीची जाप आयकून तथागताच्या तोंडावेलो हांसो बावलो ना. तिका बळ मेळ्ळें. दिसलें, आपूण पातकी न्हय. तथागतान आंब्याचें एक जून फळ काडलें आनी म्हळें " भद्रे ! ही भेट घे...फुडें केन्नाय ह्याय परस मोलादीक अशी वस्त दीन. " आनी तथागत वचूंक गेलो.

भक्तिभावान हातांत तो जून आंबो धरून आम्रपाली उबी रावली आनी धेंपां घालून चलतल्या तपस्व्याची फाट थीर नदरेन पळेत रावली...

काळजांत व्यथेची एक कळ आयली. असली व्यथा तिणें ह्या आदीं केन्नाच अणभवूंक नाशिल्ली !

त्या उपरांत कितलीं वर्सां सोंपलीं कोण जाणा. शियान भूंय आंखुडली. गिमांत तापली. पावसान भिजली. आंबो पयलीं पिकलो. पुण मागीर भांगरावरी ताची चकचकीत कांत ल्हवुल्हवू काळी जाली. तो कुसलो, मागीर सुकलो, मुखार चितेलो. पुण आम्रपालीन तें फळ जतनायेन राखून दवल्लें. हस्तिदंताच्या एका पेटलांत तें तिणें सांबाळ्ळें. तथागताची याद आयली म्हणटकच ती पेटूल उकतें करून तें सुकडें फळ पळेताली आनी एक सुस्कार सोडटाली. सरत्या दिसाकणकणी तिजी व्यथा वाडत वताली...तपस्वी परत केन्ना येतलो ?...येत तरी ?

आनी मागीर एक दीस वैशाली नगरींत पर्थून बोवाळ जालो. तपस्वी येतलो म्हुण ताच्या दर्शनाक सगळो गांव घराभायर आयलो. आर्कां आनी तोरणांनी रस्ते शिणगारले. मार्गाविलें घरान घर लग्नाचो उत्सव आशिल्ले-वरी सजून तयार रावलें. तपस्वी आयलो. सजयिल्ल्या घरांचेर नदर लेगींत घालिनासतना धनुश्यांतल्यान सुटिल्ल्या बाणावरी तो थेट आम्रवनांत आयलो आनी त्याच आदल्या आंब्यामुळांत उबो रावन ताणें लोकांक उपदेश केलो.

मनाक थंडाय दिवपी तथागताची म्होंवाळ वाणी आयकूंक आम्रपाली थंय पावली. पुण लोकांच्या चोंब्यातल्यान तिका वाट कशीच मेळनासली. दोनूय हातांनी लोकांक धुकलीत धुकलीत ती फुडें सरूंक वताली. पुण एका काळार तिची थूंक जिखपी लोकच आज तिका कुस्कुटासमान लेखताले. एकलो तर तिजेर ताणशेलोय—

" आगे ए ! तूं वेश्या ! हें पवित्र स्थान भष्टावं नाका " तथागताच्या शिश्यांनीं तिका आडायली. पांदऱ्यांत घाल्ल्या सवण्यावरी आम्रपाली फड-फडली. पुण करतली कितें ? इतलीं वर्सां तिणें वाट पळेल्ली...आनी आतांय परत ती ताटकळत उबी राविल्ली.

मदींच लोकांच्या चोंब्यांमदल्या अरूंद खांचींतल्यान दुकांनी भरिल्ले आनी पिरायेन खीण जाल्ले नदरेन तिणें तथागताची अंधूक मुर्त पळेली. ती पावन जाली.

आनी ह्याच वेळार तथागताची नदर तिजेर गेली. ताजें भाशण थांबलें.

आपूण जावन तो आम्रपालीसरीं आयलो आनी ताणे म्हळें–" भद्रे, हांव आयलों ! "

आम्रपालीन ताज्या पांयांर तकली दवल्ली आनी चलून शिणिल्ले तथागताचे पांय हुनहुनीत दुकांनी धुले. मागीर धन्यतायेचे हुडके दीत विचाल्लें, " प्रभु, फाल्यां म्हगेर जेवण घेशात ? "

" व्हड खोशयेन "

हो प्रकार पळोवन लोक तटास जालो.

दुसऱ्या दिसा तथागत आपल्या शिश्यांसयत आम्रपालीच्या घरा आयलो. तिणें रांदून वाडिल्लें तृप्त जायसर जेवलो.

मागीर आम्रपालीन हस्तीदंतांचे पेट्रूल उकतें केलें आनी भितल्लें सुकिल्लें फळ ताज्या हातांत दिवन म्हळें– " जिवापरसय अदीक जतनाय घेवन हांवें हें सांबाळ्ळें. पुण ताजें कुसप म्हज्यान थांबोवंक जालें ना. "

थंडसाणेन तथागतान म्हळें, " मनशाचें जिवितय अशेंच. म्हातारपण आनी पिडा–व्याधी देह काबार करतात. पुण तितल्यान सगळें सोंपना. हें पळें..."

तो कुसून सुकिल्लो आंबो तथागतान कापलो आनी भितल्लो काथो भायर काडलो. " फळ कुसलें, सुकलें पुण हो काथो पळे. जशाचो तसो उल्लो. मनशाचें चित्त अशेंच उरूंक जाय...आनी जाणां तूं आम्रपाली, तूंय अशीच ह्या आंब्याभशेन...मनान शुद्ध. "

तपस्वी गेलो. पुण वतना आम्रपालीची व्यथा घेवन गेलो. तिच्या मनांत अद्भूत शांत आसली. तिच्या तोंडार नवीच कांत फांकली.

* * *

# शिळा

φφφ φφφφφφφφ φφφ φφ φφφφφφ φφφφφφφφ φφφφφφφφφφφφφφφφ

भायर पावस पडटा आनी बंद जनेलाच्या हारशांतल्यान हांव तो पळेतां. झाडांची पानां शिरशिरतना पळेतकच म्हजेंय आंग शिरशिरता. घोवाल्या मोगान एकाद्रे सवाशिण बायलेन तृप्त जावचें तशी धर्तरी आज तृप्त जाल्या... पयस शेकान शेक पातळिल्ली मांडवी न्हंय लेगीत तृप्त जावन व्हांवता... आनी न कळटां हांव भायर येतां...भुरग्यावरी पावस आंगार घेतां.

"सुधा" कोणें म्हाका उलो माल्लो. पुण आज हांव कान आसून भेड्डें, नदर आसून कुड्डें !

"सुधा...ए सुधा-"

हांवें आंग काडलें. समीर असोच उलो मारतालो...पुण हांव खंय आनी समीर खंय...समीर घडये ह्या वेळार बाणावलेच्या दर्या वेळेर पयल्या पावसान आंग भिजोवन घेता आसतलो...काय कुडींत ऑल्तेरार बसून सुके सुस्कार सोडटा आसतलो...? आतां ताजें जग वेगळें आनी म्हजें जग वेगळें...हांव राजेशाली बायल...समीराकडेन म्हजें नातें कितें ?

"सुधा !"

तकली वयर काडून पळे जाल्यार म्हऱ्यांतच सत्री घेवन राजेश उबो.

भोंवतणी मळब—भूंय जोडपी पावसाचो नाच चालूच आसलो...हांवें म्हज्या म्हाकाच कुशीक काडलें आनी हांव राजेशाले सत्रेंत आयलें.

"कितें हीं भुरगेपणां...तुका सोबना हें...आज 'मांडवींत' डिनर आसा. विसल्लें तूं ?"

हांवें जाप दिली ना. नदर सकल केली. राजेशाले नदरेक नदर दिवंक

अजून हांव थर्त भियेतां.

डिनरची म्हाका बेस बरी याद आसली. हांवें विसरपाचो येत्न केलो; पुण विसर पडूंक पावंक नाशिल्लो...आनी विसरपांतय अर्थ नाशिल्लो. वेळार म्हाका वचचेंच पडटलें आशिल्लें.

आमी घरांत आयलीं तशें राजेशान पर्थून सांगलें–" चल...तयार जा आनी तुगेलो तो सादो भेस नाका...लिपस्टीक आनी कुटेक्स जायच... कालच तुका सांगिल्लें आतां केंसाची स्टायल बदलल्या. त्यो फांतयो आनी आंबाडे सोड..."

" आनी माथ्यार सवण्यांचे घोंटेर उबारून घेवं ? " रावूं नज जावन मदींच हांवे तिडकून विचाल्लें.

" हय...देटस द फॅशन ऑफ द डे !" थंडसाणेन राजेशान जाप दिली.

आपली तिडक इतले थंडसाणेन उकती करप ताका कशें जमता हेंच म्हाका समजना. हांवें जीब चाबली आनी हांव कुडींत गेलें.

मागीर म्हाका दिसलें, म्हजेंच चुकता. हांव ताजी बायल. असलें तुसडेपणाचें वागप आमकां केन्नाच लागीं हाडचें ना...

भायले वटेन मार्गावेल्यान एक जोडपें एके सत्रेंतल्यान वता...दादल्याचो दावो हात बायलेच्या खांदार आनी ताज्या उजव्या हातांत सत्री...हो देखाव पळोवन म्हजें तारुण्य बंड करून उठलें...पावस दोनूय हात हालोवन म्हाका आपयतालो...

" हो पावस आनी नाका त्याच वेळार आयला...थांबत काय बरा भितर ? " कुडींत भितर येवन राजेशान म्हळें...

हांवें जाप दिली ना...कितें उलोवचें तेंच म्हाका कळ्ळें ना. राजेश आयिल्लो तसो भायर गेलो...

...म्हाका समीराचो उगडास आयलो. बांयचेर उदक हाडूंक गेल्ले कडेन एक दीस पावस आयिल्लो. तेन्ना आपुणय पावसांत भिजून समीर म्हजे-सरीं आयिल्लो. आनी आपल्या बोटांनीं म्हज्या कपलार आयिल्लो केंसाचो पोड कुशीक काडून ताणें म्हणिल्लें, " कालिदासाली नायिका लेगीत इतली सुंदर नासतली. "

...पळेलें मू समीर ?...तूं वेल्यान म्हाका सांगता सितेची जीण याद

कर...सगळें सोस...घोवाकडेन एकरूप जा...कशें जावं तूंच सांग!......
हांव एक सादी चली.......मोगाक भुकेल्ली. सिता आनी शकुंतलेच्यो गजाली तूं करता. पुण जाणा तूं समीर, त्या अस्तऱ्यांक तांच्या घोवालो कितलो उपाट मोग मेळिल्लो तें! देखुनच येदो व्हडलो त्याग त्यो करूंक पावल्यो—आनी हांव...जाचेर हांवें मोग केलो तो मोग म्हाका लिपोवचो पडलो...पडलो...आनी जाणें हांव सुंदर म्हणून मागणी घालून म्हाका आपलें केलें ताणें अजून म्हाका मोगाचें एकूय उतर दिवंक ना...अजून तो म्हाका वळखूंक लेगीत पावंक ना!

डिनराक गेल्ले कडेन राजेश म्हजेर तापलो "तुजे इंग्लेज भाशेचे उच्चार कोंकणी भशेन जातात!" अशें सगळ्यां सामकार ताणें म्हाका सांगलें. आनी हांवय तिडकी भरशीं उलोवन गेलें—"म्हाका खबर नाशिल्ली म्हाका इंग्लेज मनशान मागणी घाल्या म्हणून..." आनी सदांभशेन हांवें जीव चाबून घेतली. शेळेतकच तोंडार फुलता तसलो हांसो राजेशाल्या तोंडार आयलो...मेजा भोंवतणचीं दोन-चार संवंगां हांसलीं.

घरा परत येओसर राजेश म्हजेकडेन एकय उतर उलयलो ना...आनी घरा पावतकच, हो पळे तो माथ्यावेल्यान पांगरूण घेवन न्हिदला. आनी म्हाका कशीच न्हीद येना. पुस्तक वाचूंक घेतलें म्हळ्यार दिवो पेटोवचो पडटलो...तागेली न्हीद इबाडत...भायर उठून गेलें जाल्यार घरभर बोवाळ जातलो...हो घुस्मटमार सामको!

समीराचो उगडास आयलो...तसो खिणा-खिणाक ताजो उगडास येत रावता-खंय आसा तूं समीर ह्या वेळार? सोंसू नज असले व्यथेचे बांयंत पडिल्ल्या म्हाका सोडून खंय गेलो रे तूं समीर?

...समीराक हांव जाय, मनापासून जाय. तोय बाबडो हांतुणार न्हिदिल्ले कडेन न्हीद खळोवन येत्रजिता जातलो—'हांव तळमळूं...पुण सुधा सुखी जालें...मोग करप सोंपो...पुण लग्न जावन बायलेक सुखी करप कठीण. म्हज्या सारक्या संवसाराचे नदरेन बेकार आशिल्ल्या भुरग्या-च्यान सुधा सारकिले सुंदर चलयेक सुख दिवंक जावपाचें न्हय...श्रीमंताल्या घरांत पावलें तें...तागेले सोबितकायेचें चीज जालें...'

नारे समीर! चुकता तूं...आज जर तूं म्हजे बगलेक आसतो जाल्यार

म्हज्या गालावेलीं हीं दुकां तूं आपणाल्या ओंठांनीं लुसून म्हज्या कानांत सांगतलो आशिल्लो, " सुधा ! तूं सुंदर...तूं म्हजें सर्वस्व ! "

आनी म्हज्या धगधगत्या काळजाक थंडाय मेळटली आसली...ह्या आदीं जायत्यो खेपो अशेंच जाल्लें...तुजीं उतरां न्हय तुजें सान्निध्यच म्हाका थंडाय दिता...समीराक हांव जाय...आनी म्हाकाय समीर जाय– आनी राजेशाक ? राजेशाकय हांव जाय...ताका जसो सुंदर बंगलो...नव्या मॉडेलची मोटार जाय तशीच सोबीत सुंदर बायलय जाय...फकत सोबितच न्हय तर मॉडर्न बायल जाय !...आनी त्या खातीर तो म्हज्या सौंदर्याच्यो भगलो करूंक सोदता...नाटकातलें संवंग कशें म्हाका रंगोवंक सोदता... म्हज्यांतल्या बायलपणाची आहुती दिवंक सोदता...

...म्हजे नदरे मुखार म्हज्या वयाच्यो हेर चलयो येतात–घरांत सान्न मारपी...तांदूळ वेंचपी...शीत वाळपी...नुस्तें उजरावपी...भुरग्यांक ' घुश्शयो ' घालपी...पुण राजेश म्हणटा : त्यो घरच्यो वावराड्यो...हय समीर, ह्या बंगल्यांतले फास्केंतली बावली जावचे परस तुज्या घरची वाव-राडी जावपांतच म्हाका धन्यताय भोगतली आसली...म्हजी कूड हांगा– आल्तिन्यावेल्या बंगल्यांत आसा...पुण मन मात कोंकणी बायलेले रानचे कुडी कडेन ओंडटा.

" बापायलें तें शेणा-जमनिचें घर विसर...हांगा तूं म्हजी बायल. हांव दवरतां तशें राव–तळटावेलें फूल कशें ! " एक दीस राजेशान म्हाका सांगिल्लें.

लग्नांत राजेशाच्या गळ्यांत माळ घालून हांव फाटलें जिवीत विसरून व्हड उमेदीन ह्या घरांत आयिल्लें...आनी हांगा म्हज्यांतलें ' हांव ' पयल्याच दिसा मरून गेल्लें...करपून गेल्लें...पुण म्हजें मन अजून ओलें आसा–समीरा सांगातांत सारिल्ल्या खिणांच्या उगडासान...नटून–सजून केन्नाय हांव हारशामुखार उबें रावतां आनी म्हज्या म्हाकाच विचारतां– " सुधा तूंच ?...खंय गेली तुजी ती मोगाचे तळयेंत बुडून संवसाराक विसरपाची कल्पना ?... " म्हाका जाप सुचना आनी हांव कांचवेतां...

समीर, आज म्हज्या काळजांतलें पोरसूं करपून गेलां...तुज्या उगडासाचो कोनसो सोडलो जाल्यार हेर कडेन सगळें रेंवट जालां...ह्या तापांनी ती

रेंव तापल्या...सामकी धगधगता...एअरकंडिशन कूड लेगीत म्हाका थंडाय दिवंक पावना...हांव आतां द्वेश करतां—राजेशाचो.

फाटीं एक दीस म्हज्या हुजीर ताणें एके बायलेले साडयेची तोखणाय केली आनी म्हळें, "म्हजे बायलेक ती.नदरच ना !" त्या खिणार हांवें म्हळें, "म्हाका मागणी घाली ती तिकाच घालपाची !" आनी सदांभशेन जीब चाबली. देवा सायबा ! म्हजे जिबेक साप्प हाड ना...जोगुल पडचें तशीं उतरां ती उलोवन गेल्ली.

रातीकडेन हांव पोटभर रडलें...देवा ! म्हज्या नाकार असो राग तुवें कित्याक दवल्ला ! हांव इतलें हीण कशें जालें...

...समीर, तुवें म्हाका गौतम रुशिले अहिल्येची काणी एक दीस सांगिल्ली. याद आसा तुका ? ती एका परकी दादल्याचेर भाळिल्ली आनी देखून शिळा जावन पडिल्ली...म्हजेंय तशेंच घडपाचें आसा...पुण म्हजो उद्धार करपी राम मात कोण ना ! हांव तरी कितें करूं...मोगाक भुकेल्लें चली हांव...

...राजेशाले घरांत दरेक वस्तिचें रुपया आण्यांनीं मोल जाता. फाटीं आमच्या लग्नाची वर्सगांठ ताणें मनयली. कोणें कोणें कांय वस्ती भेट म्हणून दिल्ल्यो. रातीकडेन राजेशान म्हाका सांगलें—"ही वस्त अमक्या मोलाची ती अमक्यान दिल्या" आनी जी वस्त पयशांनी उणाक अशी आसली ती ताणें भायर उडयिल्ले भशेन कुशीक उडयली. ताका दिसता तो पयसो. माया, मोग पयशांनी विकतो घेवं नज हें ताका समजना.

...कसलीय वस्त जाय म्हळी जाल्यार ती तो हाडटा; रुपयाक धा रुपया खर्चिता. पुण मोग बाजारांत थोडोच मेळटा. तो मेळटो जाल्यार घडये राजेश कुडवभर विकतो हाडून म्हाका दितो. पुण तो मेळना आनी हांव सुखाचें ताट भरिल्लें आसतनाय मोगाचे भुकेन वळवळटां.

० ० ० ०

ल्हवू ल्हवू हांव पुरतें शिळा जावन पडलां आतां. आतां म्हाका राजेशाल्या कर्तुपाचो राग येना आनी ताजी खंतय दिसना...आतां म्हजो इंग्लेज

उच्चारय सुधाल्ला...हांवें म्हजें मन मारून उडयलां आनी घोवाच्या इशारतीचेर चलूंक लागलां...पुण जेन्ना जेन्ना समीराची याद येता तेन्ना तेन्ना खीणभर दिसता हें तंडावेलें 'मिसेस राजेश'चें रुपडें काडून भायर उडोवचें आनी सुधा जावन समीराचे वेंगेंत भितर सरचें...

...आनी मागीर एक दीस म्हज्यांतलें हांव जागें जालें. काळीज भरून आयलें. आतां हे शिळेचो उद्धार करूंक "राम" जल्माक येवपाचो आसा...राजेशाक अजून खबर ना...कळटलें तेन्ना तागेलें तुसडेपण ना जातलें...तो मागीर म्हाका बायल कशी वागणूक दितलो...नाय जाल्यार ताजीय जबाबदारी वाडटली...तो बापूय जातलो...आनी घोवा कडलें जें सुख म्हजा वांट्याक आयलें ना तें पोटच्या जिवा वरवीं हांव भोगतलें!

रातीकडेन हांवें पयलेच खेपे राजेशाले नदरेक नदर दिली...आनी तोय गडबडलो.

"राजेश!" ताजो हात हातांत घेवन तो म्हज्या गालार दवरून हांवें मायेस्त सुरांत म्हळे "दनपरां...दनपरां हांव..."

"कितें जालें? बेगीन सांग."

"हांव डॉक्टरागेर गेल्लें...आम्गेर...म्हाका..." लजेन हांव तांबडें जालें. म्हाका उतरच फुटना जालें.

"कितें जालें?" पर्थून राजेशान विचाल्लें.

"म्हाका दीस गेल्यात" सगळो नेट एकठावन हांवें जाप दिली आनी लजून उशांत तोंड रिगोवन बसलें.

दोन खीण राजेशाक उतर फुटलें ना...ताजी वाचा बसली. मागीर म्हजे फाटीर हात फिरावन आनी आपलें तोंड म्हज्या कानाकडेन हाडून ताणें म्हळें, "डाँट वरी...ताजी वेवस्ता करुंया!"

हीं उतरा कानांत पडना फुडें धरणीकंप जाल्ल्याचो भास म्हाका जालो. तकली वयर काडून हांवें राजेशाकडेन पळेलें.

"हय सुधा...बी ब्रेव्ह!...इतले बेगीन भुरगें जाल्यार तुजें 'फिगर' सोंपतलें..तूं किरकोळ बायल न्हय..."

हांव कोसळून जमनीर पडलें...म्हजे सगळें आंग कडूंक लागलें, गळूंक लागलें. दिसलें, मोग...लग्न...भुरगें...हें सगळें फट ! आनी नकळटां म्हाका हुडको फुटलो.

राजेश उठून भायर गेलो.

"...समीर, सांग...उलय...भोगलें अशें केन्ना सितेन ? शकुंतलेन ?... मागीर म्हज्याच वांट्याक हें कित्याक ?"

* * *

# कुसवो

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

पाण्ट्यार न्हाता आसतना शांताक पर्थून कालचे गजालिचो उगडास जालो आनी तिजो विसर पडचो म्हणून ताणें दाव्या हातान नाक दामून उदकांत बुचकळी मारली. पुण कालचो सगळो प्रसंग ताजे नदरे मुखार पर्थून उबो जालो. न्हाता आसतनाच ताजे दोळे हुनहुनीत दुकांनीं भरून आयले.

काल सकाळीं शांता कुळारा आयिल्लें तेन्ना तागेली मैत्रीण आपले णव म्हैन्याचे चलयेक घेवन दारांतच उबी आशिल्ली. सुशिलालें आनी शांतालें घर सामकें लागीं. दोगांल्याय घरा भोंवतणच्या पोरसाची वंय तितली मदीं आसली. अजुनय शांता कुडिच्या जनेलांत रावन आपले कुडिच्या जनेलांत आशिल्ल्या सुशिलाकडेन गजाली करता.

सुशिलाचेर नदर पडना फुडें शांता मार्गारच उबें रावलें आनी ताजी खबर घेतली. मागीर शांतान सुशिलाले चलयेक आपयलें. तें भुरगेंय उडी मारून शांताकडेन आयलें. शांता ताका धरुनच आपल्या बापायल्या घरांत भितर सल्लें.

दनपरां तें चलयेक तागेले आवयसरीं पावोवंक सुशीलागेर गेलें तेन्ना सुशिलाक तागेली आवय दडबडायताली– "कित्याक त्या वांजडा बरोबर धाडलें तुवें चलयेक ? कितेंय करून बी घालीत म्हणून भंय. दुसरे खेपे सांग भुरग्यांची उमेद आसत जाल्यार तुजो कुसवो उजय आनी ती भागय. ओगीच दुसऱ्यांल्या भुरग्यांक हाय घालूं नाका."

शांता दारांतच उल्लें. ताजो पांय फुडेंय उखलना जालो आनी फाटींय

सरना जालो. खिणाभरयान तें भितर गेलें आनी चलयेक मोन्यांनी सुशिला-कडेन दिवन फाटल्या पायांनी परतलें.

शांता ओल्यानींच वयर आयलें. हातांतलो तांबयो भरून हाडून भक्ती-भावान ताणें पिंपळाचीं मुळां शिंपलीं आनी उदेंतेक वयर सरतल्या सुर्याक पायां पडून मागलें, " आनीक अंत पळोवं नाका. देवा, पाव सायबा. "

काल त्या गुबगुबीत भुरग्याक धरीत सावन शांताली अस्वस्थता वाडिल्ली. तागेल्या गालांचो हुनहुनीत स्पर्श ताणें आपल्या ओठांनी घेतिल्लो. णव म्हयन्यांची ती चली परत परत तागेले छातयेकडेन तोंड व्हरून जेन्ना दूद मागताली तेन्ना जाल्यार शांतालें काळीज धडधडूंक लागतालें... एक फावट कोण नासो पळोवन शांतान ताका दुदाक धल्लें. बाबड्या भुरग्यान दोन मिनटां चोखलें...पुण दूद येना अशें पळोवन तें रडूंक लागलें.

उगडासा सरशीं शांतान दोळे धांपून कालचें सुख अणभवलें...रोख-डेंच ताजें आंग शिरशिल्लें...फांतोडेचो थंड वारो सुटिल्लो. शांताक कुडकुडो भल्लो. ताणें बेगिबेगीन आंग पुसलें, सुकें न्हेसण आंगार चडयलें आनी तें घरा येवंक भायर सल्लें.

अजून दीस पुरतो वयर सरूंक नाशिल्लो. गांव जागो जावंचो आशिल्लो. पयस झाडांमदीं देवळाचो भांगरा कळस कंवळ्या वताच्या किर्णानीं चकचक-तालो. सवण्याचो एक जोडो ताज्या माथ्यावेल्यान गीत गायत उडत गेलो.

शांताक अचकीत माधवाचो उगडास आयलो. लग्नाआदीं अशेंच एक दीस ते न्हावन ओल्यांनी घरा येतना हेच सुवातेर माधव ताज्या मुखार उबो राविल्लो आनी मात्सो लजेवन ताणें उलो केल्लो—" शांता ! "

तेन्ना आपली लज भीड सगळी सोडून शांतान उजव्या हातान ताज्या गालार थापट मारिल्लें. आनी " चूक जाली...पाया पडटां...म्हजो तुजेर मोग आसा ! " अशें म्हणत माधव पळून गेलो.

ही खबर आजवेर शांतान कोणाक सांगूंक नाशिल्ली. शांता रुपान

सुंदर आनी आंगान रसरशीत. ताका लागून तें सगळयांच्याच दोळयांत भरतालें. गांवचे जायते भुरगे ताजेर मोग करतात अशें भायल्या भायर ताणें आयकल्लें. तें आयकून ताका अभिमान दिसतालो; पुण कोणाचीच पर्वा दिसना आशिल्ली.

तें राजाची राणी जावंक सोदतालें. फुलांचे राशी वेल्यान अचळय चलूंक सोदतालें...आनी तें राजाची राणी जालेंय बी. पणजेच्या एका गर्भ-श्रीमंत घराण्याच्या एकल्या एकसुऱ्या कूळ–दिपकाची तें पट्टराणी जालें....

सात वर्सां जालीं हे गजालीक. माधव आज तीन भुरग्यांचो बापूय आनी शांता...राजाची राणी ? न्हय ! वांजूट ! !

येवजणीसरशीं शांतान कांचवेवन आंग काडलें. केदो वेळ तें उबें आसलें देव जाणा. ताणें दोळे उकते केले तेन्ना ताका कुचकुचीत फळांनी भरिल्लें पणसाचे झाड दिश्टी पडलें आनी ताज्या मुळांत आशिल्लो माधव.

“ केन्ना आयलें, शांता ? ” माधवान विचाल्लें.

“ कालच. ”

“ तरी म्हळें...बरें आसा मगो ?...भावोजी बी आयला काय एकलेंच आयलां ? ”

शांतान तागेल्या प्रस्नाची जाप दिली ना. तें एकासारकें माधावकडेन पळेत रावलें. मागीर आपणाक सांवरून घेवन ताणें विचाल्लें, “ आज सकाळीं फुडें रे सो पणसा मुळांत ?”

“ म्हगेलो व्हडलो चलो काल सावन पणस जाय म्हणून रडूंक बसला... जून जाला काय म्हणून पळोवंक आयिल्लों. ” माधवान जाप दिली.

“ तीन भुरगीं तुगेर न्हय ?” शांतान विचाल्लें.

“ देवाची करणी...दुसरें कितें ? दुडू दिता थंय भुरगीं दिना आनीं भुरगीं दिता थंय दुडू नासता. ” माधव हांसलो.

“ दुडवांक पेटय चुट्टी...भुरगीं हीच खरी गिरेस्तकाय ” अशें म्हणून शांता माधवासरी तेंकून उबें रावलें. ताज्या हाताक धरून शांतान

हळें, याद आसा तुका माधव ?...हांगाच हांवें तुजेर थापट मारिल्लें ?"
आनी ताणें आपलो हात ताज्या पोल्यावेल्यान भोंवडायलो.

"......"

"......"

दोनच मिनटांनीं बगलेच्या झिलांतल्या घोटेरांतलीं दोन सवणीं चींव...
चींव करून उडून गेलीं !

* * *

# वणत

φφφ φφφφφφφφφφφφ φφφφφφφφφφφφφ φφφφφφφφφφφφφφ

आज पर्थून म्हाका दिसलें, हांव जल्मुंकच नाशिल्लो जाल्यार ? जाल्यार, म्हज्या जिविताचें महाभारत घडपाचेंच न्हय आनी म्हज्या वांट्याक आज आयल्यात तसले मनस्तापय येवपाचे न्हय.

घडलें कितें ते सांगतां. सकाळी फुडेंच विणा आयलें आनी म्हज्या हातांत ताणें एक सिनेमाची तिकेट दिली : " आज ' शीला ' थिएटरात सुंदर पिक्चर लागलां. रातच्या साडेणवांची तिकेट ही...शिशीर भायल्या भायर येतलो...तूंय यो. "

आनी विणा ताकतिकेन वचूंक गेलें. खिणभर हांव तागेले फाटीकडेन पळेत रावलों. आनी मागीर भानार येवन सोफाचेर बसून सिगरेट पेटयली.

विणा ! शिशीर ! घोव–बायल ! म्हज्या शेजराच रावतात. पयलेच फावटीं ह्या जोडप्याची वळख जाली तेन्ना म्हाका दिसलें कि एकामेकांचेर इतलो उपाट मोग करपी जोडपें संवसारात दुसरें आसचें ना. शिशिराक हांवें तशें सांगलें लेगीत.

दोगांय दीसभर घराभायर उरतालीं. विणा कॉलेजांत लेक्चरर आनी शिशीर एक व्हड सरकारी अधिकारी. घोव बायल सकाळीं णव वरांचेर घरांतल्यान भायर सरतालीं. मदल्या वेळार विणा येवन वतालें. सांजवेळचेंय ते बेगीन घरा येतालें. पुण शिशिराक घरा परतूंक रात जाताली. सुमारा भायर रात. आठां पयली तो केन्नाच घरा पावनाशिल्लो.

आनी ह्या असल्या जिवितांक विणा उबगल्लें...ताका संवसाराची उमेद आसली. दीस बुडचे आदीं तरी शिशिरान घरा परत येवचें अशें ताका

सतालें. आनी विणा सारकी बायल घराकडेन वाट पळेत बसतकूच खय-
याय घोवाक घरची ओड दिसूंक फाव अशें म्हाका दिसता.

विणा सारकी बायल ! म्हजी गजाल वेगळी. हांव एकलो एकसुरो. म्हाका
णा विशीं तशें दिसलें जाल्यार अजाप ना. पुण विणा खरेंच वेगळें. ताचे-
रकी बायल मेळूंक भाग्य जाय. खंयच्याय दादल्याक अशेंच दिसूंक फाव.

विणा सुंदर अशें हांव म्हणिना. कारण ताज्याय परस सुंदर अशो
ायत्यो बायलो हांवे पळेल्यात. बदलत रावते फॅशनींक लागून सौंदर्य मेज-
ाच्यो नदरोय बदल्ल्यात. देखून सौंदर्य जोखूंक नज. पुण विणा मुखार
बें रावलें जाल्यार खंयच्याय दादल्याल्या काळजांतली तार धोलतली.
हज्या सारक्या ब्रह्मचाऱ्याचें तरी तशें घडलें. तागेलो तो सभावीक गोड
ांसो, नाजूक पूण आकर्षक आंगलोट, हांसरी नदर आनी आनंदीत तोंडा-
ळो. खरेंच विणा निरुपमा ! तशें ते विद्वान म्हणूं नज. पुण स्वताची
तां आशिल्ली एक सुशिक्षीत चली ती. दुसऱ्यालें म्हणणें थंडसाणेन आय-
ून घेवन आपलें म्हणणें तितलेच थंडसाणेन सांगपाचो ताजो गूण जायत्या
ाणांक प्रभावीत करता.

विणाची आनी म्हजी पयले खेपे वळख जाली ती कितल्या सादेपणान !
देल्लीक हांव नवोच रावंक गेल्लों. जोरबागाक एका दोन कुडिंच्या
लॅटांत हांव रावतालों. शेजराकच शिशिरालो फ्लॅट. हांव एकलो एकसुरो.
भावान मात्सो एकमुळो. दिल्ली सारकिल्या व्हड शारांत कोणाची वळख
ा देख. भरीक भाशेची अडचण. ताका लागून हांव खंयच भोंवंक वचना
ाशिल्लो वा कोणाकच मेळुंकय वचना आशिल्लों. रातिचो बेगीन न्हिदप,
काळीं फांत्यार उठप...सांजच्या वेळार पुस्तकां वाचप होच म्हजो उद्देग
ाल्लो.

एक दीस सांजवेळचो हांव पुस्तक वाचीत बशिल्लों तेन्ना म्हज्या नांवान
ायिल्लो एका बंगाली मासिकाचो आंक हातांत घेवन विणा आयलें. विणाची
ानी म्हजी ही पयली भेट !

'तुमीच आनंद...'

'हय' हांव उठून उबो रावलों.

'पोस्टमनान हो तुमचो आंक चुकून आमगेर उडयिल्लो...'

‘ तुमकां ओगीच त्रास पडले. थँक्यू ! ’ हांवें म्हळें...

विणा वच्चूंक घुंवलें. पुण रोखडेंच फाटीं परतलें. “ तुमी बंगाली ? ” ताणें विचारलें.

‘ न्हय, हांव कोंकणी–गोयचो ’ हांवें जाप दिली.

‘ आनी बंगाली वाचतात ?...’

‘ हय, शिकून घेतली ती भास...

‘ तुमकां पश्यत्ताप जांवचो ना; ती म्हजी आवयभास ’ विणान म्हळें आनी तें हांसलें.

कितलो गोड हांसो !

येदो वेळ आमी उबींच आशिल्लीं. हांव मात्सो भांबावन गेल्लों. हांवें विणाक बस म्हळें.

‘ ना वतां हांव...परत केन्नाय येन ’ अशें तोंडान म्हणत विणा सोफार बसलें. हांवय बसलों.

‘ म्हजें नांव विणा...’ ताणेंच सांगलें. कुशळ संगीतकारान विणाचेर सूर काडचो तसो तो आवाज लागलो म्हाका–‘ शिशीर बानर्जी म्हजो घरकार. ह्या शेजारच्या फ्लॅटांत आमी रावतात. ’

ताकतिकेन वळख दिली आनी विणा वच्चूंक उठलें. वतां वतां ताणें म्हळें, ‘ हें मासिक हांव वाचूंक व्हरूं ? ’

‘ बरे भशेन ’ हांवें तो आंक विणाच्या हातांत दिलो.

‘ बरे जालें पोस्टमनान चूक केली ती. एका निमित्तान तुमची वळख जाली. ’ आनी तें गेलें.

कांय दिसां भितरच आमची इश्टागत जाली. शिशीर मदीं मदीं म्हगेर येवंक लागलो. तो घरा आसलो जाल्यार केन्नाय पांच मिनटां खातीर जाल्यार केन्नाय वरांची वरां आमी झांकत बसूंक लागले. येदो व्हडलो अधिकारी ताजी मुलाखत घेवपा खातीर लोकांच्यो रांगो लागतात. पुण तो साजित्य आनी राजकर्णाचेर चर्चा करपा खातीर वरांची वरां म्हजेसरीं बसतालो. एक दोन फावटी विणा ताका आपोवंक आयलें जाल्यार न कळटां ताका उलोवपाक भागी करून घेवन आमचें त्रिकूट जमयलें.

दीस वचूंक लागले तेन्ना म्हाका दिसून आयलें कि विणा आनी शिशीर हांचे मदी मतभेदाचो एक पातळ पड्डो आसा हो पड्डो तांका जायते फावटी वेगळायता. शिशीर सदांच अधिकाराची भास उलयतालो. हेरांच्या भावनांची ताका चडशी कदर नासली. हाज्या उरफाटें विणा खूब भावना-प्रधान आसलें. तें सभावान मेकळें, मनान प्रेमळ आनी ताजी वाणी निर्मळ. शिशिराली वागणूक विणाक पसंत नासली. ताका दिसतालें कि शिशिरान आपलो सभाव बदलचो आनी हेरांच्या भावनांची कदर करची. पुण विणाल्यो भावना लेगीत जो वळखूंक पावलो ना तो शिशीर परक्यांल्यो भावना कसो वळखत ?

हळुहळू आमची इश्टागत वाडली. आमचे मदीं परकीपण उलें ना. विणा जायते फावटीं म्हगेर येवन गजाली करूंक बसूंक लागलें आनी हांवय मनांत आयलें जाल्यार संकोच करिनासतना तागेर वचून बसूंक लागलों. कितलेशेच फावटी आमी एकठांय च्या घेतली, जेवणां घेतलीं. आनी वेगळया वेगळया विशयांचेर पोटभर चर्चा केली. राजकर्णाविलीं म्हजीं आनी शिशिराचीं मतां कोणाक केन्नाच पटलीं नात. पुण आवाज व्हड करिना-सतना तें सदांच आमचे मुद्दे वयर काडपाचो यत्न करतालें. तागेली ती थंडसाण आनी उलोवपाची तरा पळोवन म्हाका तें खुबच आवडूंक लागलें.

पुण केन्नाकेन्नाय तें शिशिराचेर तिडकतालें. कारण शिशीर मुद्दो सारको आयकून घेना आसतनाच ताका तिडावचे खातिरच म्हणून विरोध करतालो. आनी तें तिडकून तांबडें जालें म्हणटकूच म्हाका म्हणटालो. "तुका दिसना आनंद, राग आयलो म्हणटकूच विणाली सोबितकाय टवटवीत जाता म्हणून...पळे, पळे तागेल्या गोऱ्या तोंडार रगत उसळटा...इट इज एन् इन्विटेशन. तूं नासतो जाल्यार..."

आनी हांव उठून उबो रावलों जाल्यार म्हज्या हाताक धरून तो म्हाका बसयतालो. म्हणटालो, 'आरे सभाग्या, ह्या रुपाचेर तूंय मोहीत जा. आंकवार तूं ! तुवें अशी फाट फिरायली जाल्यार विणाक आपलो अपमान जालो असें दिसचें ना ? "

मागीर विणा अदिकच रागार जातालें.

शिशीर फुडे म्हणटालो, " जाणा तूं आनंद...तिडटकच हें म्हाका किते सांगता तें ? म्हणटा, ' तुज्या सारको अरसीक घोव मेळचे परस आनंदा-सारको कलारसीक घोव मेळटा जाल्यार...? पुण म्हजें भाग्य फुटकें !... जाणा हें तूं ? ' आनी शिशीर हांसतालो. विणा मागीर उठून भितर वतालें.

असल्यो गजाली म्हाका सुखायताल्यो. त्यो पर्थून पर्थून घडच्यो अशें म्हाका मनापासून दिसतालें आनी नकळत म्हजी नदर बदल्ली. विणाले नदरेक नदर दिवन हांव तिजो थाव घेवंक लागलों...कसलेंय निमित्त करून तें गोड हांसलें ना जाल्यार कितेंय सांगपाचें निमित्त करून तें म्हगेर आयलें, ना जाल्यार ' वाज आयलो एकलें बसून ' अशें म्हणून तें खबरो करूंक बसलें...वा ' सदांच खानावळींत कित्याक जेवता, आज आमगेर यो अशें ताणे सांगलें म्हणटकूच म्हजी ती नदर तृप्त जाताली.

एक दीस हांव तांगेर जेवंक गेल्लों तेन्ना ताणें म्हाका आग्रो करून करून वाडलो. आनीक नाका म्हणून ताटार दावो हात आडवो धल्लो तेन्ना आपल्या हातान तों कुशीक काडून विणान वाडलें—' म्हज्या आग्रयाचें म्हणून हें इतलें जेव. ' ताणें सांगलें.

खीणभर म्हजो हात ताज्या हातांत उरिल्लो. ही पयलो स्पर्श अजून हांव विसरूंक ना. म्हजेर तें आतां अधिकार गाजयता हें पळोवन म्हज्या काळ-जांत कातकुतल्यो जाल्ल्यो. आनी पोट भरिल्लें आसतनाच हांवें ताट पुसून निवळ केलें.

एक दीस रातीकडेन शिशिराक येवंक कळाव जालो. आमी दोंगांय ताजी वाट पळेत गजाली करीत बसलीं. मध्यान रात जावन वतकूच शिशीर आयलो. तसो हांव उठलों. आनी हांवें शिशिराक म्हळें, " रातीवेळार अशी हांव तुगेले बायलेक कंपनी दितां हाजें तुका बायट दिसना मूं ? "

" नारे बाबा...तूं म्हळयार भिष्माचो अवतार...तुजेर म्हजो पूर्ण विस्वास ! " शिशिरान जाप दिली.

मागीर शिशिरान फुडें सांगलें, " जाणां तू आनंद, हांव विणाक सदांच सांगतां, तूं हेलन ऑफ ट्रॉय बरें जावशीत...पुण आनंद केन्नाच चळचो ना. "

पुण शिशिराली बेदरकारीच विणाक मानवनासली. आपले सुंदर तरूण बायलेचो हाका हुसको लेगीत ना हाजें ताका वायट दिसतालें. खंयय गेलो जाल्यार मध्यान रात जावन गेली तरी तो झांकत बसता...घराकडेन बायल दोळ्यांत तेल घालून वाट पळेता म्हणपाची हाका चिंताय नासता.

एका दिसा अशींच बशिल्लीं तेन्ना म्हाका विणान उबगून म्हळें 'घोवाची निंदा करप हें पातक हो संस्कार मनार जाला. पुण बुद्द म्हाका निंदा करूंक सांगता...हो घुस्मटमार सामको सोसूंक जायना...'

विणाली व्यथा हांव वळखतालों. म्हाका ताजी काकुळट येताली. एक दीस तेविशीं हांव शिशिराकडेन उलयलों. ताकाय तें खरें दिसलें. पुण ताजी वागणूक तशीच उल्ली. सभाव बदल्लो ना.

रातीकडेन वेळार हांव थिएटरांत पावलों. बगलेच्या सिटार विणा आशिल्लें. दुसरो सीट रिकामो. हांसून हांवें विणाक विचाल्लें, 'शिशीर आयलो ना?'

'याद आसा काय ना देवाक खबर!'

आनी तो आयलोच ना. सिनेमा सोंपसर आमी मदीं मदीं दोगांय रिकाम्या कदेला कडेन पळेतालीं. सिनेमांत म्हजें मन लागलें ना.

इंटरव्हलावेळार हावें विणाक म्हळें, 'या आमी घरा. घडये जिवाक बरें दिसना म्हणून तो घराकडेन वचून न्हिदला आसतलो.'

पुण विणान विरोध केलो 'नाका. तूं वतलो जाल्यार वच. म्हाका सिनेमा सगळो पळोवंक जाय. हुसको करूं नाका. चल तुगेल्या शिशिराक आधार दी.'

विणाली ही जाप आयकून हांव सुखावलों. त्या खिणाक म्हाका तें अदिकच आवडलें.

रातची आटो–रिक्षा करून आमी घरा आयलीं. वाटेर कोणूच कांयच उलयलें ना. पुण एकमेकांक तेंकून बशिल्लीं आमी. तीं धा मिनटां कसोटिचीं आसलीं. हांव बेभान जावंक वतालों. पुण संस्कारांनी म्हजेर निर्बंध दवल्लो.

घराकडेन देंवन फ्लॅटाची सोपणां चडटा आसतना विणान म्हळें ‘ हांवच म्हणून सोसतां...म्हज्या जाग्यार तूं आशिल्लो जाल्यार सोसंशीत आशिल्लो ? ’

हावें जाप दिली ना.

फ्लॅटाच्या दाराक कुलूप. शिशीर अजून घरा येवंक ना.

विणाकडच्यान चावी घेवन हांवें कुलपाची चावी काडली आनी दार उकतें केलें. हांव भितर सर्लो आनी दिवो पेटयलो.

खीणभर त्या दिव्याच्या उजवाडांत आमी एकमेकांच्या सामकार एक-मेकांक पळेत उबी रावलीं. म्हजी छाती वयर सकयल जाताली. दोळ्यांत धुंदी चडली, नकळटां हावें म्हजे हात फुडें केले...विणाक हांव वेंगांत घेवंक सोदतालों.

विणाच्या तोंडावेले भाव खिणा भरांत चार पांच फावटी बदल्ले. तें कितें येवजितालें आनी मनाची गांठ बांदतालें—निसरगोंठी पोड ओडून ती गांठ सोडटालें.

हांव अधीर जालों.

विणाल्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. साडयेच्या पदरान ताणें तीं पुसलीं—‘ बायटाण घेवक हांव तुका पालव कशें दिवं आनंद ? तुजेर शिशिराचो केदो भावार्थ ?...तागेली सुद्धा कित्याक मोडुंया ?...तुजेर भरंवसो म्हणुनच तो सिनेमाक आयलो ना...ताज्या मनान तूं ल्हान जाल्लो म्हाका नाका. तुका तो भिष्माचो अवतार मानता न्हय ?...चल तूं आता, सकाळीं च्याक हांगांच यो, वाट पळेतां. ’

हांव येवन हांतुणार पडलों. म्हज्या आनी विणामदीं वणत आसा. मनांत आयलें तकली आपटुची हे वणटीचेर...पुण...पुण ते वणटीन आमकां वेगळावंक नात, आमकां लागींच हाडल्यांत.

* * *

# मोनी व्यथा

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ-φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

शेताच्या बांदार कामाराली खोंप आसा. हे खोंपिच्या आंगणांतूच तागेलो भातो आसा. दनपारचो वेळ. दीस निकतोच माथ्यार पावलेलो. बांदावेल्यान चलतलो एक वाटसूर उबो रावन हें सगळें पळेतालो. दोळयां-मुखार कपलाचेर हात दवरून ताणें गांव पयस आसा म्हणपाचो थाव घेतलो आनी लेंसान हूम पुशीत–पुशीत तो कामाराल्या भात्याफुड्यांत येवन उबो रावलो.

" बरें गोंय मेस्ता. "

कामारान तकली वयर काडिनासतानाच " बरें गोंय " म्हळें आनी तो परत भातो फुलोवंक लागलो.

" इल्लो उदकाचो थेंबो मेळत मेस्ता ? " दोन मिनटां मोन्यांनी उबो रावल्या उपरांत वाटसुरान विचाल्लें.

कामारान भात्यावेलो हात सोडलो. हुमेन थपथपिल्लें आपलें आंग दोनूय पोशांनीं पुशीत पुशीत ताणें वाटसुराक पळोवन घेतलो आनी एकदम आपले बायलेक उलो माल्लो. " आगो जाकीन, हेका इल्लें उदक दी. " आनी मागीर वाटसुराकडेन तोंड फिरावन ताणें ताका विचाल्लें, " खंय-च्यान आयलाय तूं भावडी ?

" अंत्रुजेंतल्यान. दुर्भाटचो हांव. " वाटसुरान जाप दिली.

" बस...त्या माडामुळाच बस. ह्या बांदार खंय मेळूंक आयल्या सावळी ? "

वाटसूर बसलो. तितलें म्हणपार जाकिनान कुळण्यांत घालून उदक हाडलें. कुळणें वाटसुराच्या हातांत दिवन तें थंयच उबें रावलें. कुळणें घेता आसताना वाटसुरान ते सा-सात म्हयन्यांचे बायलेक पळोवन घेतली.

वाटसूर माडाचे फाटले वटेन उदक पियेता आसताना जाकिनान घोवाक विचाल्लें, " हो जेवणाक उरतलो ? "

" तेकाच विचार " मेस्तान जाप दिली आनी तो परतो भातो फुलवंक लागलो.

प्रस्न आनी जबाब दोनूय आयकून घेतिल्ल्या वाटसुरान म्हळें, " ना म्हजे धुवे, वेतां हांव आतां. "

" आतां वोताच्या भारार खंय वेतलो ? दोन गोटे जेवनूच वच. " भातो थांबयना आसतनाच कामारान म्हळें.

फुडलें उलवणें आयकूंक जाकीन थंय पावलें ना. रिकामें कुळणें घेवन तें खोपीत गेलें.

मेस्त सभावान मात्सो एकमुळो–सो. आपल्या गिरायकाकडेन उलोवपाची भास तितली ताका येताली. वाटसुरान मात्शें खांकलेले भाशेन केलें आनी माडाच्या मुळाचेर तो लकणेलो.

ताजेकडेन पळेना आसतानाच मेस्तान दोन विडयो आनी फस्क म्हऱ्यांत उडयलें आनी परतों भातो सुरू केलो.

वाटसूर मेस्ताली ही मौनी पुण मोगाळ वागणूक पळयत आसलो. इतलो मायेस्त हो कामार असो मुखदुर्बळ कसो ? ताका प्रस्न पडलो.

थोड्या वेळा उपरांत एक सुणें शेंपडी हालयत–हालयत आनी जमीन हुंगत–हुंगत भात्याच्या म्हऱ्यांत आयलें आनी तुकू तुकू करून वाटसुराक पळो ंक लागलें.

वाटसुरान हात दाखोवन ताका म्हऱ्यांत आपयलें आनी तो ताजी फाट सांसपूंक लागलो.

" ए ! " कामार आडुलो. आनी आपलो भातो सोडून तो उठलो. भिरांतेन किळांच मारून सुणें पसार जालें. विशेक धेंपां वतकच लाचार, करूण नदर करून तें ह्या मेस्ताक पळोवंक लागलें.

वाटसुराक कांयच बोध जालो ना. इतलो थंड, मायेस्त हो मेस्त त्या सुण्याचेर इतलो खुबळ्ळो कित्याक ?

" चल भावडी. हात धुये. " बगलेकच एक मडकें आसलें थंय बोट दाखोवन मेस्तान म्हळें.

वाटसूर उठलो. मेस्त घरांत गेलो.

ते ल्हानशे खोंपींत दोगूय जेवंक बसले. जाकीन वाडटालें.

जेवता आसतना वाटासुराक परती-परती त्या सुण्याची याद येताली. आनी तागेली ती करूण लाचार नदर नदरे फुड्यांत येताली. दोन उंडयो जेवल्या उपरांत ताणें यजमान्याकडेन पळेलें. ताका अजाप जालें. तीच लाचारी आनी तेंच कारुण्य घोवा बायलेच्या दोळयांनी आसपावलेलें. तिसरी उंडी ताज्या ताळयासकल देंवना जाली.

इतले म्हणसर मुखावेल्या दारांतल्यान त्या व्हदळच्या सुण्यान तकली भितर घाली. हातांतलें कडयेचें कुळणें जमनीर दवरून जाकीनान सान्निचो खुंटो हातांत घेतलो. पुण ताज्यान तो खुंटो उबारूंक जायना जालो...

" चल भायर, उंवाळण घाल्ल्या " कामार आडुलो, " ना जाल्यार धेंपां मोडून घालतलों. "

पुण दोळयांत लाचारी घेवन अर्दी जीब भायर काडिल्लें सुणें थंयच उबें आसलें.

आतां जाकीनान दोळे धांपून घेतले आनी हातांतलो सान्निचो खुंटो सुण्याचेर शेंवटिलो.

" पँ...अँ...अँ. " करीत सुणे गेलें आनी जाकीन मुळूमुळू रडूंक लागलें.

" रडूं नाका, जाकीन. " भल्लेल्या गळयान कामार बायलेक समजा-यतालो. दोळे पोशेत पोशेत जाकीन भायर गेलें.

वाटसूर बाबडो सामकोच गोंदळून गेलो.

" कांय ना. जेय तूं भावडी. " कामरान म्हळें.

" पुण जालें कितें तें सांगशीत ? " वाटसुरान कामाराक विचाल्लें, " जेवण उणें बी नामू ? "

“ ना रे बाबा ” कामारान म्हळें, “ ती एक वेगळीच काणी. देवाचे कुरपेन घरांत जेवणाक ना ना. ”

“ मागीर त्या बाबड्या सुण्याक तुमी अशीं खुबळायतात कित्याक ? कोणालें सुणें तें ? ”

“ आयक सांगतां ” दाटून आयलेलो गळो खांकून सदळ करीत कामारान म्हळें, ‘ पोरुंची गजाल. आमची निक्कीच दिमखुल्यांनी चल्लूंक लागिल्ली चली...ह्या बांदावेल्यान शेतांत पडली. हांव घेवन बसलेलों भातो आनी जाकीन रान्नीकडेन आसलें. कोणाक खबर ती केन्ना थंय पडलेली म्हुण ? दनपरां जेवणा वेळार पळे जाल्यार बाय ना. कितले उले माल्ले, कितले सोदलें. सांजवेळ जावंक आयली तरी चली मेळ्ळी ना. मागीर एकदम हें सुणें आयलें. ताज्या तोंडात आसल्यो आंतकड्यो...म्हजे चलयेच्यो...” आनी कामार व्हडाव्हडान रडूंक लागलो.

वाटसुरान आपलो हात कामाराले फाटीवेल्यान भोंवडायलो. मागीर हुडके दीत दीत कामारान म्हळें: “ कितें घडलें आनी कात घडलें देवाक खबर. पुण ह्या सुण्याचेर म्हज्यान नदर घालूंक नज. आमचेंच सुणें तें. येता बगलेक, पांय व्हेंवता, आंगाक घसटता. पुण म्हज्यान ताका सोसूंक नज. कितलेंय धांवडायलें जाल्यारूय परत येता. तूं सांग, कितें करूं हांव ह्या सुण्याक ? ”

वाटसूर ओगो आसलो. कामारान आपले दोळे पुसले आनी फुडें म्हळें, “ म्हजी बायल ह्या सुण्याचेर पोटच्या पोरावरी मोग करी...आतां ताजेर नदर पडनाफुडें रडटा...तूं जेय. हांव पळोवन येतां जाकीनाक. ”

कामार उठलो. वाटसुराच्यान बसूंक नज जालें.

भायर दारांत जाकीन रडटालें आनी ताका घोव समजायतालो. पयस माडामुळांत तें सुणें आसलें. आपली लाचार करूण नदर ह्या जोडप्याचेर थिरावन.

वाटसुराच्यान रावं नज जालें. तो त्या सुण्याच्या म्हऱ्यांत गेलो आनी ताणे ताजी फाट सांसपीत म्हळें, “ रडूं नाका. ह्या संवसारातलेच भोग हे. हे जाळ कोणाक चुकल्यात ? ”

सुण्यान आपले फुडले पांय उकडयां बसलेल्या वाटसुराच्या खांदार दवल्ले आनी तें ताजें तोंड चाटूंक लागलें.

बायलेक समजायतल्या कामारान जेन्ना हें पळेलें तेन्ना तिडकीन तो थरथरूंक लागलो. तापून तो वाटसुराच्या आंगार आयलो. पुण ताजेकडेन ल्यान दिना आसताना वाटसुरान सुण्याक म्हळें, "पळे, कोणाचेरूच जीव करचो न्हय. चड मोग करचो न्हय!"

आनी मागीर उबो रावन ताणें कामाराक "बरें गोंय" केलें. पुण मागेलें बायलेक कितें सांगचें हें ताका समजना जालें. तशीच एक नदर तिजेर धुंवडावन तो वचूंक लागलो.

चार थेंपा वतकच फाट धुंवडावन पळे जाल्यार जाकीन त्या सुण्याक वेंग मारून बसलेलें वाटसुरान पळेलें. कामार थंयच उबो आसलो. आनी दोशयेन शेंपडी हालयत सुणें थरथरतालें!

* * *

# सदाशीव

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ-φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

भायले वटेन पावस पडला. आनी आपले कुडिच्या दारांत लोदांच्या ओंस्तेराचेर बसून सदाशीव विडी ओडटा. हालीं तागेली विडी वाडय्या खाकेन जीव आकून पिकूळ जाता. पुण तो विडी सोडिना.

आतांय ताणें एक व्हड झुरको घेतलो. आनी नाका—तोंडांतल्यान धुंवराचो लोट सोडलो. काळजावेलें चेपण ल्हव जाल्लेभशेन दिसलें ताका.

चाळींतलें बिराड सोडून नव्या घरांत रावंक गेल्यार सुशिलाक फाल्यां आठ दीस जातात...वचूं बाबडें, खंयय वचूं सुखान रावूं...हे काळखी कुडींत रावन ताजें जिवीत सुखी कशें जातलें आशिल्लें? सुशिला वांगडा आसा धाकली भयण आनी आवय. तांकांय बरे दीस पळोवपाचें भाग्य मेळ्ळें. आतां घरांत दोन पयशे येवंक लागल्यात. व्हड व्हड क्लबांतल्यान सुशिलाक आपोवणे येतात. दोन वरांच्या नाचाक पाऊणशें रुपया. नांवय बदल्लां आतां ताणें, सुशिलांतलें सु गाळ्ळां. शिला! नाचूंक लागतकच सु सोडचें पडटा काय कोण जाणा?

बशिल्लेकडेन सदाशीव हें सगळें येवजिता...आतां येवजप आनी पोरण्यो यादी उस्तुवप ह्याभायर तो आनी कितें करतलो? आतां सुशिला ताज्या हाताभायर गेलां. स वरसां मजगतीं उलगलीं. सदाशीव तसोच उल्लो—एक सादो क्लार्क. आनी सुशिला शिला जालें.

स वरसां आदलो तो प्रसंग अजून ताका याद आसा. पिनको स्कर्ट घालून सुशिला तागेले कुडींत आयिल्लें. तेन्ना ताजी पिराय आसत चवदा वरसांची. रसरशीत नाख आनी सुंदर दोळे.

" आठ आणे मेळत ? " लज, लाचारी आवाजांत आनी नदरेंत
कवठावन ताणें सदाशिवाक विचाल्लें.

सदाशीव समजलो. दनपारच्या जेवणाक तांदूळ हाडूंक पयशे उणे पड-
त. तो उठलो आनी बोल्सांतली मोड काडली. साडेणव आणे आसले.
ताणे सुशिलाच्या हातार दवल्ले.

" स पयशे चड आयल्यात. " ताणें मेजून जातकच सदाशिवाक सांगिल्लें
" आसूं. तुका दवर ते. " अशें सदाशिवान सांगलें. तेन्ना तें कितलें
ुयालभरीत जालें ! " म्हाका ? " अजापून ताणें विचारिल्लें.

" हय. "

आनी सुशिलान उडी माल्ली.

सदाशिवाक दिसलें सुशिलाक हात लावचो. पुण ताजो हात फुडें
ल्लो ना.

हरशींय जाल्यार सदाशीव भिजूड.

× × ×

मॅट्रिक पास जायनाफुडें मुंबय ताणें नोकरी धरिल्ली. घरा गोंयांत सगळें
कुटुंब आसा. वरसांतल्यान म्हयनोभर तो घरा वता. मुंबय चाळींतले एक
वणी कुडींत रावता. खानावळींत जेवता.

सुशिलाची आवय खेयच्या तरी हॉस्पिटलांत नर्स आसा. दोगां भुरग्यांचो
ंवसार तिका मेळटा. त्या पगारांतल्यान तिज्यान चलोवंक जायना. आनी
तिका आधार करपाची तांक सदाशिवाकय ना. पुण ओव्हरटायमाचे जे
ोडे पयशे तो जोडटा तांतल्यान आपले विडयेचो खर्च भागयता आनी
मडचल्ल्या वेळार सुशिलाक आठ आणे-रुपया दिता. मागतना सुशिला
धार मागना आनी दिता आसतना सदाशीवय ते भावनेन दिना.

सदाशिवाक मनांत दिसतालें, मावशी पयशे मागपाचे वेळार आपूण येना
ा धाकल्या वासंतीक धाडिना. सुशिलाकच धाडटा तेन्ना तिज्या मनांत
कतेंय आसुंये. ही कल्पना ताका सुखायताली...सुशिलाकडेन लग्न जावपाची
ल्पना ताका मानविल्ली...जात धर्म हांचो मेळ बशिल्लो. कुटुंब गरीब
रें...सदाशिवासारको जोडकार जांवय मेळ्ळयार मावशेक नाका जातलो
ोडोच !

[ ४ ]

पुण जालें न्हयतेंच. कितें जाता हें समजुचे आदींच सुशिलान बिराड बदलिल्लें. ताजें रूप बदलिल्लें. नांवय बदलिल्लें.

तोडांतलें विडये पोंतेर पालविल्लें. ताणें तें भायर उडयलें आनी नवी विडी पेटयली.

× × ×

आतां सुशिलाच्या आंगार साडी चडिल्ली. तें तोंडाक स्नो–पोव लावंक लागिल्लें. केंसाच्योय परीपरी करतालें...पुण स्कर्ट घाल्लें, केंसांची घट्ट फांती घाल्लें सुशिला तितलेंच सुंदर आसलें. आनी देखुनच त्या वेळार तें भायर उकत्या पायांनी भोंवता आसतना जायल्या जाणांच्यो नदरो ताजेर थिरावताल्यो. पुण सुशिलाक त्या नदरांची भोव पर्वा. तें आपलें मेकळ्या मनान भोंवतालें–सवण्या वरी.

अशा सुशिलाक सदाशिवान मनांतल्या मनांत पसंत केल्लें. पुण तागेली येवजण मनांतच उल्ली. ती तो उलोवन दाखोवंक पावलोच ना. सुशिला-कडेन उलयलो ना. आनी मावशेकडेनय उलयलो ना. तांकां कितें दिसत हें येवजुनच तो फाटीं सल्लो...

× × ×

उबाळाच्या दिसांनी एक दीस सदाशीव उकतोच बशिल्लो. इतलें म्हणसर सुशील आयलें. " आवय ! कितलें कुचकुचीत घामोळें ! " अशें म्हणून सुशिलान ताका विचाल्लें; " मारूं ? " आनी सदाशिबाली जाप आयकुचे पयलींच तें ताज्या फाटल्यान बसून आपलीं नाजूक बोटां ताज्या फाटीवेल्यान भोंवडावंक लागलें. सदाशिवाक घुस्मटिल्ले भशेन जालें. तागेल्या नाखटाचो स्पर्श ताजें सगळें आंग थरथरायतालो. तो सुखावलो.

घामोळें मारता आसतना मदींच सुशिलाचे उस्वास ताजे फाटीर पडूंक लागले. आपलें काळीज धडधडटा तें ताणें निवळ बरें आयकलें. आनी एकदम तो उठून उबो रावलो.

" तूं कित्याक आयिल्लें ? मावशी तुजी वाट पळेता जातली. " ताणें म्हळें.

" बरी याद जाली. पांच रुपया आसात तुजेकडेन ? "

बोल्सांत फक्त पांच रुपया आशिल्ले. म्हयनो सोंपूंक पाविल्लो. हे पांच
पया दिले जाल्यार ताका खानावळींत उदार जेवचें पडटलें. जाता. पुण
ुशिलाक रिकाम्या हातान कशें परत धाडटलो ?

× × ×

एक दीस सुशिला आयलें आनी ताणें सदाशिवाक सांगलें, " आज
ामगेर पणसाचें धोणस केलां. सांजवेळा आईन तुका आपयला. "

सदाशिवाचें काळीज ओगीच धडधडूंक लागलें. तो सुशिलाक पळेत
ावलो.

" यो आं. आयल्याबगर रावं नाका. आयलो ना जाल्यार आईक राग
तलो, " अशें सांगून तें गेलें.

सांजचें वचचें अशें सदाशिवान थारायलें. ऑफीसांतल्यान तो नीट घरा
ायलोय बी. पुण मागीर तो गेलो ना. थोडोसो लजेलो. मात्सो भियेलोय.
ाक्यावेल्या इराण्याच्या दुकानांत वचून तो च्या पियेवंक बसलो.
ापूण कित्याक गेलो ना हें ताजें ताकाच खबर नाशिल्लें......

× × ×

फुडें सदाशीव गेलो तांगेर. एक वेळ न्हय धा वेळ गेलो. पुण तेन्ना
ळाव जाल्लो. तेन्ना अठरा वरसांचें सुशिला नाच शिकूंक लागिल्लें. एक
ास्तर ताका शिकोवंक येतालो, आवयल्या मावळ्यालो पूत खंय तो—
ी. दामोदर.

डी दामोदराक सदाशिवान केन्नाच पळोवंक ना. पुण ताजी तुस्त तो
ुशिलाकडल्यानच आयकतालो. मेळिल्लेय फावटी कितें ती दामोदराची
बर. सुशिला सांगतालें आनी सदाशीव आयकतालो. एकूय फावटी सुशिलान
जाल सांगता आसतना नदर वयर करून सदाशिवाकडेन पळेलें ना.
ळेल्लें जाल्यार तागेली व्यथा सुशिलाक दिश्टी पडटली आसली. पुण तशें
न्नाच जालें ना.

" दामोदरभाऊन सांगलां आनीक स म्हयन्यांनीं म्हज्यान स्टेजीर नाचूंक
तलें. मागीर हांव जोडूंक लागतलें,..." सुशिला उलयत रावतालें. सदा-
ावाक आयकूं नज जातालें. पुण तो मोन्यानी आयकतालो.

× × ×

आनी मागीर सुशिला सदाशिवाले कुडींत येना जालें. आतां घरांत दोन पयशे येवंक लागिल्लें. पुण घरांतल्यान भायर सरतना वा घरा परतता आसतना तें ताका दिश्टी पडटालें...खरेंच सुशीलच तें ? ताका भ्रम पडटालो. सुशिला इतलें सुंदर ! नदर पडल्यार थंयची हालना आसली. पुण सुशिलाक सदाशिवाक जाप दिवपाचीय फुरसद नासली. दोळ्यांनींच हांशिल्लें भशेन करून वळखतां तुका म्हणून सांगिल्लेभशेन तें करतालें.

सदाशीव फक्कत सुस्कारो सोडटालो.

× × ×

एक दीस सामकेंच रावं नज जावन तो सुशिलागेर गेलो. सांजेवेळचो. निकतेच दिवे लागिल्ले. भायरच एका ऑल्तेराचेर सुशिला एका चित्राचे मासीक पळेत बशिल्लें. सदाशिवाचेर नदर पडनाफुडें हांसत उबें रावलें. "यो सदाभाऊ, आज वाट चुकलो काय कितें ?" अशें म्हळें आनी भितर गेलें. मावशी भायर आयली. "जावं पुता नशीब आमचें. बस." तिणें म्हळें. सदाशीव बसलो.

मावशेन वासंतीक उलो माल्लो, "वासंती सदाशीव आयला. च्याव उडय."

वासंती सुशिलापरस तीन वर्सांनी ल्हान. मात्शें काळें आनी आंगान मोटें. तें आंगाक फ्रॉक घालता.

सदाशीव कदेलार बसून सुशिलाची वाट पळेत रावलो. ताका दिसलें केंस–न्हेसण सारकें करून सुशील येतलें. पुण खूब वेळ जालो. तें आयलें ना. च्या घेवन वासंतीच आयलें.

च्याचो एक घोंट घेवन धीर करून ताणे वासंतीक विचाल्लें, "सुशील खंय ?"

वासंती हांसलें. "तें आतां भायर सरता. आज तागेली रिहर्सल. पर प्रोग्राम आसा." सदाशीव समजलो. सांगपाचें सार म्हळ्यार सुशिलाक वेळ ना.

तरी ताणें विचाल्लें, "मागीर तें मेकळें केन्ना आसतलें ?"

"सांगूं नज. कित्याक ? कितें काम आशिल्लें ?"

"ना. काम कांय ना. हरशीं विचारलें." अशें म्हणून सदाशीव उठले

फुडल्या सप्तकांत तो पर्थून गेलो. पुण सुशील मेळ्ळें ना. ताजे फुडले
पे तो गेलो तेन्ना सुशील सोपणां देंवतालें. सदाशिवाक पळोवन थांबलें.
म्हाका कितें सांगचेंलें आसा ?" ताणें विचाल्लें. सदाशिवाक जाप
टली ना. "वतां हांव. वेळ जाता. ते रावतले." अशें म्हणून सुशील
चूंक गेलें.

त्या दिसा सदाशिवान निश्चय केलो. ह्याफुडें सुशिलागेर पांय दिवप
. पुण मनान दुबळो तो. परत गेलोच...तो गेलो. पुण आतां सुशिला
ाज्या हाताभायर पाविल्लें. आतां तें सुशिला न्हय...तें शिला जाल्लें !

× × ×

आनी सदाशीव ?

तो सदाशिवच उरिल्लो. एक जीव आनी सदाशीव. तो दोन दीस
ऑफिसाक गेलो ना. तागेली विडी वाडली. ओगींच बशिल्लेकडेन दोळे
ारून येवंक लागले...तागेल्या जिवितांत आतां उमेदच नाजाली.

तरी तो अदींमदीं सुशिलागेर वता. फक्कत ताका दोळेभर पळोवन
ेवंक. केन्नाय सुशिला ताजेकडेन दोन गजाली उलयता. पुण त्योय बी
ाचाच्योच. ताका त्यो आयकूंक नाका आसतात. पुण सुशील उलयता
्हणून तो आयकता. केन्नाकेन्नाय ताजी पर्वा लेगीत करिना आसतना
ुशील जोत्याचो टपटप आवाज काडीत वता...तेन्ना सदाशिवाक आपल्याच
ाल्याचेर जोतें मारिल्ले भाशेन दिसता.

अशा वेळार वासंती येवन विचारता, "सदाभाऊ, च्या करूं ?"

तागेली आवय मदींच म्हणटा, "वासंती, च्या कशी करतलें तूं ? रान्नीर
ाताचें आदन आसा." सदाशीव समजता. आपूण येता तें मावशेक रुचना.

पुण वासंती म्हणटा, "स्टोवार करतां. बस तूं सदाभाऊ."

आनी तो बसता...अजून हो क्रम चल्ला. सुशिलाची कीर्त आनी जोड
ाडत वता तशें ताज्या आनी सदाशिवामदलें अंतरय वाडता. पुण मदीं
दीं सदाशीव सुशिलागेर वता फक्कत ताका दोळेभर पळोवन घेवंक.

× × ×

भायर पावस पडटा. सदाशीव तिसरी विडी पेटयता. व्हड झुरको घेवन नाखांतल्यान आनी तोंडांतल्यान धुंवराचो लोट सोडटा. ताका आतां मात्शें बरें दिसता.

सदाशीव उठलो. आतां रात जाल्या. अजून तो जेवंक ना. ताका भूक ना. तो भितर वता आनी हांतुणार आडवो जाता.

× × ×

भायले वाटेन दारार कोण तरी मारता. केदो वेळ मारता. सदाशिवा लो निकतोच दोळो लागिल्लो. दारार मारिल्ल्याचो आवाज आयकतकच तो ओगीच भियेता. उठून दिवो पेटयता आनी दार उकतें करता.

दारांत वासंती उबें.

सदाशीव सामको गोंदळटा. ताका आपूण जागो आसा काय सपनांत आसा असो भ्रम पडटा. ल्हवूच तो आपल्या हाताक चिमटो काडटा... जागो आसा तो.

"चल सदाभाऊ चल. वेगीन. तुका सुशिलान आपयलां."

"म्हाका!" सदाशीव अजापून वता. तो भियेल्लेभशेन आंग काडटा आनी दुसऱ्याच खिणाक विचारता, "कितें जालें?"

ह्या वेळार आपली याद सुशिलाक कशी जाली? ताका ओगीच दुबाव येता.

"सगळें मागीर सांगतां...पयलीं भायर सर." वासंती म्हणटा.

सदाशीव वेगिवेगीन आंगार पँट आनी बुशशर्ट चडयता आनी दाराक कुलप लायता.

मार्गार येता आसतना वासंती म्हणटा—"आज नाच करता आसतना पांय निसरून पडलें. दाव्या पांयाचें हाड मोडलें...हॉस्पिटलांत आसा.. थंयच तुका आपयला."

आनी दोगांय हॉस्पिटलाचे वाटेन चलूंक लागतात.

* * *

# कविची बायल

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ-φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

आयतारा दिसा पावस आयलो. सप्तकांतल्यान एक दीस सुटी. पुण याय दिसा पावस. कुसुम जनेलांत उबें रावन नळयांवेल्यान गळटल्या ांवळ्यांकडेन पळेता. माधव खाटेचेर फाटीक उशें तेंकोवन बसला आनी ाचता. कुसुमान आपली नदर घोवाकडेन घुंवडायली. तो वाचपांत गुल्ल ाला. ताणें नदर परत भायलेवटच्यान व्हेली.

लग्नाची हळद अजून पुरती पुसून वंचूक ना. पुण कुसुमाक दिसलें ाव्यांतलें जग संवसारांत नासता...येवंकच शकना. कविच्या मोगांत तें डलें तेन्ना सुमनान, तागेले मैत्रिणीन ताका म्हणिल्लें, ‘ कविच्या कवितांचेरच क्कत मोग करचेलो आसता; कवीचेर न्हय. ’ तेन्ना कुसुम फक्कत हांशिल्लें. ाका दिशिल्लें, सुमनान केल्लें तेंय एक काव्यच...अजून प्रणयाची धुन्द ारकी देवंक ना, उमेदिचीं ल्हारां विरूंक नात...पुण वाचपांतल्यानच ाधव परम सूख अणभवतालो आनी कुसुम......

मुखावेल्या घराचे वणटीकुशीक पांवळ्यांचें उदक लागचें न्हय म्हणून ांग चोरून एक पारवीण बशिल्ली. तोंच बंद दवरून गळयांतल्या गळयांत ी घुमघुमताली...कुसुमाली नदर तिजेर पडली आनी ताजें काळीज कळ- ळ्ळें. ताका दिसलें तिका भितर हाडल्यार घडये ती वांचत...

जनेलाकडच्यान कुसुम खाटे म्हऱ्यांत आयलें ‘ ती पारवीण...मोंगू !...’ ोवाक ताणें सांगलें.

‘ ऊं...’ माधव वाचतालो.

‘ ती पारवीण...’

'पारवीण ?' माधवान पुस्तकांतली नदर वयर काडली.

'थंय...भायर वणटीकुशीक भिजल्या...कुडकुडटा.'

'मागीर ?'

'तिका हाडया...भितर हाडया...घडये वांचत.'

'पारवो ?...पारव्याखातीर तूं कित्याक कळवळटा गो ? अशे कितले पारवे भिजतात जातले !' माधवान आपली नदर परत पुस्तकाचेर थिरायली. आनी मागीर एकदम विचाल्लें, 'पारवीण म्हण न्हय तूं ?...तुका कशें कळ्ळें ती पारवीण म्हणून ?'

कुसुम कांय उलयलें ना. आंगठ्यान जमीन कोरांतिल्ले भशेन करीत आपलेकडेनच उलयल्लेवरी ताणें ल्हवू म्हळें, 'हांव जाणां...ती पारविणच... बाबडी सामकी भिजल्या.'

माधवान आनीक कांय विचाल्लें ना. फाटीकडेन घेतिल्ल्या उशाचेर तकली दवल्ली आनी पांय मेकळे करून तो परत वाचूंक लागलो. उटंगारांचो पावस पडटालो, मदीं मदीं जोगलावतालें. उदकाचे लोट व्हांवताले...

'तूं पावसांत भिजशी बी' पुस्तकांतली नदर वयर करिनासतनाच माधवान म्हळें.

कुसुम ओगी रावलें.

कांय वेळान रावं नज जावन कुसुमान दार उकतें केलें. सामकार आपल्या घराच्या दारांत पिजाम आनी बानयान घालून आंतोन उबो आसलो. कुसुम हांसलें. आंतोनीक तें वळखता. वेलेचाराचीच वळख ती तो तांचो शेजारी.

'आगे, भिजतली तूं' आंतोनीन म्हळें. दाराक तेंकून उबो रावन तो सिगार ओडटालो.

'थंय एक पारवीण आसली.' कुसुमान म्हळें आनी आपली जीब चाबली. आंतोनील्या घराचे वणटिच्या आडोशाकच ती पारवीण आंग चोरून बशिल्ली. पुण आतां ती थंय नासली.

'पारवीण ?' अजापून आंतोनीन विचाल्लें.

'हय...पुण आतां ना ती थंय. ती भिजिल्ली आनी कांकडेताली... तिका उडूंक येना आशिल्लें दिसता.'

' पावसान तिगेले पांखाटे भिजिल्ले जातले. '

' तिका व्हरूंक म्हणून हांव आयिल्लें. पुण आतां ती ना थंय...बाबडी मरून वचत म्हणून वांचयन दिसलें...कित्याक कोण जाणा पुण म्हाका तिजी काकुळट दिसली. '

' हांव धरून दितां. खंय आसा ती ? ' आनी आंतोन भायर आयलो. पावसान तो भिजलो.

' आतां ना ती थंय...थंय ना ती. ' ताकतिकेन धापेल्लेभशेन कुसुमान म्हळें.

आनी खिणाभरयांत तें घरांत आयलें.

आवाजासरशीं माधवान तकली वयर काडली. ' आयलें घेवन तुगेली पारवीण ? '

कुसुम उलयलें ना.

माधव ताका पळेत रावलो.

' खंय गेली कोण जाणा ! ' कुसुमान म्हळें.

' आसतली थंयच. ती आनी खंय वतली ?...तुका एक एक येवजता बरें '...माधव हांसलो, ' ...तेपरस कितेंय वाच. ' आनी पर्थून ताणें आपली नदर पुस्तकांत थिरायली.

' म्हाका...हुसको दिसता. ' ल्हवूच कुसुमान म्हळें, ' कितें जालें काय तिका ? तिगेली पांखां भिजून सामकीं चिंब जाल्लीं...' आनी कुसुमाल्या दोळ्यांच्यो पातयो ओल्यो जाल्यो.

तें हारशामुखार वचून उबें रावलें. दोळे तांबडे जाल्ले. साडयेच्या पदरान ताणें ते पुसले. आनी हातार इल्लो पोव घेवन तो तोंडाक लायलो. केंसांवेल्यान दांतोणी भोंवडायली.

माधव वाचतालो.

फांतयेपरस आंबाडोच म्हाका सोबता न्हय ? ' कुसुमान विचाल्लें.

माधवान एक उस्वास सोडलो. जाप दिली ना.

' म्हाका फांती सोबता काय आंबाडो ? '

माधवान नदर वयर करून ताका पळेलें. म्हळें, ' सुंदर दिसता. '

कुसुम घोवाकडेन पळेत रावलें. दोळे मोटे करून तें विचारतालें, ‘ सुंदर कितें ? ’

पुण माधव परत वाचूंक लागिल्लो. कुसुम कांयच उलयलें ना. भायर गडगड आनी जोगलां हांचो नाच चलतालो. घोग्यांनीं पावस पडटालो. जनेलाकडेन वचून तें उबें रावलें. वाऱ्याच्या एका झोता वांगडा वावजड ताज्या तोंडार आयली.

‘ आज आकांताचो पावस पडलो. न्हय ? ’ कुसुम माधवा म्हऱ्यांत अ यलें

मूस आमुडिल्लेवरी हात करून माधवान पुस्तक धांपलें. ‘ आं ? ’ ताणे आपले बायलेकडेन पळेत विचाल्लें. आनी रोखडेंच म्हळें: ‘ सुंदर ! ’

माधवान दोळे पोशेले. ‘ तूं कितेंय वाचना कित्याक ? ’ ताणें कुसुमाक विचाल्लें, ‘ वाचल्यार मन रमतलें. ’

ह्याच वेळार दारांतल्यान एक ल्हान चली भितर आयली. तें मारी. आंतोनीली भयण.

‘ घे ’ भुरग्यान म्हळें. ताज्या हातांत पारवीण आसली.

माधवान कुसुमाकडेन पळेलें.

‘ घे ’ मारीन पर्थून म्हळें.

कुसुम समजलें. हीच तागेली पारवीण. आंतोनींन धाडून दिल्या जातली.

‘ तुगेली पारवीण दिसता. ’ माधवान म्हळें आनी पुस्तक परत उकतें केलें.

‘ हय. ’

मारीकडच्यान कुसुमान ती पारवीण घेतली.

‘ हिगेली पाखां भिजून चिंब जाल्यांत. कुसुमान म्हळें.

‘ आतां तिका उडूंक येवचें ना. ’ माधवान म्हळें.

‘ पांखाटे सुकतकच ती उडटली. मारीन म्हळें आनी तें गेलें.

* * *

# करूण कवीत

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

पुनवेचे रातीकडेन ताजमहल पळेता आसतना म्हजे तकलेंत शहाजहांचे विचार आयिल्ले आनी मुमताजचीय म्हाका याद जाल्ली. पुण हांव चड येवजितालों तो कलाकारांविशीं—जांचीं नांवां लेगीत इतिहासांत उरूंक नात असल्या कुशळ गंवड्यांविशीं. म्हाका दिसलें, हालीं एकाद्री बिल्डींग ना जाल्यार एकाद्रो पूल बांदून जातकच थंय जी पाटी उरता ती जशी उक्तावण करपी मंत्र्याल्या नांवाची तशी ताजमहलाचेर पाटी उल्ल्या ती शहाजहां आनी मुमताज ह्या जोडप्याची. कल्पना बरी शहाजहांची आसत आनी निमित्याक कारण बरी मुमताज जाल्ली आसत; पुण खर्च जाला तो दुडू प्रजेचो, हूम गळ्ळया ती अज्ञात वावराड्यांची, तकली उपकारल्या ती फिशाल इंजियनियरांची आनी हात घोळ्ळा तो नांव नाशिल्ल्या कलाकारांचो.

—खरें म्हळ्यार ताजमहल हें भारतीय कलेचें स्थापत्यशास्त्राचें स्मारक. थंय शहाजहां आनी मुमताजची थडीं कित्याक ?

हॉटेलांत परत पावलों तेन्ना रातिचें एक वर जाल्लें. हांतुणार आडवो जालों. पुण केदो वेळ मेरेन न्हिदच पडली ना...उकत्या जनेलांतल्यान चान्न्यांत पर्जळटें मळब दिसतालें आनी मळब पळेत अजून ताजमहलाचोच विचार करतालों...इतले म्हणसर वाटकुळी धवी तोपी घाल्लें एक माथें जनेलांतल्यान वयर सल्लें. हांव भियेवन हांतुणार उठून बसलों...दोळे तटास करून हांव पळेत रावलों...धवें फुल्ल खाड आनी तशोच मिशो आशिल्लो एक म्हातारो जनेलांत आयलो आनी हांसत हातान ताणे

म्हाका " भियेंव नाका " म्हणून इशारत केली. तरी म्हजो भंय उणो जालो ना. जनेलांतल्यान ताणे जेन्ना घब्ब करून कुडींत उडी माल्ली तेन्ना तर म्हाका किळंच मारची अशें दिसलें. पुण हांव इतलो भियेल्लों कि म्हजी वाचाच धल्ली.

" सलाम आलेकुम..." ताणें म्हाका सलाम केलो. ताका पर्थून सलाम करपाचें त्राण लेगीत म्हज्यांत नासलें. हांव ताका पळेत रावलों...

" ताजमहलांत बादशहा आनी बेगम हांची थडीं कित्याक असो तुका प्रस्न पडला न्हय...चल म्हज्या सांगतान..."

भंय अजून वचूंक नाशिल्लो. म्हाका जाणवलें कि ताणें म्हाका हिप्नोटायज केला. हांव उठून ताज्या वांगडा चलूंक लागलों...

चलत चलत ताणे म्हाका यमुनेच्या पलतडीन व्हेलो आनी थंय एका फातरार म्हाका बसयलो. उपरान्त आपुणय बसलो...न्हंयच्या संथ पात्रांत पलतडचे देगेर उब्या आशिल्ल्या ताजमहलाचें पडबिंब पडिल्लें... म्हाका दिसलें हे वशीन ताजमहल अदीक सुंदर दिसता...काळखांत काजुलो चकचकचो तसो ताज चान्न्यांत चकचकतालो...

..." पळे...हो ताजमहल धवो कित्याक ? जाणा तूं. "

हांवें तकली हालोवन ना म्हळें. पुण हांव जाणा आसलों. धव्या संगमरवरी फातरान बांदिल्ल्यान तो धवो...ताका अंतर्ज्ञान आशिल्लें दिसता—" न्हय पुता...कालाच्या स्रोतात कांयच धवें उरना—संगमरवरी फातर लेगीत...पुण ताजमहल धवोफुल्ल उरलो. कारण इतले शेंकडे दुखेस्त मोगिंनी अितलीं दुकां हांगा व्हांवयल्यांत कि ताणी ह्या महलाक धुवन धवो दवल्ला...आजय तशेंच घडटा...ह्या फुडेंय तेंच घडटलें. "

म्हाका एक नवी नदर मेळ्ळी आनी खीणभर हांव कलाकारांक विसल्लों. म्हाका विरही शहाजहां आपल्या थड्यांत उठून बसून रडटा असो भास जालो.

...रात काळखी आसली. उमाशेची.—तो म्हातारो सांगतालो—संवसार काळखाच्या पांगरुणापोंदा गेल्लो. पुण न्हिदूंक नासलो. आज ताजी न्हीद उडिल्ली...आज संवसाराचो हांसो सदांखातीर बाविल्लो, सौंदर्याचो चंद्र अस्ताक गेल्लो...भुरग्याक जल्म दिता आसतना आवयन

जीव सोडिल्लो–ताका लागून कालचक्र थीर जाल्लें. मोग आंखडेवन गेल्लो आनी जीण लेगीत किण्ण जाल्ली...

...भारताच्या बादशहाल्या मोगाची एक पणटी वाडवल्ली... तेल अजून आसलें...वात सामकी भिजून चिप्प जाल्ली. पुण वाऱ्याचो झोत येवन सगळ्याक धुंवर आनी काळोख पातळावन गेल्लो...काळोख... घुपाट काळोख !

जिवितांत आधार जाय म्हणून जिगेलो हात आपल्या हातांत घेतिल्लो ती आज सोडून वताली...तिचें निमाणें दर्शन घेवचेखातीर शहाजहां आयिल्लो...ल्हवू ल्हवू अस्ताक वचूंक लागिल्ली प्राणजात मायेमोगाच्या नाजूक स्पर्शाबराबर थीर जाली...हाताचो स्पर्श मुमताज वळखली...तिचे आंगार खोशयेचो कांटो फुल्लो...ल्हंव चंवरली...ल्हवूच तिणें साळकावरी सुंदर दोळे उकते केले...एकेक पाकळी ल्हवू फूक मारून उकती करची तशे...चार दोळे एकामेकांक मेळ्ळे...नदरेनच ताणी एकामेकांक कडकडून वेंग माल्ली...शहाजहांन उजव्या हाताचें बोट ल्हवू तिगेल्या गुलाबी ओंठावेल्यान भोंवडायलें...ते अवस्तेंत लेगीत मुमताज लजेली...आनी मागीर मोनो संवाद सुरू जालो...जायते जाण भोंवतणी आसले...पुण तांची मोनी भास कोणाकच कळ्ळी ना...दोळ्यांक दोळे जाप दिताले. जें कितें सांगपाचें आसा तें काळजां एकामेकांक सांगतालीं...

मागीर तिणें दोळे धांपले...सदांखातीर. हिन्दुस्तानच्या येद्या व्हडल्या सम्राटाक नदरेमुखार लुटिल्लो. आनी लाचार जावन तो रडटालो...राजसूख पुरतें तीन वरसां भोगचे आदींच ताजी सगळ्यांपरस अदीक आवडटी वस्त हातची सुट्टाली...सगळ्यो उमेदी खिणांत आटून गेल्यो...अमृताचो पेलो ओंठाक लागचे आदींच हातांतल्यान सकल पडून फुटिल्लो. आनी अमृत मातयेभरवण जाल्लें...भारताचो सम्राट एके राणयेक–आपले बाय-लेक आडावन दवरूंक पावंक नासलो...

काळीज धगधगतालें...लस्कराचें बळ, तिजोरेंतलें धन–कोण पालयत ही धगधग ? शहाजहांचे सांत्वन कोण करीत ?

शहाजहांल्या दोळ्यांतल्यान दोन दुकां गळ्ळीं...मळबांतल्यान दोन

नखेत्रां झडचीं तशीं तीं मुमताजच्या गालार पडलीं...आनी एक व्हड सुस्कार सोडून ताणें देवाचें नांव घेतलें––" हाय अल्ला । "

तन्मय जावन हांव आयकतालों...दाव्या हाताच्या आंगव्यान ताणें आपल्या दोळयांतली दुकां पुसलीं आनी म्हळें–

फुलासारको नाजूक, निकतेच फुलिल्ले कळयेवरी टवटवीत, गुलाबपरसय सोबीत देह मातयेक मेळिल्लो...आतां फाटल्यान उरले सुखदिणे उगडास... सोंपून सोंपनात अशो मधूर यादी...सुस्कार आनी दुकां !

पुण शहाजहांले सुस्कार आनी दुकां फुकट गेलीं नात. जळट्या दोळ्यांतांल्यान आनी रडट्या काळजांतल्यान आयिल्ले सुस्कार आनी दुकां हांक-आकार येवंक लागलो. प्रियेच्या विरहाची व्यथा अमर जाली...सगळें जावन गेल्लें...पुण एक दिल्लें उतर पाळपाचें उरिल्लें...चंद्रावरी सोबीत प्रियेल्या थड्याचेर तो एक असली समाधी बांदतलो...संवसारांतल्या सुंदर बायलांमदीं मुमताजाक जी सुवात आसली ती सुवात समाधींभितर तिगेले समाधीक मेळची...सगळ्या मकबऱ्याचो हो मकबरो ताज ( मुकूट ) जावचो, ही समाधी विरहाची समाधी जावची–शुद्ध निर्मळ प्रेमाउपरांत येता तसल्या विरहाची–धवो फुल्ल स्फटिकाचो फातोर ताका येवजलो––

आनी मागीर यमुनेचे धडेर तांबड्या फातराचें पेड बांदून काडलें आनी मदीं बांदलो महल...मोगाचो संदेश युगायुगांक दिवपी महल...महलाच्या चारूय कोनशांक चार मिनार...मुमताजच्या मरणाची खबर ह्या मिनारांनी चारय दिशांनी पावती करची म्हणून...आनी निमाणे कडेन त्या महलाचेर घुमटरुपी मुकूट दवल्लो...

शेंकडे जावन गेले...संवसारांत कितलीं राज्यां वयर सल्लीं आनी ना जालीं...कितलीं स्मारकां काबार जालीं...पुण मोगाचें हें स्मारक मात अजून उबें आसा. तें बांदपी मरून गेले...पुण ताजमहल अजून उबो आसा. जसो तो संवसाराक संदेश दिता, ' संवसारांत मनीस येता आनी वता. पुण मोग मात सदांकाल तगता. '

...कालान ताजमहलामुखार लजेन मान सकल घाल्या...आनी मरण थड्यापोंदा आपल्याचेरच कसता...ताजमहल पळेतल्याक निखटे दोळे

भासून उपकरना, ताका काळिजय आसचें पडटा...आनी काळीज लेगीत ोग करपी, मोग वळखुपी.

...ताजमहलाकडेन पळोवन शहाजहांन कितले फावटी दुकां सारली आसतलीं... प्राण सोडटना लेगीत ताजी नदर ताजमहलाचेरच थीर जाल्ली... भाज जायतो लोक येवन ताजमहल पळेता...मोगी मनीस मात तो पळोवन नशाल्या मोगाच्या ह्या करूण पुण सजीव काव्यान भारावन वचून दोन दुकां सारता...हीं दुकां ताजमहलाक धुवन निवळ करतात. ताजें पावित्र्य सांबाळटात.

आनी खंयच्यान कोण जाणा, वरसान वरस पावसा दिसांत मळब एक दूक–उदकाचो एक थेंब–मुमताजच्या थड्यार गळोवन आपलें दुःख उकतायता.

...दोळ्यांतलीं दुकां पुसून हांवें दोळे उकते केले. भायर लकलकीत ोत पडिल्लें.

* * *

# पळतडच्या फुटपाथार

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

' हें म्हाका जमत अशें दिसना ' हावें म्हळें.

—तें कठीण न्हय. सगळो लोक दिसपट्टों तें करता...कोणाक पर्वा व
भंय दिसना, तिणें म्हळें.

—आसत बाये...पुण म्हाका असलो अणभव ना.

—घेतलेबगर अणभव कसो येत ?

—पुण असलो जीव–घेणो अणभव घेवंक तरी कित्याक जाय ?

—ना जाल्यार, कितें जल्मभर लोलोच रावंक सोदता ?

हावें जाप दिली ना. मुंबयच्या मरिनड्रायव्हाचेर चर्चगेट सामकार दर्या
वटल्या फुटपाथाचेर आमी उबी आसलीं. आनी रस्तो क्रॉस करून हॉटेलांं
वचपाचो प्रस्न आसलो.

मुंबय येतकच सदांच हांव टॅक्सी घेवन भोंवता. म्हगेलें मुंबय येवप दो
दिसांखातीर आसता. देखून इल्ली म्हारग पडली जाल्यारय हांव टॅक्सी
पसंत करतां. आजय आमी टॅक्सी करूनच नरिमन पॉंईटार आयिल्लीं. आन
थंय कांय वेळ बसून चलत–चलत चर्चगेट मेरेन आयिल्लीं. इतले म्हणस
तिका च्या घेवपाची इत्सा जाली. आनी तितल्याच खातीर आमकां रस्त
क्रॉस करपाचो आसलो.

आतांय हांव टॅक्सी करुंया म्हणटलों आसलों; पुण इतल्या किरको
कामाखातीर टॅक्सी करुंया म्हळयार ती हांसतली म्हणून ओगी रावलं
पुण म्हाका मनापसून दिसतालें कि एक वेळ च्या घेना जाल्यार जा
पुण रस्तो क्रॉस करप नाका.

धनुश्यांतल्यान बाण सुटचे तश्यो झूं...झूं करून मोटारी वताल्यो. सामक्यो ामेकांक तेंकून. सुंयांची रांग सोंपून सोंपना तश्यो त्या मोटारिंच्यो रांगो वताल्यो...एक आनी दोन न्हय...चार...चार. शिमिटाच्या रूंद मार्गा-यान सगळ्यो मोटारी मलबार हिलवटच्यान वताल्यो. मदींच कांय बसी नी स्कुटरी...

ही ना सोंपती धार पळोवन हांवें म्हळें, 'आसूं च्या. भोंगू ती.'

'कित्याक ?...या आमी वचुंया.' तिणें म्हजो हात धल्लो.

'पुण ही धार तर तुटच ना.' हावें म्हळें.

'मध्यान रात मेरेन ती तुटचीय ना...चल उबार पावल. आमी मदीं कच मोटारी आपशींच थांबतल्यो.'

'कोण जाणा !...ओगीच जीवघेणो प्रयोग नाका.'

'तूं बेश्टोच भियेता. आमकां मारूंक त्यो धांवतात अशें दिसता का ?'

'तें हांव नकळं...पुण हुंदीर मरचो तसो हांगा लोक मरता म्हणटात. बय ही...हांगा कोणाक कोणाची पर्वा नासता. चल तूं...हांव हांगाच वतां.'

'पिशेपणां करूं नाका.' तिणें म्हळें. 'आतां थंय एअर कंडिशन्ड टेलांत वचून थंडगार आयस-कोल्ड उदक पियेतकच सुकून गेल्लो ताळो ड जातलो. मागीर हुनहुनीत च्या घेतकच थाकाय येतली.'

'पुण रस्तो क्रॉस करप कसो ?'

'तूं कांयच भियेवं नाका. म्हज्या हाताक घट धर. हावें या म्हणटकच ळे धांपून घसघशीत पावलां उबार.'

एकाएक तिणे म्हाका फाटल्यान ओडलो. एक मोटार वाऱ्याच्या वेगान मकां घसट्टून गेली. तिणे उबयिल्लो वारो आमच्या आंगाक आपटलो... वें कांचवेवन आंग काडलें...

'चल या...'

तिणें म्हाका ओडलो. दोळे धांपून घेवन हांव धांवलों. हॉर्न वाजले... ंक च्यॅंक...अशे आवाज येवन मोटारिंचे ब्रेक लागले...चारदोग जाण ाशेले...ती थांबली. हावें दोळे उकते केले. आमी अर्द रस्तो क्रॉस

[ ५ ]

केल्लो...फुडले वटेन नरिमन पोंइटावशीन मोटारी धांवताल्यो; फाट
वटेन मलबार हिलावशीन. मर्दी एक मनीस उबो रावंक पावत इतलो
जागो उरिल्लो...आमी एकामेकांक घसटून उबीं राविल्लीं...

'बाग घेवं नाका...मोटार आपटत' तिणें सांगलें. आनी म्हाका बा
पडची न्हय म्हणून आपलो दावो हात तिणे म्हजे फाटीर घल्लो.

हेय वटेन मोटारिंची रांग लागिल्ली....ह्यो इतल्यो मोटारी एका
वेळार खंय वतात काय?...म्हाका तर असो दुबाव आयलो कि ह्यो मोटार
मलबार हिलाकडेन वचून धुंवन परत येतात...आनी मागीर धुंवत रावता
हांवें तशें तिका सांगलें.

ती हांसली. 'तशें कोणच करीत?'

'कित्याक करचो ना? पयसो आसतकच फास्ट मोटार सोडून हो लो
वारो घेतात आसुंये.' हांवें म्हळें.

हांव येवजीत आशिल्लों इतले म्हणसर एक टॅक्सी आमचे सरीं स
जाली. ड्रायवरान आपलो हात भायर काडून हिन्दी भाशेंत तिका किते
सांगलें.

'सायबा!' तिणें उद्गार काडले आनी ती लजेन तांबडी जाली.

'कितें सांगतालो तो?' हांवें विचाल्लें.

'पोंजडयो गाळी...पाड पडूं ताजें!'

'कसली गाळ?'

'हांव सांगिना...' तिणें मान सकल घाली.

म्हाका सिगार ओडीन अशें दिसलें; पुण बोल्सांत हात घालूंक गेल्या
फाटल्यान कोंपराक मोटार आपटत हो भंय. देखून हांव ओंगी रावलों.

पलतडच्या फुटपाथार रावन एक पोलीस आमकां हटकितालो. ती ता
कुरवांनीं कितें तरी सांगताली.

'कितें म्हणटा तो?' हावें विचाल्लें.

'तो म्हणटा, मर्दी उबीं रावन मोग करूंक जायना. बेगीन रस
क्रॉस करात.'

'ताका सांग, आमी मोग करिनात. पुण एकय मोटार थांबना देख
आमकां क्रॉस करूंक मेळना.' हांवें म्हळें.

पुण म्हजें म्हणणें सारकें आयकून घेवचे आदींच तिणें म्हजो हात धल्लो
नी म्हळें–‘ या. ’
दोळे धांपून हांवें मरणाच्या तोंडांत पावल उबाल्लें.
ब्रेक करकरले...हॉर्न वाजत रावले...घड्ड करून आवाज आयलो...दोन
टारी आपटल्यो जातल्यो...बोवाळच बोवाळ जालो...तिणें म्हजो हात
डलो...आमी पलतडच्या फुटपाथाचेर पाविल्लीं...कांय सेकंद सगळ्यो
टारी थांबिल्यो. त्यो परथून चलूंक लागल्यो.
हॉटेलांत वचून थंड उदक पियेलों तेन्ना म्हज्या जिवांत जीव आयलो.
ा आदीं मन भेरेल्लें, मन गोंदळिल्लें...हांव सुद्द वगडावन बशिल्लों...
हॉटेलांतल्यान भायर येतकच हांवें टॅक्सीक हात दाखयलो आनी तिगेल्या
ताक धरून तिका टॅक्सींत बसयली. हांवय बसलों. आनी मागिरच तिका
चाल्लें, “ आतां खंय वचप ? ”
“ पलतडच्या फुटपाथार ! ” तिणें म्हळें.

* * *

# थीर खीण

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

भायर बारीक पावस शेनता. मळबांत कुपां दाटून आयल्यांत. म्हज्य
हातांतले घडयाळींत दनपारचीं साडेतीन वरां जाल्यांत. पुण वाटारा
आमोरेच्या वेळावेलो काळोख पातळ्ळा.

म्हजी अस्वस्थताय वाडटा. हवा अस्वस्थ करपी खरी. पुण काळजांत
अशींच कुपां दाटून आयल्यांत. सगळोच घुस्मटमार जाता. इल्लें रडू
घेतलें जाल्यार मन ल्हव जातलें अशें दिसता. पुण रडटलों कसो ? खबरे
लोक येत आसात. भायर वारांदांत बांकार बसून बाबा तांकां जाप दित
सकाळसावन हो क्रम चलता. मनीस येतात आनी वतात. शीण पावोवं
आयिल्लेभशेन.

आई आयली, कुडींत येवन खबर घेवन भायर गेली. कांय एक उलयल
ना. भायर वचून बाबाक सांगूंक लागली, " रेखा, बाबू पणजे येवं
रडटालीं. शाळेंत वचचीं ना म्हणून हट घेवन बशिल्लीं. तांकां समजायतास
नाका जीव जालो. "

भितर खाटेर न्हिदिल्लेकडेन म्हाका हें सगळें आयकूंक येता. वणटीचे
एक पाल दिव्याच्या उजवाडांत जीव धरता. दोळयांच्यो पातयो हाल
आदींच एक जीव संवसाराक अंतरता. बोंबाळ ना. रडारड ना. जिविता
होच क्रम...मरण नासलें जाल्यार मनीस मनशाक खावपाचो !

खाटिचे कुशींत वणटीचेर मुयांची एक रांग चरता. कांय वयर चडटा
कांय सकल देवतात. लग्नाच्या माटवांत बोवाळटल्या लोकांसारक्यो..
मदींच एकमेकांच्या तोंडाक तोंड तेंकयतात. तांच्यांतय नर आनी मा

ासतल्योच. संदेस पावतो करतात? काय मोगाचो खेळ खेळटात?...
ाका दिसलें आतां म्हाका रडूंक येतलें. आनी रडचें न्हय म्हुण हांव
सलों. म्हजे भितरच.

खंयचो खंयचो लोक येवन गेलो. पुण तें आयलें ना.

भायर बाबा आजीक सांगता : "निकतोच येवन गेलो तो धाकूबाब-
राणें व्हड तांचें..."

कांय जाणांकडेन धन आसता. कांय जाणांकडेन घराण्याचो अभिमान
ासता. हेर सगळो बहुजनसमाज.

खबरेक आयिल्ल्यांतल्या एकल्यान बाबाक हटकिलो. बाबान आईकडचें
लोवणें अर्दार सोडलें आनी ताका घेवन तो भितर आयलो. फक्त
लेचाराक.

"चड मार बसलो?" ताणें म्हजी वासपूस केली.

हांव हांसलों. बाबान कपलाक पडिल्ल्यो मिरयो काडल्यो आनी म्हळें :
'सामको सांवार आयला पुलीसेचेर...इंग्लेजांली आनी पुर्तुगेजांली पुलीस
त्याग्रह्यांक लाठयांनीं मारताली...आतां स्वतंत्र जाले उप्रांतय हिंदुस्तानचे
ुलीसेन सत्याग्रह्यांक मारप म्हळ्यार...कितें म्हणटलो आनीक...?"

"आगा पुलीसेक आपलें काम करचें पडटा. लोकाक बडोवंक तांकां
कितें सुख मेळटा तर..."

"पुण हांव म्हणटां, जमिल्ल्या लोकान हुर्यो घाल्यो जाल्यार सत्या-
ग्रहींक रे कित्याक मार?"

तांगेली चर्चा चलता. म्हाका कणकण येतात. हांव म्हजेभितर रावतां...

...रातीं म्हाका ओस्पीतलांत हाडलों तेन्ना सगळें आंग सणसणटालें.
ार बसलो तेन्ना आंगांत एके तरेचो चेव आशिल्लो...जयजयकाराच्या
ातावरणांत दिसतालें आनिकय लाठयो पडच्यो......मागीर कार्तेलाचेर
ुख वाडली तसो हांव परवूंक लागलों...आनी पुलीसेन म्हाका हांगां
ाडिल्लो.

"अजून तो प्रेज आसा?" खबरेक आयिल्ल्यान अजापून विचा-
रिल्ल्या प्रस्नासरशीं हांव भानार आयलों. तागेल्या त्या प्रस्नान हांवें आंग
ाडलें...बाबान दाराभायर आशिल्ले पुलीसेकडेन बोट दाखयलें. आतां

ताणें आंग काडलें. येदो वेळ ताणें पुलीसेक पळोवंकच नाशिल्लें. आतां ताज्या तोंडाक खिळी बसली. तकली हालोवन ताणें वतां म्हणून सांगलें आनी तो चलूंक लागलो.

म्हाका पुर्तुगेजांवेळावेल्या सत्याग्रहाचो उगडास आयलो. तेन्ना लोकान घेतिल्लो पुलीसेचो कांच अजून वचूंक ना.

बाबा भायर दुसऱ्याकडेन खबरी करता. झांकता झांकता गांवकार जाता म्हणटात. गांवकार झांकतात तेन्ना किते जाता काय ?

आतां सगळे गेले. बाबान परत आईक सांगलें, " खबरेक म्हणून येतात आनी गांवचे धवळे करूंक बसतात. "

आईन कांय म्हळें ना. आपलो वेळ फुकट वता अशें बाबाक दिसतालें. आनी खबरेक येतल्यांनीं वेळ इबाडलो अशी कागाळी तांगेल्या सुरांत आसली. आतां उरिल्लो वेळ तांचेर शिणपाक तो वगडायतालो. पुण ताजें ताका पेन नाशिल्लें.

भायले वटऱ्यान एक व्हडली दडक आयली. दारांतल्यान भायर देव-केळंबो दिश्टी पडटा. पावसाच्या धारांनीं देवकेळंब्याचें फूल कडकडटा. पुण पावसाचे बाण ताका रोंबनात. तें तशेंच टवटवीत आसा...

" मावशीबाय केन्ना आयली तर ? " भायर कोणेशें आईक विचाल्लें आनी मागीर कांयच आवाज आयलो ना. कोणें विचारिल्लें, काय म्हाकाच भास जाल्लो ?...परत दिसलें म्हज्या काळजांतलें उठून तें भायर गेल्लें आनी ताणेंच प्रस्न केल्लो.

आतां भायर काळोख अदीक दाटला. ह्या वेळार तें येवचें ना. सत्या-ग्रहाक वचचे आदीं ताणें दोळयांत दुकां जमोवन म्हाका आडावपाचो येत्न केल्लो...आनी निमाणें कडेन धमकी दिल्ली—' तूं वतलोच जाल्यार तुजी वाट वेगळी आनी म्हजी वेगळी. '

' ह्यो दोनूय वाटो मुखार एकमेकांक मेळटात. ' हांवें म्हणिल्लें. आनी हांव हांशिल्लों. पुण तकली फिरावन तें वचूंक गेल्लें...

...तें ताजे वाटेर गेलां. मागीर तें हांगा कशें येतलें ?

कांकणां सळसळ्ळीं...तेंच आसुंये...हांवें कूस बदलून दारावटऱ्यान फाट केली.

लटको राग उक्तावपाची ही एक तरा. ' सकाळीं पेपरांत रगतान भरिल्लो फोटो छापून आयिल्लो...बातमीय आयिल्ली...आनी आतां तिळसांज तायमेरेन वासपुसय करप ना...! '

दडक पडून गेल्ल्यान वातावरण मात्शें मेकळें जाल्लें. मिरामारच्या दर्यांत बुडटी घेतल्या सुर्याची भांगरा किरणां मळबांतल्या काळ्या कुपांच्यो कडो पर्जळायतालीं. जनेलांतल्यान हें पळेता आसताना दोळ्यांतल्यान एक दूक गळ्ळें...पुण हांवें दोळे पुसले नात.

कुडींत भितरय आतां मात्शें मेकळें दिसलें. मनय मात्शें ल्हव जालें. हांवें उस्वास घेतलो. जायांचो परमळ नाकांत भल्लो...

आईन कितेंशें म्हळें. नकळटां हांवें नदर फिरायली. ती ताजेर पडली. ताज्या दोळ्यांतल्या बावल्यांत म्हज्यो आनी म्हज्या दोळ्यांच्या तळ्यांत ताजी मुर्त आमी पळोवन घेतली. तें उबेंच आसलें केदो वेळ कोण जाणां.

दोळ्यांनींच हांवें ताका बसूंक सांगलें. तें खाटे म्हऱ्यांत आशिल्ल्या कदेलाचेर बसलें. सामकें आंग चोरून. आनी आपली नदर ताणें थिरायली जोत्याच्या पल्याचेर.

' कशें दिसता ? ' ताणें विचाल्लें.

नवी साडी वा नवीं फुलां माळून येतकच सदांच तें हो प्रस्न विचारता पुण आयच्या प्रस्नाची जाप वेगळी आसली. तींच उतरां...वेळ काळ पळोवन आपलो अर्थ बदलून बशिल्लीं.

बरें दिसता अशें सांगूंक आयलें ना. ओगीच खांकलों. म्हजे प्रकृतिविशीं म्हाका प्रस्नाची गरज ना आनी ताका जापेची. हांव हांसलों. ताणे आपल्या ओठांचेर हय न्हयसो हांसो फुलयलो...

म्हाका खूब बरें दिसलें. एका हांशान मनीस जग जिंकता तो असो. तरी बरें मनीस सोडून हेरां जिवांक हांसूंक येना आनी मनीस कितल्या तरांनीं हांसता ! परथून एक फावट हांस अशें ताका सांगचें अशें मनाक दिसलें. तागेलो तो नाजूक हांसो जनेलांतल्यान उडून काळ्या कुपांच्या कडांक तेंकिल्लो. परत हांवें नदर धुंवडायली...थेट कुपांमेरेन.

तें आयलें आनी वेळाची गती बंद जाली. शाब्बाच्या उदकाचे बोंबाडे वाऱ्यार सोडचे तशें तें एक एक खीण मेकळो करतालें. आनी हवेंत नाचतां

नाचतां नाच जावपी खीण हांव नियाळतालों. खिणाकणकणीं नवो रंग नवी उमेद !

—आतां दीस बुडलो जातलो. पुण म्हाका दिसलें अजून बुडचो आसा. आई भितर आयली. तीं दोगांय उलोवंक लागलीं. पयस परांतराक उलयिल्लीं उतरां घोलींत आशिल्ल्या मनशाच्या कानार पावतात तशीं तागेलीं मोजकीं उतरां हांव आयकतालों. मदींच आईन कितेंशें म्हळें आनी तें हांसलें. आईय हांसली. हांव जाणां तें वेळेचाराक आईकडेन उलयलें तरी मनान म्हजेचकडेन उलयता.

आई भायर गेली.

बाबा भायर कोणाक तरी सांगतालो, ' आतां आमचें कितें...कितलेंय जाल्यार पिकिल्लें पान...

हांवें दोळे धांपून घेतले. बंद दोळयां मुखार वडाचीं पिकिल्लीं पानां झडूंक लागलीं. तातुंतच बाबा...आईय. हळडुवी वडाचीं पानां कशीं !

कांचवेवन हांवें दोळे उकते केले.

' कितें जालें ? ' ताणें विचाल्लें.

सुस्कार सोडून हांव हांसलों.

पानां पिकतात आनी झडटात. पुण सदांच अशें जायना. केन्ना केन्नाय वाऱ्याच्या नेटासरशीं तन्नीं पांचवीं पानांय तुटून पडटात...पानां खंयचीं सगळो रुखूच हुमटून पडटा.

म्हज्या हाताक कितें लागलें ? दोळे धांपिल्ले. पुण हांव वळखलों. ताजो हात म्हज्या हातार आसलो. भायर काळोख जाल्लो. पुण आंगाचो कणान कण पेटलो...भितर सावन कोणे तरी पणटी पेटयिल्लेवरी.

हांवें दोळे उकते केले आनी तागेलो हात हातांत घेतलो. वोगान हांवें तो हात दामलो.

हांव खाटेर न्हिदिल्लों. वाटारार काळोख दाटिल्लो. पुण काळोखय आतां थांबिल्लो. तो चड दाट जायना आशिल्लो. ताज्यान दाट जांवक नज आसलें. संवसार खीणभर थीर जाल्लो.

तागेलो हात म्हज्या हातांत आसलो.

* * *

# देड मणाचें ओजें

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ-φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

फेरीबोट अजून पणजेच्या धक्याक लागूंक नाशिल्ली. एक मनीस ती
ागतली केन्ना आनी आपूण देंवतलो केन्ना हें पळेत सामको मुखार येवन
ाविल्लो. ताज्या हातांत आशिल्ली एक पोटली. मांडवीच्या ल्हारां वांगडा
ारीबोट धोलताली. ती धक्याक लागतासर फाटीं परतताली. आनी तो
नीस मदींच भियेत भियेत एक पांय सकल दवरूंक सोदतालो आनी रोंखडोच
ाटीं घेतालो. मदींच उडी मारपाची तयारी करतालो. पुण धजना आसलो
ानी ताज्या फाटल्यान हांव आसलों. ताज्या इतलीच, घडये चडच ताकतीत
ाका आसली. आदली फेरीबोट म्हाका चुकिल्ली आनी ऑफीसाक पाव-
ाक कळाव जातालो.

पुण म्हज्या मुखावेलो हो सभागी हातांत पोंटली घेवन अशे तरेन उबो
ाविल्लो कि पळेतल्याक दिसतालें हो बेगीन देंवंक सोदता. शिडी घाली
ार हाका थार ना. ताका लागून हांवय उडी मारूंक पावना आसलों.

परथून एक फावट फेरीबोट धक्याक तेंकली. पुण तो मनीस पांय भायर
ाळून तसोच रावलो. देंवलो ना वा ताणे उडीय माल्ली ना. म्हज्यान
ामकें रावं नज जालें. उबगून हांवें म्हळें, " आरे, देंवतलो जाल्यार देंव;
ा जाल्यार कुशीक तरी राव आनी दुसऱ्यांक देंवंक दी. "

" देंवतां...देंवतां..." म्हणून ताणे उडी माल्ली. त्याच खिणाक
ारीबोट फाटीं सल्ली आनी तो उदकांत पडलो..." आरे...आरे पडलो."
ोकांनी बोब माल्ली. तो बावडो बुचकळ्यो खातालो. दोगा जाणांनीं न्हंयंत

उडी माल्ली...ड्रायवरान फेरी बोटी पोंदा ते चिड्डुंचे न्हय म्हणून फेरीबो
फाटीं घेतली...

"आरे रे! हें रे तुवें कितें केलें? कळावा कळाव जालोच. पुण ता
बावड्याक ताकतीक करून दर्यात उडी घेवंक लायली...वांचल्यार पु
बावडो!" कुशीक उबो आशिल्लो दुसरो एक दादलो म्हाका संबोध
चुरचुरलो.

म्हज्या आंगाक सामको शेळो घाम फुटलो!

त्या बुडिल्ल्या मनशाक लोकांनी वयर काडलो...हेवटेत फेरीबोट
धक्याक लागली. लोकांचो जोमो म्हौंवां माल्यांतल्या मुखांवरी देंवलें
तातूंत हांव भरसलों...आनी ऑफीसाक गेलों.

× × × ×

त्या दिसा ऑफीसांत म्हजें कामाचेर मनच लागना जालें. तो बाव
घडये मेलो जातलो. हावेंच ताका ताकतीत केल्ली...धोपरभर उदकांत पडुन
लोक मेल्ल्याच्यो खबरो हावें आयकल्ल्यो. मेलो काय बावडो?...हांव
जबाबदार ताज्या मरणाक.

पुण दुसरें मन म्हणूंक लागलें—

–तूं बेठोच मनाक लावन घेता...तो घडये वांचतय. आनी मे
जाल्यार ताज्या नशिबान तो. तुवें ताका धुकळ्ळा तर...?...हांवें हातां
धुकळूंक ना खरो...पुण उतरांनीं धुकळ्ळोच न्हय?

—मेलो जाल्यार पिडाच गेली. आतां तुजी गची धरूंक कोण येव-
पडला?

हय तेंय खरेंच. कोण जाणा हांवें ताका ताकतीत केली म्हुण...आन
म्हाका फेरीबोटींतल्या त्या म्हज्या दुसऱ्या शेजाऱ्याची याद जाली...म्हा
एकदम धुस्मटिल्लेवरी जालें.

म्हजें मन सामकें अस्वस्थ जालें. दोन हुसके म्हजें काळीज कोरां
लागले. म्हाका लागून एक मरण आयलें. हांव गुन्यांवकार...आनी म्हगे
हो गुन्यांव दोळ्यांनीं पळेल्लो—कानांनीं आयकल्लो—एक साक्षिदार आस
हो साक्षिदार घडये म्हाका दिसपट्टो बेतींसून पणजे येतना वा पणजेस
बेतीं वतना मेळटलो...तो आपले बगलेच्या दुसऱ्याक दर खेपे सांगतलो

तकडेन बोट दाखोवन सांगतलो– "हो मनीस खुनी !" घडये कोर्टांत ज्याआड तो गवाय दितलो...हें देड मणांचें चेपण जल्मभर उतरलें म्हज्या ळजार...

...आतां चेपण काडून उडोवपाखातीर दोनूच उपाय आसात. एक हां य जीव दिवप. ना जाल्यार गुन्यांव कबूल करून ख्यास्त भोगप... गी जीव दिवप कित्याक ? हांवें जीव दिलो जाल्यार म्हजीं बायल–भुरगीं ग्यार पडटलीं...आनी कोणा एकाचें बरें जावचें ना. तो मेल्लो मनीस ीत जितो जावचो ना...

× × × ×

सांजवेळा ऑफीस सुटलें तसो थेट घक्यार गेलों. थंयचो सगळो वेव्हार ांभदोन चलतालो...थंय सकाळीं एक मनीस बुडून मेला अशें दिसपा रकें कांयच नासलें. तरीय आसतना तिकेट चेकराकच विचाल्लें.

–सकाळीं हांगा आक्सिदेंत जाल्लो न्हय ?

–म्हाका खबर ना !

–एकलो मनीस बुडून मेल्लो न्हय ?

–मेलो तो ? कोण जाणा. पुलीसेन जीप हाडून ताका ओस्पितालांत ल्लो म्हणून आयकल्लें. मेलो तो ?...चुरचुरे...पळे, वोगोत जाता...तूं ालो जाल्यार बेगीन चड फेरीबोटींत. शिडी काडपाचो वेळ जाला !

एक मनीस जीव वगडावन बसला. हांव ताजो गुन्यांवकारी...हो मनीस रचुरता...पुण आपलो दिसपट्टो वेव्हार विसरना...हांवच मात अती रतां...तो मेलो तो आपल्या नशिबान.

हांव फेरीबोटीकडेन वचूंक लागलों...इतले म्हणसर त्या साक्षिदाराचो गडास जालो...सभागी हेच फेरीबोटींत आसत...मागीर रात जातकच ल्लो बरो...हांव परतलों. पणजेच्या रस्त्यांवेल्यान तोंड लिपोवन कडेन ंलूंक लागलों...आतां मन मात्शें ल्हव जाल्लें...

–हांवें ताका देंव म्हळें म्हुण ताणे दर्यांत अशी उडी घेवची अशें ासा...आनी तीय बी पेवंक येना आसतना ?

येनाशिल्लें काय ताका पेवंक ?...हांवें ओगीच आंग काडलें. म्हाकाय वंक येना. पुण सदां दोन खेपो हांव ही मांडवी न्हंय फेरीबोटीन हुपतां...

व्हड्यांभशेन फेरीबोट बुडना म्हणटात...आतां पूल जातलो...पूल मोडचोना पुण हांव मदीं पावंक मोडलो जाल्यार ?

सिनेमा थेटरा म्हऱ्यांत पाविल्लों...बसून सिनेमाच पळोवंया...तीन वरां हुसको ना...तिकेट काडली आनी वचून भितर बसलों...सिनेमा पळेतां पळेतां सगलें विसरल्लों. म्हज्या मुखारच एक जोडपें बशिल्लें...बायलेची याद आयली. बावडी घराकडेन हुसको करता जातली...तिका सिनेमाक व्हेल्यार वर्स जावन गेलें...मन रमलें ना. इंटरवालाक उठून परत धक्यार आयलों.

काळोख जाल्लो. पुण लायट आशिल्ली...परथून त्या साक्षिदाराचो उगडास आयलो...पुण घरची ओड चड खर आसली...मनाचेर चेपण आसलें...सगळे जाण म्हाकाच पळेतात अशें म्हाका दिसलें...सगळयांच्यो नदरो म्हजें काळीज छेदून उडयताल्यो...मान सकल घालून हांव फेरीबोटींत चडलों.

शेजरा उबे रावन दोग जाण राजकारणाच्यो गजाली करताले. हांवूय तांच्यांतलोच एक अशें लोकाक दिसचें म्हुण तांच्यो खबरो आयकल्ले भशेन करून थंय उबो रावलों...म्हाका ओगीच दुबाव आयलो कि म्हज्या फाटल्यान तो सकाळचो साक्षिदार आसा...हांवें नदर फिरायलीच ना.

* * *

# सांगाताचे खीण

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ-φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

एका दमांत तो माळयेचीं सपणां चडून वयर आयलो आनी खिणा-
र्यांत कुडिच्या दारामुखार उबो रावलो. आतां ताका खरस आयिल्ली
ानी आंगाकूय चिकचिकीत हूम सुटिल्ली. दोन खीण ताणें दारार उस्वास
ाडून खरस थांबोवपाचो यत्न केलो आनी मागीर बोल्सांतलो लेंस काडून
ाणें हूम पुसली.

ताणें दारार माल्लें.

" यो. " दार उकतें करतले बायलेन म्हळें.

" हांव वेळार पावलों मू ? "

" मातसो कळावूच केलो तुवें. "

तिजें लक्ष तागेले खरशेकडेन गेलें. " आरे, असो धांपेता सो कित्याक ?
ांवत आयलो काय कितें रे ?...राव उदक हाडटां...घे, हो तुवालो घे
ानी आंग पूस...पंख्यासकल बस. "

" तूं अजून भायर सल्लेंच ना ? "

" म्हाका भायर सरूंक वेळ नाका. दोन मिनटां भितर साडी बदलतां...
ण राव. आदीं च्या करता."

" च्या नाका...भायरूच घेवंया. "

" भायरूय घेवंया. पुण घरांत पयलेच खेपे तूं आयला. तुका च्या दिले-
ार कसो धाडूं ?...चड वेळ नाका. बशींन आसा. " तो थंयच बसलो
ानी ती भितल्ले कुडींत च्या करूंक गेली. फुडल्यान वारांद आनी फाट-
ान वारांद. मदीं दोन कुडी...एदेंच घर.

मदींच तो उठलो आनी मदल्या दारांत उबो रावन तिका पळेत रावलो. तिणें पदर सांसपिलो आनी गावी घेवन गॅसावयल्यान तोप सकल काडलो. अजून तो तिका पळेत आशिल्लो.

" असो एक्कासारको म्हाका पळेत कितें रावला ? बस..."

" तुजें रूप दोळ्यांनी पितां. "

ती लजली आनी तिणें मान सकल घाली.

च्याचें एक कोप ताज्या हातांत दिलें आनी ती दुसरें कोप घेवन खाटेर बसली.

" हो कसलो वास ? " च्याचो एक घोट घेतकूच ताणें म्हळें.

" कसलो ? "

" मनशाली चामडी जळिल्लेभशेन ! "

" तुवें केन्ना घेतला तो वास ? "

" ना...पुण पयर सपनांत म्हाका सारयेर चडयला अशें हांवें पळयलें. तेन्ना म्हाका असो वास आयिल्लो. "

" तूं खऱ्यांनी लाशिल्लो ? "

तो उलयलो ना. सगळी च्या पियेलो. आनी उठून एकदम तो तिज्या म्हऱ्यांत वचून बसलो. तिगेलो हात आपल्या हातांत घेवन ताणें म्हळें, " हालीं असलींच सपनां पडटात...केन्ना केन्नाय हांव मरतां...केन्ना केन्नाय तूं. "

तिणें आपलो हात ताज्या हातांतल्यान सोडोवन घेतलो. आनी बेगि-बेगीन ती उबी रावली. " आतां तुका म्हजीं सपनां पडूंक जायनात. आतां हांव दुसऱ्याली बायल. " तिणें म्हळें.

तिगेलो स्वास ताका आयकूंक येतालो. तोय उबो रावलो. तागेलो स्वास तिका आयकूंक येवंक लागलो. " मरसर हो स्वास आयकूंक मेळ्ळयार पुरो. " ताणें म्हळें.

" कोणालो ? "

" तुजो...न्हय म्हजो. "

" म्हगेले उस्वास तुजेमेरेन कशे पावतीत...आनी तुगेले स्वास मरसर तुका कशे सोडटीत ? "

" तुवें गॅसार आयदन दवल्लां ? "
" ना. गॅस पालयलो. "
" मागीर हो जळिल्ल्याचो वास..."
" खंय रे ? "
" सपन म्हणटात तें लटीक. तें रोखडेंच विसरून वचूंक जाय. "
" तूंय एक सपन तर ? "
" हांव...हांव हाडामासाचें..."
" मागीर तुकाय कित्याक विसरूं ? "
" ......" एक सुस्कार.

पाचवी साडी आनी पोपटी पोलको घालून ती भायर सल्लीं. जोतेंय ब्या पट्यांचें...लग्नावेळार घाल्लो पाचवो चुडो अजून आंगार शिल्लो...बोटांतले मुदयेचें थीक लेगीत पाचवें...ताज्यान रावं नज जालें ी ताणें तिका वेंग माल्ली. तिणें केदी किळंच माल्ली !...तरी बरें, राक आनीक बिराड नाशिल्लें.

चौपाटीचेर तीं पावलीं तेन्ना दोगांच्याय कानांक दर्याचें मेकळें वारें ालें. दोन जीव आनी एक कूड जाल्लेवरी तीं चलतालीं. येतले वतले ां पळेताले. आनी वयावेले चले वा चलयो मान घुंवडावन फाटीं पळेत ा मुखार वतालीं. ताका दिसलें सगळ्यांल्या दोळ्यांचो तीर तांचेर आसा. वाटेर एक हॉटेल लागलें. दोगांय भितर सल्लीं. ताणें दोन कप च्या यली.

च्या पिता आसतना ताणें तिका विचाल्लें, " च्या झकास...न्हय ? "
" हय. "
" वास पळेला ? "
तिणें वास घेतलो. " बरो आसा. "
" म्हजे चामडेचो...जळटे चामडेचो ! "
तिजें आंग शिरशिल्लें. तोंडांत घेतिल्लो घोंट साडयेर पडलो. ताणें ल्या लेंसान साडयेवेली च्या पुसली. ह्या बोवाळांत कोप सकल पडलें ाी फुटलें. सगळयांली नदर तांचेर गेली. ताणें बील फारीक केलें आनी मागीर आयलीं.

" आतां खंय वचुंया ? " ताणें विचाल्लें.

" मलबार हिल. "

" थंय गर्दी आसतली. "

" आसूं. "

" पुण लोकांमदीं कित्याक ? खंयूय एकांतांत वचून बसुंया. " ताणें म्हळें.

" एकांताची म्हाका भिरांत दिसता. "

" भिरांत ? "

" हय...कितलेंय जालें तरी आमी मनशां. मनीस चुकूंक शकता ! "

" चूक ? चूक कोणाची, म्हजी काय तुजी ? "

" चूक म्हज्या कर्माची ! आतां दुख उसपून कितें मेळटलें ? " ती.

" दुख ? "

तिणें लेंसान दोळे पुसले. तिजें नाक तांबडें जालें.

तो कांय एक उलयलो ना. काय वेळ तीं मोन्यानीं चलत रावलीं. मागीर ताणें एक टॅक्सी थांबयली आनी तीं मलबार हिलार गेलीं.

गार्डनांत सगलेकडेन मनशांच मनशां...खंयच एकांत ना. ताजें मन थंय रमना जालें.

" घरा या ? " ताणें विचाल्लें.

" येदे बेगीन ? "

" चड वेळ रावन कितें जावचें पडलां ? "

" या तर. "

दोंगराचे फाटले वटचे पांयवाटेन तीं देंवलीं. वाटेर कोण कांयच उलयलो ना...

टॅक्सी करून तीं दोगांय तिगेल्या घरा आयलीं.

" आमगेर स बरांचेर घराकडेन येता. तूं बस. हांव च्या करतां. "

" वर भर बसूं ? हांगा एकांतांत ? "

" हांगा एकांत कसलो ? हांगाचे दर वस्तीक दोळे आसात आनी कानूय आसात. "

ताणें तिगेलो हात धल्लो. तो सोडोवन घेवन ती भितर गेली–बरैंन
ोवंक. तो फाटोफाट भितर गेलो आनी ताणें तिका घट वेंग माल्ली...
तां तिगेलो प्रतिकार सोंपलो. तिगेल्या हातांतलें फस्क सकल पडलें, ताणें
क चुंबन घेतलें...आनी मागीर घेत रावलो !

कांय खीण हो प्रकार चल्लो. मागीर तिणें च्याक आदन दवल्लें. आनी
दक सळसळपाची वाट पळेत ती थंय उबी रावली. तोय तिका
टून थंयच उबो रावलो...तिगेल्या खांद्यावेलो पदर पांयांकडेन पाविल्लो
ानी ती आदनाचेर नदर थिरावन येवजणेंत गुल्ल जाल्ली.

आदन सळसळ्ळें आनी तिणें च्याचो पालो उदकांत घालो...हेवटेच्यान
गेलें रगत सळसळ्ळें आनी ताणें तिका परथून वेंग माल्ली आनी तिजें
बन घेतलें.

...च्याचो पालो शिजलो आनी करपलो तेन्ना तीं भानार आयलीं.

"परथून आयलो !" ताणें म्हळें.

"कोण ?" भियेवन ती पयस सल्ली आनी पदर सारको करीत तिणें
चाल्लें. भायलें दार उकतेंच आशिल्लें.

तेवटच्यान पळेत ताणें म्हळें, "जळते चामडेचो वास !"

तिणें सुस्कार सोडलो आनी गॅस वाडयलो.

"च्या करपली." तिणें म्हळें.

"हांवूय करपलों !"

"हें पळय, तुका पिशें लागतलें. तें सपन विसर आनी घे पळोवया
ा. आतां दूद घालून दितां. बस भायर वचून."

विखाचो घोंट घेतिल्लेवरी तोंड करून ताणें च्याचो घोंट घेतलो आनी
य एक उलयनासतना तो सकल देंवलो.

तो वतकूच तिणें फुडलें दार लावन घेतलें आनी तडक वचून ती शॉवरा
ल बसली. आंगावेलें न्हेसण सोडोवपाचें तिका भानूय नासलें...माथ्याचो
बाडोय तिणें सोडोवंक नासलो...

* * *

# इस्पिकांचो बंगलो

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

दिल्लीचें ओबेराय इन्टर कॉण्टीनेण्टल हॉटेल. चवदा मजल्यांची विशाळ बिल्डींग, सामक्या वेल्या मजल्यार भायर तेर्रासावेले गॅलरींत रावन एक चली दिल्ली शार नियाळटा. जानेवारी म्हयन्यातलें थंडगार शीं आनी व्हांवतो वारो. हाड लेगीत शियान सणसणटा. पुण ते चलयेक शियाची पर्वा ना. तिज्या आंगांत ओव्हरकोट आसा. वाऱ्यान तिजे केंस उडटात. पुण ताजी तिका पर्वा ना. ती कसले तरी येवजणुकेंत गुल्ल आसा. ताका लागून तिका खबर लेगीत ना कि एक मनीस केदो वेळ तिजेर पाळत दवरून आसा.

दोन फावटी ते चलयेन गरादीवेल्यान बाग घेवन सकल पळेलें. सकल स्विमींग पूल आसा. पुण रातिच्या ह्या वेळार तो रिकामो आसलो. हेर-कडेन सगळ्याक बोवाळ. मोगल रुमांत युरोपियांनी गर्दी केल्ली जाल्यार चाय-नीज रुमांत गांवठी जोडपीं भरिल्लीं...हॉला कणकणी वेगळें वेगळें संगीत. तें सगळें आयकून तिजी तकली उसळूंक लागली आनी ती तेर्रासावेले गॅले-रींत आयिल्ली...पुण कोणाकय सोदिल्लेवरी ती एकेका माळयार देंवताली—जेवणाचे हॉल तपासताली...आनी दुसऱ्या माळयार वताली...तो तिजे पाळटेर आसलो. ती भितर सरत सावन तो तिजे पाळटेर आसलो. ती वता थंय तो वतालो. परकी मनशाक अशेंच दिसूंक फाव कि तीं दोगांय सांगतान आसात...तो कोण, ती कोण ? तांचें नातें कितें ? असल्यो चवकशो दिल्लीचो लोक करिनात. तांचे नदरेन तें एक जोडपें—मागीर तीं भाव-भयणां आसूं, घोव-बायलां आसूं, मोगी जोडपें आसूं नाजाल्यार आनीक कोणूय आसूं...पुण अजापाची गजाल म्हळयार ते चलयेक तो थंय आसा

...आपल्या फाटल्यान भोंवता म्हणपाची धंग लेगीत ना. ती आपलेच तनरेंत आसा...हुसक्यामेकळी !...हुसक्यामेकळी कशी तर ?... हुसको तिच्या तोंडार उदेला.

परथून ती रेलिंगाचेर बागवली आनी कित्याक कोण जाणा रेलिंगाचेर वयर चडूंक सोदिल्लेभशेन करूंक लागली. एक तरूण सुंदर चली अशी ह्या वेळार एकली हांगा येवन रेलिंगाचेर चडटा कित्याक ?.. तो येवजिताली... ताका चर्र जालें आनी तो तिच्या म्हर्‍यांत गेलो.

तागेल्या बुटांचो आवाज आयकनाफुडें ती सरळ उबी रावली. आनी तिणे नदर फिरायली. चार दोळे खिणापुरते एक जाले. पुण तागेले नदरेंत मोग आनी भंय आसलो. खिणाभरयांत तिणें तो पळोवन घेतलो. तिका हांसो आयलो; पुण ती हांसली ना.

'तूं उडी घेवंक सोदता.' कांपर्‍या आवाजांत ताणे विचाल्लें.

'हय' कितलो गोड आवाज. रुप इतलोच सुंदर—'पुण तूं लागीं येशीत जाल्यार आतांच उडी घेतलें.'

तो थंयच थांबलो. ताणे म्हळें, 'तूं उडी घे, पुण एक आयक... तूं थंयच्यान उडी घेतल्यार मरचें ना...स्विमींग पुलांत पडटलें आनी वांचतलें. त्या परस फाटले वटच्यान वच आनी उडी घे. सामकें तळपार पडून रोखडोंच मोक्ष मेळटलो.'

तागेली जाप आयकून तिका अजाप जालें. तिणे फाटले वशीन घुंवन पळेलें. हय, सकल उदकान भरिल्लो स्विमींग पूल आसा. ताणे सांगिल्लें तें खरें.

म्हणटा म्हणसर तिजे हातपांय कडकडूंक लागले. पुण तोंडावेले भाव बदल नासतना तिणे दोनूय हातांनीं रेलिंगाक घट्ट धल्लें. आनी ताका विचाल्लें, "तुका कशें कळ्ळें हांगाच्यान उडी माल्ली जाल्यार स्विमींग पुलांत पडटलें म्हणून ?'

'ना जाल्यार मारून पळे.'

'तुवें मारून पळेल्या ?'

'म्हणुनच तर सांगतां.'

तिका मात्शें कुतुहल जालें. 'मागीर कितें जालें. ?' तिणें विचाल्लें.

‘ तूं आयकतलें जाल्यार सांगतां. चल भितर यो. कॉफी घेवंया. ’

‘ सोड त्यो काणयो ..हांव कॉफी घेवंक येना. तुगेल्यो काणयो आयकून म्हजो संकल्प बदलपाचो ना. ’

‘ तूं संकल्प बदलूंच नाका. जीव दीच तूं...तुका जाय जाल्यार हांव तुका धुकलून उडयतां...पुण आदीं म्हजी गजाल आयक. ’

तिणे भियेवन आंग काडलें. पुण धीर धरून म्हळें, ‘ बरें आसा. चल या. ’’

तीं दोगांय भितर एअर कंडिशण्ड हॉलांत आयलीं. ताणे दोन कॉफी मागयल्यो.

‘ सांग. ’ धीर नाशिल्लेवरी करून तिणें म्हळें.

आनी ताणेय सांगूंक सुरवात केली—‘ पोरूं ह्याच दिसांनीं तूं उबें राविल्लें थंयच्यान हांवें उडी मारली आनी स्विमींग पुलांत बुचकळ्यो खाल्यो. एका अमेरिकन मनशान म्हाका वयर काडलो...आनी सगळ्यांनीं म्हजें अभिनंदन केलें !...तें म्हाका साबुद्‌दीर येतकच कळ्ळें. पुण हांवें जीव दिवंक उडी घेतिल्ली म्हणपाचें लेगीत कोणाक कळ्ळें ना ! ’

‘ कशें तर ? ’

‘ म्हजी एक चूक जाल्ली. हांवें आंगावेली मुस्तायकी काडून निखटे चेड्डुर रावन उडी मारिल्ली. तांकां म्हगेलें तें ॲडवेंचर दिशिल्लें...तुजी गजाल वेगळी. ’

‘ पुण तूं जीव कित्याक दिवंक सोदी ? ’

‘ म्हजो प्रेमभंग जाल्लो...एके सुंदर चलयेन म्हाका फटयलो. ’

ती ओगीच लजेली. तिणे पळेलें किं तोय सुंदर आनी तरूण आसा.

‘ त्याखातीर भांगरासारको जीव कित्याक वगडावंक जाय आशिल्लो ? चलयो कितें थोड्यो आसात ? ’

‘ चलयो जायत्यो आसात. पुण ती एकच ! ’

‘ विसर तिका तूं...’

‘ आज वर्सभर विसरत रावलां...आज तुका देखली आनी परत तिजी याद आयली. ’

‘ म्हजेभशेन दिसताली ती ? ’

'ना...पुण तूं जीव दिवंक सोदतालें तें पळोवन फाटली सगली याद जाली...'

'याद काडून जिवाक त्रास करून कित्याक घेता ?...विसर तें आतां. जी चली मोगाक जागना तिका याद फावना...

'तुकाय तशेंच दिसता मूं ?...'

'हय.'

'म्हाकाय मागीर तशेंच दिसलें...जिका मोगाचें मोल ना तिजेखातीर मरपांत कितें हांशील ?'

'बरोबर आसा तुजें म्हणणें...'

'तूं कित्याक मरूंक सोदता सांग...?'

'म्हजोय विचार आतां बदल्ला.'

'असो विचार बदलूं नाका. म्हज्याखातीर तूं त्रासांत पडूं नाका. तुका मरपाचें आशिल्लें न्हय ? मर तूं...'

'पुण तुजी खबर आयकून म्हजो विचार बदल्लो...म्हाकाय एकल्यान फटयलें...पुण फटकिऱ्यांखातीर जीव दिवप म्हळ्यार पिशेपण न्हय ?'

'तशें दिसता तुका...तूं ताका विसरशीत ?'

'ह्याफुडे दुसऱ्याची याद करतकच ताजो आपशींच विसर पडटलो.'

'कोणाची याद करतलें ?'

ती लजेली. मान सकल घाली आनी ती हांसली.

ताका कितें दिसलें कोण जाणा...'चल...वचुंया आमी.' ताणे म्हळें. तिणे ना म्हळें ना. लिफ्टांत बसून ती सकल आयलीं...

थंय एक तरूण उबो आसलो. धांवत ती ताजेसरीं गेली आनीं म्हळें 'हॅलो डार्लिंग ?'

'खंय आसलें तूं येदो वेळ ?...हांव तुका केदो वेळ सोदतां.'

'आय हॅड व्हेरी गूड पास टायम...चल सांगता तुका सगळें...' अशें म्हणून ती तागेले वेंगेंत गेली आनी ती दोगांय परथून लिफ्टांत चडलीं.

लिफ्टाचें दार बंद जावपावेळार येदो वेळ आं तोंड करून पयस उब्या आशिल्ल्या त्या तरुणाक दावो हात हालोवन तिणे 'बाय...' केलें.

* * *

# परतण

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

घराच्या दारार मुजरत ताणे बेल बसोवन घेतिल्ली. भायले बटच्यान कोणूय आयलो आनी ताणे बेल वाजयली म्हणटकच सतारेची तार छेदिल्लेवरी मधूर संगीत घरभर गाजतालें. हें संगीत ताका खूब आवडटालें. लग्न जावन घोवागेर येतना तें आपलो तंबोरो कुळाराच दवरून आयिल्लें आनी आतां संगिताकडचो तुटिल्लो संबंध परथून जोडपाखातीर ताणें ती संगीत बेल बसोवन घेतिल्ली.

आज दनपारां तीन वरांचेर बेल वाजली. तें आपले कुडींत खाटेर आडवें जाल्लें आनी निकतोच ताजो दोळो लागतालो. संगिताच्या आवाजासरशीं तें न्हिदिल्लेकडेनच मात्शें घोल्लें. पुण दुसऱ्याच खिणाक भानार येवन उठलें. हारशा मुखाक वचून ताणे दोनूय हात केंसावेल्यान भोंवडावन केंस सारके केलें. ते ताकतिकेंतय पोवाचें फूल तोंडावेल्यान फिरायलें आनी सुक्या तुवाल्यान तोंड पुसलें.

परथून बेल वाजली...कोण आयलो काय ह्या अवेळार ? ताजो घोव ऑफीसाक गेल्लो आनी तो स वरांचेर परतुपाचो आसलो. धांवत तें भायर आयलें आनी ताणें दार उकतें केलें.

दारांत घोव आणि घोवा बांगडा आयिल्लो नीतीन ! ताका उतरच येवजना जालें. नीतीनाली आवतिकायच तशी जाल्ली. पुण खिणाभरयांत तें सुद्दीर आयलें. येदो वेळ तें दार आडावन उबें राविल्लें. तें कुशीक सल्लें आनी तोंडार हांसो हाडून ताणें म्हळें, "येयात."

"ही म्हजी घरकान्न. आनी लता, हो..."

" नीतीन. " तें उलोवन गेलें.

तागेल्या घोवाक अजाप जालें. तो लताकडेन पळेत रावलो.

' हांव आनी लता एकेच शाळेंत शिकतालीं. ' नीतीनान थंडसाणेन सांगलें. ते बरोबर तो हांसलो—' ओ ! आय सी. तुमी फ्रँडस तर. मागीर इंट्रोडक्शनाची गरज ना. "

लताले दोळे चकचकले काय ती दुकां आसलीं ? " कसो आसा नीतीन ?" लतान विचाल्लें.

" काडटां दीस. " हांसत नीतीनान जाप दिली. तो सोफाचेर बसलो आनी वणटीचेर लायिल्लीं चित्रां नियाळूंक लागलो. बऱ्या वेळान येवजल्ले-वरी करून ताणें विचाल्लें, ' आनी तूं कशें आसा गो ? '

' आसा...आनंदांत.'

नीतीन सामको सुकला आनी ताजें गोरेपण वचून तो काळोय जाला. दोळयांभोवतणी काळसाण दाटल्या...कितें तरी शेणिल्लेवरी वागता अशें लताक दिसलें. आतां तो आदलो उरूंक ना.

ल्हानपणांत शाळेंत वता आसतना लताल्या पुस्तकांतलें सुकयिल्लें विलो-दाचे पान नाजाल्यार मोराचें पांख चोरून काडपी नीतीन खंय आनी आज सोफार बसून जिणेंत जें शेणयल्लें तें सोदपी नीतीन खंय ! तो नीतीन दोळयांनी उलयतालो, हातांनी खुणायतालो, वाऱ्याभशेन चपळ...अभ्यास करूंक बशिल्लेकडेन ल्हवूच फाटल्यान येवन कानाकडेन मोराचे पांख फिरावन कातकुतल्यो करपी आनी मागीर तितल्याच अधिकारान कवितेचो अर्थ समजावन सांगपी तो नीतीन आज तसो उरूंक नासलो !

नीतीना सांगातान सारिल्ले दीस किवले सुखदिणे ! एकफावटी तीं पिक-निकेक गेल्लीं. तेन्ना सुर्यास्ताचो देखाव दाखोवपाचें निमित्त करून नीती-नान ल्हवूच ताज्या कानांत सांगिल्लें– " चल लता, आमी दोगांच वचुंया त्या दोंगराचे पलतडीन. विस्वास ना तुजो म्हजेर ? थंय मुगो हात हातांत घेवन हांव तुका युगायुगांच्यो गजाली सांगतां."

पण तांकां जिवीतांत केन्नाच एकांत मेळूंक पावलो ना. जाल्यारूय ल्हान–ल्हान कर्तुपांनी, उतरां–उतरां कणकणी नीतीन लतावेलो आपलो

मोग उकतो करतालो. आनी निमाणें–निमाणें लता लेगीत ताका सा
दितालें.

केन्ना झगडून, केन्ना तापून, केन्ना चिंचेबोटां आनी आमाडे हाडू
दिवन नीतीनान लतावेलो आपलो मोग उकतो केल्लो आनी तें चिंचेबो
खाता आसतना तागेल्या हांतातलें उश्टें अर्द झोंबून घेंवन ताका चाळोव
तो खातालो–"ह्या चिंचेबोटाची गोडी आगळीच! तूंच पळे" आ
आपणें उश्टायिल्लें चिंचेबोट तो लताक खावंक दितालो.

धमकावन आनी भेश्टावन केन्नाकेन्नाय पांय पडून लताचेर अधिक
गाजोवपी तो नीतीन आज ताणें हाडून दिल्लें फ्रिजांतलें थंड उदक तक
सकल घालून पियेतालो.

"नीतीन, आई कशी आसा?"

"आई भायर पडल्यार चार वर्सां जालीं."

"अशें जालें कितें तर तिका? म्हाका खबरच ना."

"कितें जालें तें अखेरमेरेन कळ्ळेंच ना. पोटांत उदक जालें अ
दोतोर म्हणटाले."

"हय, हालीं दुयेंसांय विपरितांचीं जातात. आनी दोतोरांकय तां
सारकी परिक्षा मेळना" मदींच लताल्या घोवान तोंड घालें.

"कितले दीस हांतुणार उल्ली?"

"सात आठ म्हयने"

"आनी कोणें काडलें तिजें?"

"आनी कोण काडटलो? हांवेंच काडलें."

"कित्याक? नल्लू नाशिल्लें तर?"

"नल्लू लग्न जावन मुंबय गेलें"

"आतां घराकडेन कोण आसा?"

"घर खंय उल्लां? तें केन्नाच विकलें."

"कित्याक?"

"आइल्या वायटा वेळार काडिल्लें रीण फारीक करपाचें आशि
आनी म्हाकाय एअर फोर्सांत नोकरी मेळ्ळी."

"म्हणटकच सद्या तूं आसता खंय तर?"

"खंय हाजो नेम नासता. केन्नाय काश्मीरांत जाल्यार केन्नाय पंजाबांत नाजाल्यार दिल्लीक."

"घराकडेन मायेचें कोण नासतकच अशेंच जाता."

"मायेचें बंधन तुटना. पुण ल्हान बंधनां तुटटकच हांवें सगल्या देशाचे राखणेचें व्हड बंधन आपखोशयेन घेतलें."

"म्हणटकच सद्या तूं खंय आसता ?"

"सद्या रजेर आयलां. घर ना दार आनी मायेचें कोण मनिसय ना. पुण ज्या गांवात ल्हानाचो व्हड जालों, जे मातयेंत खेळ्ळों त्या गांवांविशीं सदांच अभिमान दिसता. भुरगेपणांतल्यो शेंकड्यांनी यादी त्या वाटाराक ताज्यो उल्ल्यात. थंयचीं झांडापेडां, न्हंयों, झरे आनी दरया-वेळो हीं म्हजे यादस्तिचीं भांडारां...सुटी घेवन मदीं मदीं मुजरत हांगा येतां आनी काळाच्या पोटांत विलीन जाल्लें जिणें नव्यान अणभवतां.

"रावता खंय तूं ?"

"घरदार नाशिल्ले आमी चौगपांचजाण ऑफीसर हॉटेलांत रावतात. भोवतां भोवतां पावतात थंय जेवतात. आनी राती वेळार हॉटेलांतल्या कुडींत येवन सकाळ जावपाची वाट पळेतात."

"खूब दिसांनी—कितलेश्याच वर्सांनी मेळ्ळो तूं नीतीन."

"ही भेट लेगीत योगायोगान घडून आयली. दनपारा सुरेश मेळ्ळो आनी ताणे आग्रो करून म्हाका हांगा हाडलो."

"हय, हय, म्हजो इश्ट जायत्या दिसांनी आज मेळ्ळो. लग्नाचें आमंत्रण ताका धाडिल्लें. पुण तो लग्नाक पांवंक नाशिल्लो..."

"आमी एअरफोर्सचे लोक. आमकां जाय तेन्ना सुटी कशी मेळत ?"

"हांगा आसा सर जेवंक आमगेरच यो." लतान म्हळें—

"ओ यस. तूं आमगेरच रावंक कित्याक येना नीतीन ?" लताच्या घोवान विचाल्लें.

"थँक्यू. पुण म्हगेल्या वांगड्यांक सोडून हांव एकलोच कसो येवं ?"

"एक दीस जेवंक तरी येता मरे ?"

"जेवंक आनीक म्हणून वेगळो कित्याक येवंक जाय ?"

"ना ना, येवंकच जाय !" मदींच सुरेशान तोंड घालें. "इतल्या

वर्सांनी मेळ्ळा तेन्ना तुका पोटभर वाडूंक तरी दी लताक. सांग, केन्ना येता ? आज सांजे ? ”

“ आज नाका, फाल्यां दनपारां येतां ”

“ आयले बगर रावं नाका हां. हांव वाट पळेतां.” लतान आग्रो केलो.

नीतीन गेलो तरी जायतो वेळ लता ताजीच याद करीत बसलें. फाल्यां नीतीन तागेर येतलो. तागेल्या हक्काच्या घरांत. आनी नीतीनाविशी ताज्या मनांत जो उपाट मोग आसा तो उक्तो जाय सर तें ताका आग्रो करून वाडटलें. तागेले आवडिचें जेवण रानतलें. माल्शें चुकलें ना जाल्यार जल्म-भर तें ताका वाडपाचें.

केन्ना केन्नाय लताक दिसतालें देवाक आपली नीतीनाकडेन गांठ बांदपाची नाशिल्ली जाल्यार ताणे आमकां इतले लागीं हाडलीं तरी कित्याक ? साडयेच्या पदरान दोळे पुसून लता कामाक लागलें. फाल्यां नीतीन येतलो. दारावेली बेल वाजयतलो. संगीताचो सूर घरभर पातळटलो. हांवच ताका दार उक्तें करतले.

नीतीन सोफार बसून भुरगेपणांतल्यो यादी चाळीत विचारतलो— “ म्हज्या खातीर तुका खूब त्रास पडले न्हय लता ? ” आनी हांव जाप दितलें “ तुका वाडचे खातीर हाज्याकय चड त्रास हांव सोंशीन... ” पुण असली जाप घोवाक रुचत ? ताका ओगीच दुबाव येवंक पुरो. पुण आय-ल्यार येवं. नीतीनाक कळुंकूच जाय कि तागेलें लता अजून ताजी याद काडून झुरता.

पानार बसतकच हांव ताका आग्रो करकरून वाडटलें. तो लजतलो. घडये फाटल्यो यादी काडून सदगदीत जातलो. तशें मात जावं नाका देवा ! तशें जाल्यार म्हाकाय रडूंक येतलें...नीतीनाल्यो गजाली हांव आयकत बसतलें. पुण म्हजी नदर तागेल्या ताटार आसतली. कारण नीतीन आपूण जावन कांयच मागून घेवंचो ना. ताका कितें जाय हें म्हाकाच पळोवन वाडचें पडटलें.

मागीर तो दोनय हात वाट्येर धरून पुरो म्हणटलो. तेन्ना म्हज्या हातान ताजे हात कडेक काडून ‘ म्हजें म्हुण इतलें खा ’ असो आग्रो करून ताका वाडटलें. घोवाक घडये तशें केल्लें रुचचें ना. दोन दीस तो रागय

ीत. पुण नीतीन सदांच खंय येतलो ? म्हाका तर नीतीनाले ल्हवेन ल्हवेंक ग हाडची आसा, जाणीव करून दिवची आसा कि लताल्या काळजांतलो जे विर्शिचो मोग अजून आटूंक ना.

घरचें जेवण जेवल्यार नीतीनाक कितलीं वर्सां जालीं जातलीं. लस्कराच्या ग़ांत खंय मेळूंक आयलां मायेचें जेवण आनी खानावळींत खंय मेळूंक ायल्यात आवडटे जिनस? जीवनांत ताका एकय आवडिची वस्त मेळ्ळी ा. घडये ताजी आवडच आतां मेल्या जातली.

लता एकेवटच्यान येवजितालें आनी दुसरे वटच्यान जेवणाची तयारी रतालें. सकाळ फुडें घोवाक बाजारांत धाडून तें निगूत नुसतें मागयतलें, रतरांच्यो शाको हाडटलें, रातीकडेत अळसांदे भिजत घालून सकाळीं तें गटां घालून तोंडाक करतलें. नीतीनाक असलें तोंडाक खूब आवडटा.

× × × ×

धा वरां जांवचे पयलींच दारावेली बेल वाजली. संगीताच्या सुरांनीं राचो कोनशान कोनसो भरून गेलो. लता रानचेकुडींत आशिल्लें. धांवत चून ताणे दार उकतें केलें. दारांत एका अनवळखी मनशाक पळोवन तें ोंदळ्ळें. ताज्या हातांत चीट आसली. चीट दिवन तो गेलो.

ज्ता,

सकाळीं फुडें दिल्ली सावन तेलेग्राम आयलो. पाकिस्तानान आमच्या शाचेर धुरी घाल्या. आमी सगळे ऑफिसर स्पेशल विमानान दिल्लीक ताात.

तुज्या हातचें जेवणाची खूप इत्सा आशिल्ली. आई गेल्याक घरचें ावलों ना. आज जेंवक मेळटलें अशें दिशिल्लें. पुण देवाची इत्सा तशी देसना. वांचून उल्लों जाल्यार परत येतलों.

सुरेशाक नमस्कार.

—नीतीन

लतामुखार सगळो संवसार धुंवक लागलो. पुण ताका जबाबदारी ासली. तें नीतीनाली प्रिया नासलें; सुरेशाली बायल आसलें. ताणे आप- ाक सांवरून घेतलें आनी तें भितर आयलें.

दनपरां ताणें नीतीना खातीर रांदिल्लें जेवण आग्रो करकरून सुरेशाक वाडलें. तागेल्या जिवितांत अशेंच घडिल्लें. जिवितच तें नीतीनाक ओंपूंक सोंदतालें. पुण तें ताणें सुरेशाले सुवादीन केल्लें. स्वत्व नाशिल्ली वस्त कशी तें जाल्लें.

जेवन सुरेश ऑफिसाक गेलो तशें तें कुडींत खाटेर वचून बसलें आनी पोटभर रडलें.

* * *

# सांगात

दीस सोंपून रात वयर चडिल्ली. सगल्या वाठाराचेर गुपाट काळोख तळिल्लो. मोटारिच्या उकत्या जनेलांतल्यान शितळ वारो येतालो. मार्गाचे शीं खळयो उदकान उपाट भरून व्हांवताल्यो. पांचवो शालू आनी पांचवो डो न्हेसून सजयल्ले नवे व्हंकलेवरी सगळी सृश्ट दिसताली....

नदर घुंवडावन हांवें बगलेक बशिल्ल्या संगिताकडेन पळेलें. शितळ वारो ंगार घेवन तेंय येवजणुकिच्या सपनांत रंगल्लें. वाऱ्यान तागेले केंस फड-डटाले आनी साडी आंगाक चिपकताली...साडयेची पातळसाण तागेल्या रुण्याचें दर्शन दिताली...

संगितान नदर घुंवडावन म्हजेकडेन पळेलें. हांवें म्हळें,

“ अजून गोंय पयस आसा...निकतें बांदें फाटीं गेलां.”

“ कितलें पयस ? ” ताणे विचाल्लें.

“ मडगांवां पावसर धा वरां जातलीं. ” हांवें म्हळें.

तें कांय एक उलयलें ना. तशें हांवें ताका विचाल्लें, “ तुका भंय बी सना मूं ? ”

“ कसलो ? ”

“ राती वेळार एकलें एका अनवळखी मनशा बरोबर वता म्हणपाचो...”

“ तुका जबाबदारी ना तर ! ”

ताजी जाप आयकून हांव अजापभरीत जालों...ताणेंच फुडें म्हळें, जेर म्हजो पुरतो भावार्थ आसा...म्हणुनच तर तुज्या वांगडा येवंक ल जालें. ”

म्हाका मात्सो धीर आयलो. हांवें म्हळें, "विश्वामित्रासारकिलो तपस्वी लेगीत मेनकेच्या दर्शनान चळ्ळो, थंय म्हज्या सारक्याची कितें कथा ! अशा सुंदर वेळार, एकांतांत तुजे सारकिले सुंदर तरूण चलयेच्या सांगातान म्हाका भंय दिसता. म्हजो संयम सुटत म्हणून !"

संगितान जाप दिली ना. वाऱ्याच्या झोतान आंग शिरशिरिल्लेवरी करून ताणे आपल्या खांद्यावेलो पदर घट्ट आंवळून घेतलो.

"थंड वारो लागता जाल्यार हारसो वयर काड." हांवें म्हळें.

"नाका...हो शितळ वारो म्हाका आवडटा."

मोटार नेटान धांवताली. कांय वेळ कोणच कांय उलयलो ना. पयस मुखार दोंगर दिसतालो. दोंगराक काळ्या–किट्ट कुपांनीं घेरिल्लो. अचकीत घोघ्यांनीं पावस पडूंक लागलो. तातकिकेन हांवें मोटारिचो हारसो वयर काडलो आनी संगिताकय हारसो वयर काडूंक सांगलें. पुण बोवाळांत ताणें मोटारिचें दारच उकतें केलें...म्हजें लक्ष वेळार गेलें म्हणून बरें जालें. हांवें दाव्या हातान संगिताभोंवतणी खेम घाली आनी गाडी थांबयली. मागीर ताज्या मांडयांवेल्यान बागोवन दार बंद केलें आनी हारसो वयर काडलो.

संगिता भियेल्लें आनी भिजिल्लेंय. तें कडकडूंक लागलें. हांवें ताजे भोंवतणची वेंग अदीक निबर केल्ली तशें तें सुद्दीर आयलें. म्हजे वेंगेंतलें सुटचे खातीर तें धडपडूंक लागलें. हांवें हात सोडलो आनी म्हळें, "हांव सभ्य देखून इतल्यानच सोडटां...ना जाल्यार..."

"तूं कितेंय करशीत; पुण वेळ–काळ पळोवन वागूंक जाय मनशान !"

गाडी परत सुरू जाली. घोघ्यांनीं पावस पडटालो. मोटारिचे मुखावेले दिवे पेटिल्ले आनी हारशाचेर व्हायपर्स घुंवताले; पुण दोन हातापेलें कांयच दिसना आसलें. सगळ्या वाटाराक धुंवट-शें पातळिल्लें...साडे आठ वरां जायत आयिल्लीं. मोटारिची स्पीड उणी करून हांव सवकासायेन वतालों.

आतां संगितान दाराची धास्ती घेतिल्ली. तें सरकून मात्शें म्हजे बगलेक आयलें. तें लागीं तेंकून बसलां म्हणपाचें म्हाका जाणवतालें, पुण ताजो स्पर्श म्हाका जायना आशिल्लो...

संगिताक आज हांवें पयलेच खेपे पळेल्लें. निकतीच आमची वळख

ल्ली. आनी रोखडींच आमी एके मोटारीन प्रवास करतालीं. सगळेंच कल्पीत !

मुंबयच्यान येतना हांव जेन्ना सांवतवाडीक म्हज्या इश्टागेर, रमेशागेर ततर सल्लों तेन्ना रमेशान आनी वयनीन म्हाका रातचो तांगेर राव हणून खूब आग्रो केलो. पुण म्हाका कोणाय भशेन रातचो मडगांवा रतूंक जाय आशिल्लें. हांवें म्हणिल्लें, " आयची रात रावल्यार फाल्यांचो गळो दीस फुकट वतलो...आतां भायर सरल्यार दोन–तीन वरां भितर रा पावतलों. "

तेन्ना वयनीन संगिताक उलो मारून ताजी म्हजेकडेन वळख करून दिल्ली. मतल्ले कुडितल्यान संगिता जेन्ना भायर आयलें तेन्ना म्हज्या काळजांतली तारिची तार धोल्ली...खरेंच संगिता एक सुंदर चली !...खिणभर म्हाका दसलें, हांव आजची रात हांगाच राविल्लों जाल्यार...पुण आतां उतरां शीं बदलूं ?

...पुण वयनीन दुसरेंच केलें. तिणे संगिताक विचाल्लें, " मडगांवां चूंक मोटार आसा...वता तूं ? "

राती वेळार संगिता सारके सुंदर चलयेक ती म्हज्या बरोबर धाडूंक यार जाल्ली. वयनिचे तकलेंत दुसरेंच कितें घोळटा आसतलें असो म्हाका बाव आयलो. हांव मनांतल्या मनांत खुशालभरीत जालों...

...पुण संगितान जाप दिली ना. म्हाका दिसलें ताणें ' ना ' म्हळें ाल्यार म्हज्या तोंडार मारिल्लेवरी जातलें.

" कितें गो ? " वयनीन परत विचाल्लें.

" म्हाका वचूंक जाय...तूं वच म्हणटा जाल्यार वतां." ताणे जापदिली.

" वच तर. " अशें म्हणून वयनीन म्हाका सांगलें, " सांजे वो बस कली ताका...देवान हो योगायोग घडोवन हाडचेखातीर बस चुकयली दसता..."

म्हाका एके गजालिचें अजाप दिसलें. म्हजी परवानगी वयनीन घेतलीच ा. संगिताक व्हरूंकच हांव आयिल्लेवरी ती वागली...

× × × ×

... तें हें संगिता ! आतां म्हजे कुशीक बसलां. आनी बंद मोटारींत

रातिच्या गुपाट काळखांत आमी दोगांच आसात...गोंयच्या दिकान मोटार चलता...पावसाचे घोघे आमचेर अभिशेक करतात...

म्हाका दिसलें, संगिता अशेंच म्हज्यांत बशिल्लें आसचें...हांवें मोटार चलोवंची आनी...आनी मडगांव केन्नाच येवचें न्हय. फक्कत मनांत एकच भिरांत आसली–मोटार वाटेर बंद पडत म्हुण.

मुखावेलो धाकलो हारसो हांवें घुंवडायलो आनी त्या काळखी उजवा-डांत संगिताल्या तोंडाचें पडबींब म्हाका दिश्टी पडूंक लागलें. तें तोंड नियाळटा आसतना हांव सुख–सपनां पळेतालों...म्हाका दिसूंक लागलें कि आमची वळख युगायुगांची. आजच आमची पयलेच खेपे वळख जाल्ली... निकतींच एकामेकांक मेळिल्लीं...

"संगिता !" हांवें ल्हवू उलो माल्लो.

"कितें" ताकाय तनर लागिल्ली...न्हिदेंतलें जागें जाल्लेवरी ताणें विचाल्लें.

"थोड्या वेळान आमी मडगांवां पावतलीं...आनी मागीर तुजो सांगात सोंपतलो ?"

"आनीक कितलो वेळ तुका सांगात जाय आशिल्लो ?..."

"मेळ्ळो जाल्यार जिवीतभर..." हांवें जीब चाबली...

हारशांत हांवें पळेलें संगिता गोड हांसलें. पुण तोंडान कांय एक उलयलें ना...

हांवेंच परथून विचाल्लें "तूं सदां मडगांवाच आसता ?"

"कित्याक विचारता ?"

"तुका केन्नाच पळयलें ना देखून..."

"मडगांवच्या सगळ्या चलयांक तूं वळखता ?"

"तशें खंय म्हळां हांवें...तुका मात ह्या आदीं केन्नाय पळयलें ना."

तें कांय उलयलें ना. ताज्या ओंठार उदेल्लो हांसो मात अजून तसोच आसलो...तो गोड हांसो, ते नाजूक ओंठ म्हाका आपोवणो दिताले.

ओगीच दाराचें निमित्त करून हांवें दावो हात लांबयलो. ताज्या मांडयांक आफडून तो दाराक लायलो...

"कितें जालें ?"

" दार सारकें बसलां काय म्हणून पळेतालों. "

तें हांसलें. वातावरणांत एके तरेचें ताजेपण–टवटवीतपण आसलें. पावसाचो नाच मोटारीवेल्या टपटपाच्या तालार चलतालो. गियर बदलून हांवें गाडी व्हव केली आनी संगिताले फाटीर हात दवल्लो...

" तो पळे मार्गार कोण..." संगितान म्हळें.

म्हाका हात काडचो पडलो. पयस मोटारिच्या उजवाडांत मार्गार उबो आशिल्लो एक मनीस म्हाका दिश्टी पडलो. ताच्या हातांत सत्री आशिल्ली... पुण तो चींब भिजिल्लो. तो मोटारीक हात दाखयतालो.

" कोण काय देवा ? " संगितान म्हळें.

" ताजो तुका इतलो कळवळो कित्याक ? "

संगितान कांयच जाप दिली ना. गाडी त्या मनशाच्या म्हऱ्यांत पावली. हांवें गाडी थांबयली. तशी सत्री पालोवन तो म्हऱ्यांत आयलो.

" खंय वता ? " हांवें विचाल्लें.

' खांडेपारा...बस चुकली म्हाका. '

' खांडेपारा ?...आमी वतात म्हापशां...'

' जाता...अस्नोड्या देंवतां हांव...'

पुण ताजें म्हणणें पुरतें आयकुचे पयलींच हांवें मोटार सोडली...

पावस पडतच आशिल्लो. संगितान फाट धुंवडावन त्या अनवळखी मनशाकडेन पळेलें आनी आपलेकडेनच उलयिल्ले भशेन करून म्हळें, ' भोंगू गावड्याचें ! '

' तूं आशिल्लें म्हणून हांवें ताका घेतलो ना...हो तुजो सांगात आज म्हज्या वांट्याक आयला...मदीं आडखळ नाका म्हणून ! "

मात्शें उदास तोंड करून संगिता बसलें. बरो वेळ मेरेन कोणच उलयलो ना.

" कितें जालें ? तूं ओगी कित्याक रावलें ? " हांवें संगिताक विचाल्लें.

" कांय ना. " संगितान जाप दिली.

मोटार चलत रावली. घांट आयलो आनी गेलो. घांट हुपतकच पावस थांबलो. मळबार पावशी कुपां दाटिल्लींच आशिल्लीं...पुण हांवें जनेलाचो आरसो सकल देंवयलो...झणझणीत शितळ वारो भितर सल्लो. हांवें मोटार

[ ७ ]

हळू केली आनी संगिता बशिल्लें ते वटेच्या जनेलाचो हारसो सकल देंवयलो. हे फावटी म्हज्या कानसुलांक तागेल्या हून श्वासाचो स्पर्श जालो...हांव आनीक कितेंय करीन ह्या भेयान संगिता जनेलाकडेन सरकलें पुण वतां वतां ताज्या ओंठाचो स्पर्श म्हज्या पोल्याक जालो !

गाडी गोंयचे शिमेंत पावली तेन्ना रातिचीं धा वरा जाल्लीं. हांवें सुटकेचो उस्वास सोडलो. सावंतवाडी ते गोंयामेरेन वाटेर आमकां एकय मोटार वा ट्रक मेळूंक नाशिल्लो.

" आयलें आतां गोंय. " हांवें म्हळें.

संगितान म्हज्या तोंडाकडेन पळेलें आनी आयकना आशिल्ले भशेन करून तें ओगी रावलें. हे फावटी तागेलें मौन म्हाका आवडलें ना. हांवें एक्सेलरेटर दामलो.

गाडी अस्नोडया पावनाफुडें मार्गावेल्यान येवपी—वचपी मोटारींक लागून स्पीड आपशींच उणी जाली. तरी पणून पावस नाशिल्ल्यान स्पीड घेवंक अडचण नाशिल्ली...निकतोंच पावस पडून गेल्ल्या कारणान डांबरी मार्ग आनी भोंवतणचो वाठार न्हावन धुवन निवळ जाल्लो. थंड वारो व्हांवतालो आनी गुपाट काळखांत मदींच खाणीं वेले दिवे काजुले कशे चकचकताले.. मदींच एकाद्रे खोपींतल्या लापयांवाचो उजवाड दिसतालो... हेर सगळ्याक थंडाय.

मोटार खांडेपारचो पूल हुपून गांवांत पावचे वेळार मुखावेल्यान नेटान येतल्या एका ट्रकाक सायड दिवचेखातीर हांवें गाडी कुशीक काडली आनी थांबयली. धडधड करीत ट्रक गेलो. भायले वटेन आतां पावस पडूंक लागिल्लो. गाडी सुरू करून गियरांत घाली...पुण गाडी फुडें वचना. पावसांतच देंवन पळे जाल्यार गाडयेचीं दोनय दावीं रोदां चिखलांत रोमल्यात आनी गाडीय खळयेंत लकल्या. मोटारिचो हॉर्न वाजोवन लागसार कोण आसा काय म्हणून अदमास घेतलो. पुण पडल्या पावसाचो टपटप, व्हांवते न्हंयचो आवाज आनी बेबकांचे रडप हाजेभायर मनीसजातिचो वास लागलो ना.

म्हाका हुसको जालो संगिताचो. राती वेळार असल्या पावसांत ताका खंय दवरतलो ?...पुण हांव कांय एक उलयलों ना.

" गाडी मुखार वचची ना ? " संगितान प्रस्न विचाल्लो. एके तरेचो
ाय तागेल्या प्रस्नांत आसलो.

" दोन मानाय मेळ्ळे जाल्यार जायत..." हांवें जाप दिली. आनी
डयाळींत पळेलें. साडे अिकरा वरां जावन गेल्लीं.

येदो वेळ हांव पावसांत भिजत उबो आशिल्लों आनी संगिता मोटारींत
शिल्लें. कोणाकय सोडूंक बतलो म्हळयार संगिताक एकलें सोडचें पडटलें...

इतले म्हणसर एक लापयांव आमचे वटेन येता म्हणपाचो आमी पळेलो.
ार्गाचे उजवे कुशीक दाट झाडा मदल्यान तो उजवाड लागीं लागीं येत
ावलो. आनी बगलेक येतकच आवाज दिलो, " कोण थंय ? "

एके बायल मनशेचो आवाज. हांवें संगिताक सांगलें–तूंच जाप दी.
शें संगितान म्हळें, " आमी तीं...आमची मोटार हांगा चिखलांत
ामल्या. "

एक जाणटी बायल एका हातांत लापयांव आनी दुसऱ्या हातांत उकती
त्री घेवन आयली.

" म्हजो चलो येवपाचो आशिल्लो. हॉर्न आयकून हांव आयलीं. "
तणें म्हळें.

" हांगा चार मानाय मेळचे नात ? गाडी वयर काडूंक ? " हांवें
वचाल्लें.

" ह्या वेळार पुता मानाय खंयचे ? सगळो गांव न्हिदलो आतां "
ाणें जाप दिली. आनी कांय वेळ थांबून विचाल्लें, " तुमकां खंय वचपाचें
ासा ? "

" मडगावां. " संगितान जाप दिली.

" तशें जाल्यार अशें कराता. आयची रात तुमी आमगेर न्हिदात.
काळीं फुडें मानाय मेळटले, तेन्ना वचात. "

हांवें संगिताकडेन पळेलें. तें सकल देंवपाची तयारी करतालें. तें पळोवन
ांवें म्हळें, " उपकार जायत ! "

कांयशा दुबावान आनी कांय प्रमाणांत सुटकेचो उस्वास सोडीत आमी
जाणटे बायले वांगडा वचूंक लागलीं. संगिता तिगेले सत्रेत गेलें आनी
टारिचीं दारां बंद करून हांव तांच्या फाटल्यान चलूंक लागलों.

कुळागरा मदीं एका ल्हानश्याच तांबडे मातयेच्या घरांत पावनाफुडें जाणटे बायलेन आपले सुनेक उलो माल्लो आनी सांगलें. " हांकां वाड. "

" ओगीच त्रास कित्याक करून घेतात ? " संगितान विचाल्लें.

" त्रास कसलेच नात. आमचीं जेवणां केन्ना उलगलीं. रांदिल्लें जेवण आसा. तुमी पावोवन जेवात. "

घरांत दुसरो कोण दादलो नासलो. हांव भायर बसलों. सुनेन म्हाका तुवालो आनी आंगवस्तर हाडून दिलें आनी ती भितर गेली. संगिताय भितर गेलें. हांवें आंगावेलीं ओलीं वस्त्रां काडलीं आनी तुवाल्यान आंग पुसून आंगवस्तर न्हेसलों.

भितर संगितालीं आनी बायलांचीं उलोवणीं चलतालीं. पुण म्हाका तीं सारकीं आयकूंक येना आसलीं. म्हाका रावन रावन-देवाचे करुपेची धन्यता दिसताली. ते बायलेच्या रुपान देवदूतच आमकां मेळिल्लो...ना जाल्यार सगळी रात आमकां मोटारींत बसून काडची पडपाची.

सादें पुण हुनहुनीत जेवण जेवतकच म्हाका थाकाय आयली. म्हाका भायर हांतूण घालें. संगिता भितर न्हिदलें. आमचें नातें कितें हें ताणेंच तांकां सांगिल्लें आसुंये.

फांतोडेर उठना फुडें सुनेन च्या हाडून दिली. इतले म्हणसर जाणटे बायलेन धाडिल्ल्या रकादा प्रमाण चार मानाय आयले. तांकां घेवन हांव मोटारी म्हन्यांत गेलों. आनी आमी मोटार खळयेंतली वयर काडली.

मानायांक दुड्ड फारीक करून हांव परत घराकडेन आयलों तेन्ना हुनहुनीत शिन्याची बशी घेवन संगिताच भायर आयलें.

" गाडी वयर काडली...या आमी आतां. " हांवें म्हळें.

" खरेंच ? सामकीं देवमनशां हीं ! तांचे उपकार करो मानप ? " संगितान म्हळें.

" अडचल्ल्या वेळार मनशाक मनीस पावना जाल्यार मनीसपण खंय उल्लें ? " जाणटे बायलेन म्हळें.

ह्याच वेळार फुडल्या दारांतल्यान एक मनीस भितर सल्लो. म्हाका तो वळखिचोसो दिसलो. तोय म्हाका पळेत रावलो. आनी खिणाभरयांत

हांव ताका वळखलों—काल वाटेर मोटार थांबोवन आपल्याक व्हर म्हणटालो तो होच !

म्हज्या सगळया आंगाक शेळो घाम फुटलो. न कळटां हांव उठून उबो रावलों आनी भायर आयलों. म्हज्या फाटोफाट संगिताय भायर आयलें.

"कितें जालें ? ताकतीक कसली ? च्या घेवन वचात..." ते बायलेन म्हळें.

"ना वेळ जातलो..." म्हणत संगितानय शींव फाटीक लागिल्लेवरी पावलां उबाल्लीं.

येदो वेळ आमकां पळेत आशिल्ल्या त्या मनशान विचाल्लें "कोण हीं, आई ?"

आवयन पुताक कितें जाप दिली हें आयकुपाक आमी थंय नासलीं.

* * *

# वृषाळी

φφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφφ

मातयेच्या घड्याचो इल्लोसो कपचो. पुण तें वृषालील्या मोगाचें प्रतीक. मंगळसुत्राचें लेगीत एकाद्रया वेळा तिका भान उरना आसलें...पुण आंगा-वेलें न्हेसण सोडोवचे आदीं पदराक बांदिल्लो तो भाजिल्ले मातयेचो कपचो ती आपले मुठींत धरताली आनी नवें न्हेसण न्हेसतकच जतनायेन ताच्या पदराक बांदताली...जिवांत जीव आसासर तिणें ताका अंतर दिलें ना... सरणार चडली तेन्ना लेगीत तिगेल्या पदराक बांदिल्लेकडेन तो आशिल्लो...

...घड्याच्या ह्या कपच्यान तिगेलें जिवीत परमळान फुलयिल्लें. नाजाल्यार वृषाली सुंदर आसुनय सामान्य कुळांत, गरीब घरांत जल्माक आयिल्ली किरकोळ चली—एकाद्या दादल्यालो संवसार चलोवन मरून वचपाची. ती एक रंग नाशिल्ली, वास नाशिल्ली मोनी कळी आशिल्ली... पुराय फुलून परमळावन भारून वचचे आदींच घडये बावून वचपाची...

आंगार कापड चडिल्लो तो पयलोच दीस तिका सदांच घट याद उरिल्लो. आपलें आंग आतां आपलें उरूंक ना, तें केळीवरी तुकतुकीत आनी फुलावरी टवटवीत जालां म्हणपाचें भान तिका आंगार कापड चडयनाफुडें जालें...आनी भरिल्ली छाती लिपोवपाखातीर तिणें जेन्ना कापडाचो पदर खांदार घेतलो...त्यो कातकुतल्यो...सुखदिणो तो अणभव... म्होवांचो थेंब जिबेर दवरिल्लेवरी ताजी गोडी ती त्या दिसाचो उगडास करिनाफुडें अणभवताली.

...त्या आदीं तिका आपल्या देहाकडेन पळोवचें अशें केन्नाच दिसूंक नासलें...पुण एका कापडान तिगेली नदर...तिगेलो देह बदलावन उडयिल्लो.

वृषाली आतां नेणटी चली उरूंक नाशिल्ली...ती वाडिल्ली...देहान आनी गिन्यानान...आतां तिका फकत पोटाची भूक वा उदकाची तान लागना आसली...तर एक अनोळखी भूक तिज्या काळजाक लागूंक लागिल्ली... ओंठ तानेन तडफडूंक लागिल्ले.. वृषालीक आतां नवो अणभव जाय अशें दिसूंक लागिल्लें...पुण तिका भोगतले व्यथेमदीं एक सुखदिणी कळा आसली...ती सांगूंक तिजेकडेन उतरां नासलीं...तिजे तिकाच तें सारकें समजना आसलें...

...पुण त्या दिसाच्यान वृषाली एकमुळी जाल्ली...हरशीं आपले पिरायेच्या हेर चलयांबरोबर न्हंयचेर उदकाक वचपी वृषाली. सगल्या चलयांची ती म्होरकी आसली...सवण्याचें भिरें कशो त्यो चलयो उदकाक वताल्यो...हाण्डीर एक घडो आनी माथ्यार दुसरो. एका सुरांत पदां म्हणून एकामेकांचीं फकाणां करीत त्यो न्हंयचेर वताल्यो आनी येताल्यो... संस्कारांचे लजेन आनी जाणटेले उलयत हे भिरांतेन ज्वान भुरगे मार्गार मदीं येना आसले...जाल्यारूय झाडांच्या खांद्यांचेर बसून धडधडत्या काळजांनीं ह्या चलयांचीं थरथरतीं आंगां पळेताले आनी तांच्या पावलांच्या तालार घोलताले. चलयांकय तें खबर आसलें. देखून मदींच पायांक सड्यावेली शेंकरी तोपिल्ल्याचें निमित्त करून मार्गावेलो एक गुंडो पांयांच्या बोटांनीं फाटले वटच्यान उखलून मेकळया हातांत घेवन तो शेंवटून उडोवपाचें निमित्त करून नदर झाडांचेर फिरायताल्यो...त्या बाणांनीं कितलीं काळजां रगतबंबाळ केल्लीं, देवाक खबर...हो खेळ वृषालीय जायत्या फावटी खेळिल्ली. पुण अजून तिगेली नदर आंकवार उरिल्ली...ती खंयच थिरूंक पावंक नाशिल्ली...

...एका दिसाची गजाल. कापड न्हेसून पयलेच खेपे वृषाली न्हंयचेर उदक हाडूंक गेल्ली. आतां आपूण जाणटी जाल्या अशें येवजून ती हेर चलयांवांगडा वचूंक नाशिल्ली...आतां तीं फकाणां आनी पदां तिका सोबचीं नात. ह्या फुडें तिगेली नदर भास उलयतली आनी वागणूक मन उकतें करतली...

अजून दीस वयर सरूंक नाशिल्लो. पुण सवण्यांक जाग आयिल्ली... तांचीं भिन्यांचीं भिरीं उदेंतेकडच्यान उडूंक लागिल्लीं. अशा वेळार

वृषाली कळशाची दोड घेवन न्हंयचेर वचूंक भायर सल्ली. मार्गार जितो मूस लेगीत नासलो...तिका ओगीच भंय दिसलो...पुण भंयाचें कारण नासलें. सगळो गांव आतां खीणभरयांत उठ्ठलो...सगळयांक ती वळखता. ओगीच कोणच तिज्या आंगार हात घालचो ना म्हणपाचो तिका भरंवसो आसलो...

पाज्ज देंवन तिणें पावलां उदकाचेर भोंवडायलीं...सकाळच्या त्या पारार उदकाक एके तरेची ऊब आसली...उदकान उकत्या पावलांक कातकुतल्यो केल्यो आनी तिजें सगळें आंग शिरशिल्लें. तिका दिसलें एक बुचकळी मारची...पुण आंगावेल्या कापडान कशी मारप?...नाकाच तें...फाटले वटच्यान आवाज आयलो म्हणून नदर फिरावन पळे जाल्यार गोरवां चरवाक वतात...आतां रोखडयोच हेर चलयो न्हंयचेर येतल्यो. आनी मागीर म्हज्या कापडावेल्यान म्हाका चाळयतल्यो...त्या परस बेगीन घरा परतल्लें बरें, अशें येवजून वृषालीन ती मातयेच्या घड्यांची दोड उदकान भरून घेतली...एक कळसो माथ्यावेले चुंबळीर दवल्लो आनी ल्हवू फाटल्या पायांनीं बागोवन दुसरो कळसो उबाल्लो आनी दावे हाण्डीर घल्लो...झप... झप...पावलां उबारीत ती घरा परतूंक लागली...

मार्गावेल्यान ह्या वेळार कोणच वचनासलो. देखून मदल्यानच ती वताली...मन येवजणुकींत गुल्ल जाल्लें...सपनिंच्या राजकुंवराचीं चित्रां रंगयत वृषाली घरा परतताली...देखून फाटल्यान घडघड करून येवपी रथाचो आवाज कानांत वचुनय भेड्डी जाल्लेवरी ती आपले तनरेंतच चलताली...तिजेय तकलेंत रथ येतालो...रथार बसून राजकुंवर येतलो आनी तिका आपली पट्टराणी करून व्हरतलो...

'घब्ब!'

कितें जालें हें वृषालीक समजलेंच ना. तिजें सगळें कापड चिप्प भिजलें आनी आंगाक दसलें...आपली ही लज कोणे पळोंवंक ना मूं म्हुण फाट फिराय जाल्यार म्हऱ्यांतच रथ उबो आनी रथाचेर दोन तरणे बांड कुंवर!...आपूण सपन पळेता अशें तिका खीणभर दिसलें...ना, तें सपन नासलें. घोड्यालें तोंड माथ्यावेल्या घड्याक आपटल्लें आनी घडो सकल पडून फुटिल्लो...

पुण वृषाली सामकी विस्मीत जाल्ली. घडो फुटला हाजें तिका दुःख ासलें. आपलें कापड भिजलां म्हणपाचेंय तिका भान नासलें. ती तटास नदर करून रथांतल्या त्या कुंवराक पळेताली...

होच तो तिगेल्या सपनिंचो कुंवर...जसो काय मदनच. तरणो ताठो देह, भारदस्त छाती, रूंद कपल...

भानार आयली तशी ती लजेली...मार्गाचे कुशीक रथावटेच्यान फाट करून पांयाच्या आंगठ्यान जमीन खरवडूंक लागली...

त्या कुंवरान रथांतल्यान सकल उडी माल्ली आनी तो वृषालीचे फाट-ल्यान येवन उबो रावलो.

"चूक म्हज्या भावाची; क्षमा आसची" कर्णान म्हळें.

"म्हाराजानो...चूक म्हजीच...हांव म्हजेच तनरेंत मार्गामदल्यान चलतालीं...

"हांव म्हाराज न्हय...चुकता तूं...हाव कर्ण—सुतपुत्र..."

"आसल्यार आसूं...हांव सुतकन्या!"

"आनी इतली सुंदर...!"

"म्हाका लजवं नाकात...सौंदर्याचे दोळे फुटचे इतले तुमी सुंदर..."

आनी तिणे जीब जाबली...ती लजेन तांबडी जाली...ल्हवूच कर्णान आपले थरथरते हुनहुनीत ओठ तिगेले मानेक लायले आनी तो परत रथार चडलो.

वृषालीचें सगळें आंग फुलावरी ल्हव जालें...रथ फुडें वतकच तिणें नदर वयर करून उडिल्ल्या धुल्लाकडेन पळेलें आनी मागीर फुटिल्ल्या घड्याचो कपचो उबारून पदराक गांठ मारून बांदलो.

...त्या दिसापसून वृषाली सामकी बदलून गेली...ती कोणा कडेन उलयना जाली...न्हंयचेर उदक हाडूंक गेली जाल्यार वतना येतना वाटेर ओगीच वेळ काडूंक लागली...रथ येतलो आनी आपल्याक घेवन वतलो अशें तिका मनोमनीं दिसतालें...रातीकडेन हांतुणार पडिल्ल्या वेळार तो घड्याचो कपचो ती सोडयताली आनी ताजेकडेन पळेत येवजीत बसताली... आनी मागीर तिका कर्णान घेतिल्ल्या मानेच्या चुंबनाचो उगडास जातालो आनी ती लजेन माथ्यावेल्यान पांगरूण घेताली.

[ ८ ]

आनी मागीर एक दीस रकाद आयलो—रकाद गांवभर जालो. गांवच्या चलयांनी आनी जाणट्या बायलांनीं लेगीत तिगेल्या घरा वचून वृषालीचें अभिनंदन केलें...वृषाली आतां कर्णाची बायल जातली !

वृषालीलो एक भावार्थ आसलो...तिका मनोमनीं दिसतालें कर्णाक आपूण फावना...खंय कर्ण आनी खंय एक गांवठी चली...त्या वयार लेगीत कर्णाली किर्त घा गांव पातळिल्ली...पुण फुटिल्ल्या घडयान जादू केल्लो. विपरीत घडोवन हाडिल्लें. आनी तिणे परथून तो कपचो सांसपिलो... लग्नाची सातपदी चलता आसतना लेगीत तिणे तो कपचो जतनायेन पदराक बांदून दवरिल्लो...खीणभर लेगीत ती तो कपचो पातयेली ना.

कर्णागेर वतकच तिणे फकत घोवालेंच न्हय तर मांय–मांवालें, देरालें लेगीत मन जिखलें. मांय–मांव तिका धुवेसारकी वागयतालीं. देराकडेन ती आपल्या धाकल्या भावाकडेन वागचें तशें वागताली...आनी हें पळोवन कर्णय खुशालभरीत जाल्लो...संवसारांतय एक सूख आसता म्हणपाचें तो पयलेच खेप अणभवतालो...भायर अपमान जालो जाल्यारय घराकडेन येवन आपल्या मोगाच्या मनशाकडेन काळीज ल्हव करतकच व्हडांतले व्हड दुःख उडून वता हें आता ताका कळूंक लागिल्लें...मोग करपांत आनी मोग करून घेवपांत एक तृप्ती आसतां...ही तृप्ती भायल्या संवसाराक विसरूंक लायता...मनाचो निर्धार घट करता...आनी सगळ्या लोकांचो विरोध आसलो तरी त्या मोगाक पात्र जावचे खातीर नवे नवे पुरुषार्थ करपाची प्रेरणा दिता हें आतां कर्ण खासा अणभवतालो. वृषालीच्या सांगातान तो फाटले अपमान विसरिल्लो, सूड घेवपाची भावना मरून गेल्ली...आनी कितेंय तरी व्हडलें करून दाखोवपाच्या हावेसान जल्म घेतिल्लो..

...आनी वृषालीकय एक नवो साक्षात्कार जाल्लो. तिका दिशिल्लें बायलेचें जिवीत म्हळ्यार पुरुषार्थी दादल्याल्या पांयांचेर ओपचेलें एक फूल...पुण त्या भायर तिका मेळिल्लो घोव मेळूंक सात जल्मांची पुण्याय जाय पडटली...केन्नाकेन्नाय तिका दिसतालें, आपले परस सुंदर बायल कर्णाक फाव...आनी खरें तें. शारांतल्या सुंदर सुंदर बायलांक वृषालीचो मत्सर जातालो...वृषालीकडेन अशें आसलें कितें...! पुण कर्णाक मात अशें केन्नाच दिसलें ना...तो वृषालीक आदर्श बायल मानतालो. तिजे सारकी

नाची प्रेमळ, उतराची निर्मळ बायल मेळ्ळी हें आपलें भाग्य अशें तो ानतालो. आनी खरेंच ती तशी आसली. दोगांयचो संवसार सुखांत वलतालो.

वृषालीन एक संकल्प केल्लो. ती घोवाक केन्नाच प्रस्न विचारिना आसली. ताणे आपूण जावन कितेंय सांगलें जाल्यार आयकून घेताली... कांय सांगलें ना जाल्यार तिजो शीण नासलो. पुण भायर कितें चल्लां, ्रौपदीन कर्णाचो अपमान केलो आनी कोणे ताका हिणयलो म्हणपाचें तेंज्या कानार येतालें...ती खंती जाताली. पुण आपली खंत तिणे केन्नाच कर्णाकडेन उकती केली ना. ह्या कारणाखातीर तिगेलो संवसार सुखाचो जावंक पावलो.

धर्मयुद्धाचे अठरा दीस तिणे न्हीद खळोवन आनी रातदीस दुकां व्हांवोवन सारले...पुण कागाळी केली ना...देवाकडेन आपल्या सौभाग्याची नीक मागली ना. फकत आपल्या पदराक बांदिल्लो घड्याचो कुडको सोडो-वन ती ताजी पुजा करूंक लागली...दुकांच्या अभिशेकान तो धुवंक लागली...

...युकिणिसाव्या दिसा वाऱ्यासरशीं खबर आयली...कर्ण भूंय पडलो...वृषालीलें सौभाग्य फुटलें...ते सरशी ती वेगान उठली...कोणाक आपलें सौभाग्य लुटूंक दिवची ना हो तिजो संकल्प आसलो...ती भितर ली. तिणें कपलभर कुंकूम लायलो...मनांतल्या मनात मांवा–मांयक नम-स्कार केलो आनी ती वाऱ्या भशेन भायर सल्ली...सांजवेळच्यो सांवळयो ुर्तरेर पातळूंक लागिल्ल्यो...रणांगणाचेर मनशांच्या प्रेतांची खातड पडिल्ली...सगळयाक रगताचो न्हंयो व्हांवताल्यो...तांतुतल्यान वाट काडीत काडीत ती दोंगुल्लेचेर पावली...अस्तमतेक सुर्य बुडूंक आयिल्यो...कर्णालो देह सरणार चडोवन कृष्णान मंत्र म्हणून चिता पेटयल्ली...वृषाली आयली पुण नदर वयर करून लेगीत तिणे कृष्णाकडेन पळेलें ना...थंयच कर्णालो पुत्र युजीत हो धवो घोडो शोक करीत उबो आसलो. वृषालीक पळोवन तो रडूंक लागलो. वृषाली ताजेसरीं गेली...आनी ताजी फाट तिणे सांसपिली... तो थरथरलो आनी आपल्या तोंडान ताणे वृषालीचे हात चाटले...

मागीर तिणे पेटिल्ले चितेक नमस्कार केलो आनी चितेर उडी

[ ९ ]

घेतली...उजाच्या पवित्र झोतांनी कर्णाक आनी वृषालीक वेंग दिली...
तें दृश्य पळोवन कृष्ण लेगीत रडलो.

* * *

# मायेचे पास

ꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺꝺ

## क्मीणआका

म्हजें नांव रुक्मीण. वाडोभर लोक म्हाका रुक्मीणआका म्हणूनच ळखता. साश्टींतल्या वेर्णे गांवांत हांव जल्माक आयलीं. तेन्नाचे प्रथेप्रमाण रायेच्या तेराव्या वर्सा म्हजें लग्न जालें. कुसमणच्या नारायण शेटील्या ल्याक म्हाका दिली. म्हगेल्या घोवाचें नांव...आसूं तें—ते आतां नासले ुण कितें जालें, म्हज्या मनाचे गर्बाकुडींत, काळजाचे सत्रेखाला मायेमोगाचे गरूण घेवन न्हिदिल्लें आनी दोळ्यांतल्या हुनहुनीत दुकांच्या अभिशेकान ातलें तें नांव हांव चारचौगांसामकार कशें उच्चारूं? पुण तें वळखप ाकां कठीण वचचें ना. रुक्मीणीच्या घोवाचें नांव म्हणून कोणाकच गचें लागता? पवित्रनामस्मरणान अपवित्र वस्त पवित्र जावंक पावता; ेत्र केन्नाच अपवित्र जायना. खरेंच, कितलो जादू भल्ला त्या नांवांत! ; पुण. नांवासरशीं उगडासाचीं चित्रां जितीं तट्टीत जावन दोळ्यां-नकार कशीं नाचूंक लागलीं पळे...

वेण्र्याच म्हजें लग्न जालें. लग्न म्हळयार कितें हें लेगीत तेन्ना म्हाका र नाशिल्लें. वाजंत्रीं, भांगरांशिगरां, साकरभात, गांवजेवण, आनी इतलेंच म्हाका तेन्ना दिश्टी पडिल्लें. आनी ताकाच हांव लग्न समज-ीं. पुण आज काळ बदलला. आज लग्न म्हळयार कितें हें व्हंकले-ऱ्याक खबर आसता.

हांव घोवागेर कुसमणां आयलीं. म्हगेल्या मांवालें मडगांवां शाप

आशिल्लें. आनी 'आमगेर' थंयच कामाक बसताले. कितली व्हडवीक तांकां म्हजी ! मडगांवच्यान घरा येतना मुजरत म्हाका एकाद्री फुलांची फांती ना जाल्यार चोळयेक कुडको हाडटालेच. आनी केन्नाय हांवें म्हळें, "तुमीं सदां उठून कितेंय ना कितें हाडीत आसतात तें म्हाका सोंसना. बेठोच खर्च कित्याक ?" तर म्हणटाले, "हांव कितले अपुर्बायेन, कितले मायेन तुका ह्यो वस्तू हाडटां आनी तुका ताजी इल्लीय लक्तुबाय ना ?" मागीर म्हाका दिसतालें, हांव ओगीच उलयलीं. आनी हांव जीब चाबून घेतालीं. पुण इतल्यानच ते पुराय विरगळून वताले. म्हाका ओपुर्बायेन वेंगांत घेवन, मायेन केसांवेल्यान हात भोंवडावन ल्हवूच म्हज्या कानांत फुतफुताले, "राणयेक राग आयलो ?"

फुडें हांव आवयपणाचे शिमेर पावलीं. तेन्ना ताणी म्हजी जी अर्थअपुर्बाय केल्या तिका जोड ना ! म्हज्या तोंडांतलें उतर वयलेवयर जिखताले...त्या-वेळार निकतेंच म्हाका विसावें वर्स लागतालें...

पुण पुनवेच्या चानून्याचे हे पसयेफाटल्यान उमाशेची काळखी रात लिपून बसल्या म्हणपाचें सपन लेगीत म्हाका तेन्ना पडूंक नाशिल्लें. तो दीस अजूनय म्हज्या दोळयांमुखार भिरभिरता, काळीज खपखपायता, मस्तकांत भगभगतो उजो पेटयता. दोळयांतल्या दुकांच्या झऱ्यांनीं म्हज्या म्हाकाच तो उजो पालवचो पडटा.

त्या दिसा सदांभशेन ते मडगांवच्या शापार वचूंक भायर सल्ले. सदांच ते सायकलीन मडगांवां वताले. त्या दिसा तांगेली सायकल जाली पंक्चर-म्हणून तांकां आंगडींत भाड्याची सायकल घेवन मडगांवा वचचें पडलें. कुसमणचे कादयेकडच्या वोल्ताचेर देंवती आसा. थंय पावनाफुडें मुखा वेल्यान दोन ट्रकां मजगतीं सर्त लागल्या म्हणपाचें तांचे नदरेंत आयलें मुखावेलो अनिष्ट प्रसंग टाळूंक म्हणून तांणी ब्रेक लायलो...पुण देवा सायबा ! ते सायकलिचे ब्रेक लागले नात आनी...

दनपारचो कड. न्हावन-धुवन हांव तुळशीक उदक घालूंक वच जाल्या काळें माजर आडवें गेलें. दारांतल्या सोंपणावेल्यान पाय निसरून हातांतलें उदकान भरिल्लो तांबयो आनी कुकमाचो करण जमनीर पडलो. सगळें कुकू जमनीभरवण जालें. कोणेशें म्हळें, "रुक्मीणव्हनिलें कुकूम जमनीभरव

ळें ! '' ते घटकेक ' थुमेकाल ' हें उतर म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सल्लें
; पुण त्याआदींच त्या भुरग्यांल्या उद्गारांनीं सत्यरूप धारण केल्लें.
ामो तांबयो हातांत काडून कुकमाच्या करणाक हात घालूंक बागविल्लीं
...दारामुखार मोटार येवन थांबली. पोटांत धस्स जालें. आनी ताजे-
रांत हुयेल्यो आनी बोबो हाणीं कानाचे पड्डे पिनून गेले. विचारहीण
वन हांव आंगणातले जमनीर कोसळ्ळीं.

हांव जेन्ना सुद्दीर आयलीं तेन्ना जावपाचें सगळें जावन गेल्लें. म्हज्या
लाचें कुकूम सासणाचेंच पुसून गेल्लें. म्हज्या काळजाचो देव देह सोडून
ो. संवसारांतलीं म्हगेलीं सपनां भंगून गेल्लीं ! उपरांत म्हाका तांच्या
नाक व्हेली. कितें घेतलीं त्या प्रेताचें दर्शन ! वचून आवेगान ते कुडीक
मारची आनी तांचे वांगडाच अनंतात विलीन जावचें अशें मनस्पुर्वेक
लें. पुण त्याच वेळार म्हगेली नदर म्हगेल्या पोटाकडेन गेली. म्हगेली
ोची पालवल्ली प्राणज्योत थंय तेंवताली. आनी मागीर हांव रडलीं.
कत मरूंक नज म्हणुनच रडलीं...

पिराय एकवीस वर्सांची जाली, तेन्ना श्रीधराक निकतोच इकरावो
नो चलतालो. त्या म्हयन्यांत म्हगेली मांय भायर पडली. सगळ्यांचे
रेन हांव उरफाट्या पायांची थल्लीं. आनी म्हाका कुळारा धाडपाचो
ीं बेत केलो. कुळारा वचप हो एक सुवाळो; पुण तो कोणाक ? ज्या
ळ्यांनीं, वाजंत्र्यांच्या गडगडाटांत हांव घोवागेर गेल्लीं ती हांव आतां
कें कपल घेवन कुळारा कशीं वचूं ? हांवें थारायलें कशेंय करून घरदार
डप आनी पोराक घेवन कुसमणाच वेगळें बिराड करून रावप. खंयय
घरां वावर करून पोटापुरतें मेळयन आनी श्रीधराक आपल्या पायांर
करूंक चार अक्षरां शिकयन. आतां तोच म्हगेले जिणेची बुन्याद
ी धिगीय बी तोच ! जिणेची आस, कुळदीप तोच ! म्हजें आतां कितें ?
सोंपले, पांच उल्ले !

आनी हांव श्रीधराक घेवन वेगळी रावंक लागलीं. चार घरां वावर
ालीं. फाविल्ल्या वेळांत पापड, लोणचें, मिरसांगांचो पिठो बी करतालीं.
ण करतालीं. आनी पोटाची भूक मारतालीं. श्रीधराक म्हगेल्या दळि-
ो इल्लोय वास लागूंक दिनाशिल्लीं. पुण पोराक संवगडी बरे मेळ्ळेनात.

इंग्लेजिच्यो चार क्लासी शिकलो आनी मागीर तो साळेंतच वचना जालो. म्हगेलेंय आयकना जालो. मजगतच्या काळांत वेण्यांसावन म्हाका भावाले रकादा फाटल्यान रकाद येताले, श्रीधराक घेवन वेण्यां यो. पुण हांवच तें कानामनार घेनाशिल्लें. भावजेल्या संवसारांत नणंदेची सावळी पडिल्ली म्हाका नाका आशिल्ली. पुण श्रीधर आतां हाताभायर वतलो, बरप ना तें ना. घरचें वाडवडलांचें शेटपण तरी ताणें शिकचें म्हणून हांवें ताका वेण्यां भावागेर धाडून दिलो. थंय ताणें जीं तवनासपणां आनी वाळेसपणां केल्यांत ताजीं वर्णनां आयकून अजुनय म्हगेल्या मनाची तानभूक न्हिवता. कान तृप्त जातात. आनी चल्याचें तोंड पळोवंक आशेल्ल्या म्हाका अशें दिसूंक लागता, म्हगेलो पूत वाळेस जाल्यार जातालो, पिसो जाल्यार परवडिल्लो पुण तो घरचे घरा उरचो आशिल्लो.

आपल्या मामागेर तो चार-पांच वर्सां उल्लो. मागीर कुसमणां आयलो. फुडें ताका मडगावां कोणाल्याश्या एका शापार चाकरी मेळ्ळी. पुण तीय पुरते तीन म्हयने तिगली ना. आनी एक दीस तो गेलो तो नाच जालो.

मागीर म्हाका तागेली चीट आयली फ्रांसाक सावन. कोण म्हणटा तो थंय लग्न जाला. खरेंफट देवाक खबर ! हांवें ताका कितल्यो चिटी धाडल्यो, तारवस्याकडच्यान रकाद धाडले; भीक मागली, “ एके खेपे यो आनी आवयक तोंड दाखय. ” पुण सभागी आयकला ? हरशीं नेमान चिटी धाडटा, पयशे धाडटा, म्हाका कित्याक ह्यो चिटयो आनी ते पयशे ? म्हाका जाय म्हगेलो श्रीधर ! सवण्याक पाखां फुटनाफुडें तीं खंय आवयबापायक सोडून वेतात. म्हजो श्रीधरय तसोच काय देवा ? हांव आतां जगतां ती श्रीधराखातीर. ताका दोळेभर पळोवन घेतलेखेरीज हो जीव कूड सोडूंक तयार ना. तो तळमळटा. म्हगेली जीण व्यर्थ गेली अशें म्हाका दिसता. श्रीधराचे दर्शनान जिणेचें सार्थक जालें अशें दिसतलें. केन्ना काय देवा म्हजें सपन खरें जायत !

× × ×

## श्रीधर

म्हजें नांव श्रीधर—श्रीधर पांडुरंग नागवेंकार. हांव जल्मुचें पयलींच म्हगेलो बापूय भायर पडिल्लो. आवयनच म्हाका ल्हानाचो व्हड केलो.

ह्ानपणांतच हांवें वाळेस आनी तवनास म्हणून जायती अपकिर्त जोडली. ाळेंत वेळार वचप ना. काजुंच्या मळांनीं आनी पाणव्यांच्या उदकानींच ्हजे दीस वेताले. तरीकूय हांव पास जातालों. पुण अशें कितले दीस लतलें ? इंग्लेज सवेक म्हाका पयले खेपे अपेस आयलें आनी उपरांत केन्नाच ांव सवेची सराद हुपूंक पावलो ना. आई सदांच म्हणटाली, " पोरा चार ्क्षरां शीक. तुकाच फाल्यां ती उपकरतलीं. आयचे युगांत विद्येबगर ांयच हालना ! " पुण तेन्नाच्या म्हज्या मनाक आवयलो हो उपदेस पटना ाशिल्लो. म्हगेलीं वाडटीं आडांगपणा, फीचे पयशे भरपाक आवयक वतलें कसूर, वेर्ण्यासावन मामालो आपोवण्याचो आग्रो आनी वाडवडलांच्या ्याचें गरजेपुरतें गिन्यान मेळोवपाचो हावेस हांकां लागून म्हाका आईन ामागेर धाडून दिलो. थंय म्हजें वाळेसपण मात्शें बंधनांत उल्लें; पुण रीय आसतना तें थोडेंभोव चलतालेंच. दुःखांत सूख म्हळयार हेर खंयच ोर जायनाशिल्ली म्हगेली मत शेटपणांत रंगली. मामाय म्हज्या हाताचे ्शालकायेचेर सामान्याभायर खोशी जालो.

एक दीस मामाल्या शापार एक तारवटी आयलो. तीन वर्सां फाटीं ाश्टी नेसून भोंवतल्या त्या तारवट्याचो तो थाट पळोवन म्हाका ताज़ेविशीं ादर दिसलो. ताणें तोंडान वर्णिल्लीं भायल्या देसांतलीं चित्रां आयकून ्हगेल्या काळजांत एक विचार रिगलो—तारवार वचपाचो. आनी तो ्हाका, स्वस्तकायेन काम करूंक दिना जालो.

म्हजें कामावेलें लक्ष उडलां तें आवयच्या उगडासाक लागून जावये असो ्कें करून मामान म्हाका घरा—कुसमणां—आवयच्या म्हन्यांत धाडलो. ्च्या म्हन्यांत पावलों तरी म्हगेली तारवार वचपाची इत्सा इल्लीय ्गी जाली ना. दिशीं दिशीं तिका खतखतोंच येत रावलो. घरचें दळिद्र ्ळोवन तर हो उमाळो वयर येतालो. एकदोन खेपो आईक म्हणून पळेलें, ्ग तितल्याचेरच तिणे दोळयांत दुकां हाडलीं. मागीर आनी तिका ्चारपाचो धीर म्हाका जालो ना.

मुखार हांवें मडगावां एका शापार शिर्विस धल्ली. हांगा म्हाका एक ्गेलो इश्ट मेळ्ळो. म्हज्या वांगडाच तो इस्कोलांत शिकतालो. पुण आतां ्जो थाट कितें पळेतलो ! गळयाक ग्रावाद, हाताक घडयाळ, पायांक बूट

आनी आंगात काश्मीराचे सूट !...तोय तारवार आसतालो. आतां मात् म्हज्यान रावं नज जालें. हांवें म्हगेल्या ह्या इश्टाचे मजतीन एका तारवार शिर्वीस मेळयली. सगलीं तंत्रीक आनी कायद्याचीं कामां वेळच्यावेळार जालीं. आनी हांव एक दीस कोणाकच सांगनासवरिना आसतना म्हगेल्या इश्टावांगडा तारवार गेलों.

घा वर्साफाटीं हांव फ्रांसाक पाविल्लों. तेन्ना आमची बोट मार्सेलस् च्या धक्यार उबी आशिल्ली. कांय खलाशी इश्टांवांगडा आमी शार पळोवंक म्हणून भायर सल्ले. भोंवतांभोंवतां बरेंच पयस पावले. हुसक्यामेकळे आमी भोंवताले. सांजवेळच्या चारांक सुमार आमी शाराच्या एका विचित्र भागांत पावले. वाटेंत पुलीस आमच्या फाटल्यान लागल्या असो आमकां दुबाव आयलो. ते दीस आशिल्लेच तशे. आमी जर पुलिशेच्या हाताक लागले तर ते आमकां घेवन चावडेर वतले आनी घडये एकाद्री रात आमकां थंय काडची पडटली. चौकशी जावन आमकां सोडी म्हणसर घडये आमगेली बोटय सुटये म्हणपाची भिरांत आशिल्ली. आमी वाट मेळत तशे फांकारत रावले. पळेतां पळेतां आमी बरेंच पयस पावले. म्हज्याबरोबर दुसरो एकय खलाशी नाशिल्लो. आमची चुकामूक जाल्ली. हांव भोंवत रावलों. रात जाली. फुटपाथाचेर एका कोनशाक न्हिदलों. मध्यान रातीक सुमार बर्फ पडलें...

...म्हाका जाग आयली तेन्ना हांव एका हॉस्पीटलांत आशिल्लों. आंग जोरान भाजतालें. कूड कुडकुडटाली. आंगार कितल्योय कांबळी पांगुल्ल्यो तरी कुडकुडो थांबना आशिल्लो. पुण डॉक्टरांल्या उपचारांक येस आयलें आनी म्हगेली प्रकृत सुधारत रावली. आनी एक दीस हांव पुराय बरो जालों.

हॉस्पिटलांत आसतना एके नर्सीकडेन म्हजो खुबसो संबंध आयलो. मोडके तोडके इंग्लेजींत हांवें तिका म्हगेल्या जल्माची काणी सांगली. भारतियांविशीं तिका एकप्रकारचें आपलेपण, एकप्रकारचो मोगाचो उमाळो आशिल्लो. तिणें म्हजेखातीर जायते स्रम घेतले. हांव हॉस्पिटलांतल्यान भायर सरताआसतना भरिल्ल्या दोळ्यांनीं म्हज्या हातांत दोन नोटी दिवन सद्गदीत सुरांत तिणें म्हळें, “ बोट मेळ्ळी ना जाल्यार म्हगेर यो ! ”

हांव धक्यार पावलों तेन्ना बोट पयलींच भायर सरून गेली म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें. आनी एका बऱ्या सभावाच्या अधिकाऱ्याकडल्यान आनिकय

एक गजाल कळ्ळी. बोट सोडून नाच जाल्लों म्हुण म्हाका धरपाक वॉरंट सोडिल्लें. आनी फुडें कितें करप हो प्रस्न पडलो.

भुकेन पोटांत कावळे रडटाले, तानेन ताळो सरांतून आयिल्लो; पुण म्हाका ताजी पर्वा नाशिल्ली. खंय वचचें आनी कितें करचें हें म्हजें म्हाकाच कळनाशिल्लें. अकस्मात म्हाका नर्सीच्या उतरांचो उगडास जालो.

हांव तिगेर गेलों. तिगेल्या आसऱ्याक लागून हांव चिंतेंतलो आनी विंवचनेंतलो जरी मेकळो जालों ना, तरी तिगेल्या मोगाळ वागणुकेक लागून म्हगेलें हेडप टळलें. मुखार आमचें लग्न जालें.

बायलेले जोडीचेर म्हगेलो जीव पोसप म्हाका माननाशिल्लें आनी फ्रांसेज भास येनाशिल्ल्यान म्हाका चाकरी मेळनाशिल्ली. हॉटेलांत काम करपाची चाकरी जरी म्हाका मेळिल्ली तरी ती हांवें पत्कल्लेली बायलेक आवडुपाची न्हय. पुण म्हजें भाग्य चंवरूंक लागलें. होय प्रस्न रोखडोच सुटलो.

एक दीस भांगराच्यो वस्ती विकत्यो घेवपाचो आपलो बेत तिणें म्हाका सांगलो. मामान ल्हानपणांत शिकयिल्ले हे विद्येचो फ्रांसासारक्या भायल्या देसांत म्हाका उपयोग जातलो अशें म्हाका सपनांत लेगीत दिसूंक नाशिल्लें. हांवें बायलेक निखटें भांगर आनी हेर सामान हाडूंक सांगलें. तिणें हाडिल्ल्या भांगराचे हांवें सोबीत बरे अलंकार घडयले. म्हज्या आंगचें सगळें कौशल्य, भारतीय सुवर्णकलेचें सगलें कुसर तातूंत ओतपाचो हांवें प्रयत्न केलो. आनी म्हगेल्या प्रयत्नाक येस आयलें.

मुखार बायलेल्या एक दोन मैत्रिणिल्यो ऑर्डरी मेळ्ळ्यो. ल्हवूल्हवू गिरायक वाडत रावलें. हांवें व्हड दुकान घालें. बायलेन चाकरी सोडून दिली. आपलो घोव म्हळ्यार एक किरकोळ खलाशी न्हय तर एक हुशार आनी फिशाल कलाकार म्हणपाचें पळोवन तिकाय धन्यताय दिसली.

म्हाका हांगा जायतो पयसो मेळटा. थोडे पयशे हांव गोंयांत आवयकय धाडटां. पुण पयसो म्हळ्यार सर्वस्व न्हय. 'पयसो धाडना जाल्यारय एक खेपों परवडत. पुण एक वेळ आपणाक दर्शन दी' अशें ती म्हाका वयलेवयर रकाद धाडटा. पत्रां बरयता. तिका एक खेपो दोळेभर पळोवन येवचें अशें म्हाकाय दिसता. पुण तें शक्य ना !

× × ×

## हांव

आनी हांव. आमची बोट फ्रांसाक वताली. भायर आकांताचें शीं पडिल्लें, तरी लेगीत हांव आंगांत ओव्हरकोट घालून डेकार पासयो मार-तालों, रातिची थंडाय आनी काळोख सगळ्याक पातळिल्लो. दिसभर मनशांनीं भरून ओंततालो तो डेकय रातिच्या ह्या निवांत वेळार रिकामोच आशिल्लो. कांय दिसच हांव बोटीर आशिल्लों. पुण तितल्यान सामको वाजेवन गेल्लों. फाल्यां बोट मार्सेलच्या धक्याक लागपाची आसली.

बोटीवेली ही निमाणी रात डेकावेल्यान दर्या–सौंदर्य नियाळपाचें म्हजें काम चलिल्लें. पुण हें सौंदर्यय म्हाका भूल घालूंक शकना जालें. हांव उबगलों, वाजेलों आनी कॅबिनांत वचून कुलच्यावांत पोटली करून स्वस्थ न्हिदपाचें येवजून परतूंक लागलों.

ह्याच वेळार अवचीत म्हज्या कानार कोंकणी भाशेची मंजूळ उतरां पडलीं. कानाफाटल्यान हात घल्लो. दोन गोंयकार खबरी करताले. आवा-जाचे वशीन दोळे ताणावन पळेतकूच रेलिंगाम्हऱ्यांत दोन मनीस उबे आशिल्ले दिश्टी पडले.

एके इंग्लेज बोटीचेर म्हजे गांवभाव आसात हें पळोवन म्हाका खुब्ब आनंद जालो. फाटल्या वर्सभरांत म्हजे कानार कोंकणी भाशेचीं उतरां पडूंक नाशिल्लीं वा ती मायभास उलोवपाची संदय मेळूंक नाशिल्ली. कालीकटच्या धक्यार वास्को-द-गामाक फिरंगी भास उलोवपी मनीस पळोवन जितली खोस जाली जावची ना, तितली खोस म्हाका त्या दोन गांवभावाले दर्शनान जाली. सभाविकच हांव थंय गेलों.

हांव तांचे बगलेक पावलों. आतां ते म्हाका अदीक स्पस्ट दिसताले. दोगय तारवटी म्हणपाचें हांवें तांगेल्या भेसावेल्यान वळखिलें. बोटीवेल्या खलाशांक रातिच्या वेळार कांय मिनटां डेकार येवपाची परवानगी आसता. भोव करून आतां तांगेलो वेळ सोंपत आयिल्लो आसुंये. ह्याच वेळार तांकां हांवें म्हजी जाग दिवपाच्या इराद्यान हांवें विचाल्लें, "तुमी गोंयचे खंयचे ?"

प्रस्नासरशीं ताणीं अजापून फाटल्यान पळेलें. मुखार हांव उबो आशिल्लों

पळोवन तांच्या तोंडार जे भाव उदेले तांचें वर्णन करतलो जाल्यार फिरंगी कवी कामोंयश हांगेल्योच ओळी सांगच्यो पडटल्यो.

" Que alegria nao pode ser tamanha
Que achar gente vizinha em terra estranha "

—परकी मुलखांत आपणालो शेजारी-पाजारी मेळप ह्यापरस व्हड आनंद तो खंयचो ?

ते दोगूय वेगवेगळ्या गांवचे आसले. एकलो बार्देसच्या एका गांवातल्यान आइल्लो. आनी दुसरो साष्टींतल्या दुसऱ्या गांवातल्यान आइल्लो. आनी हांगा इतले पयस, एकमेकालें पयलीं केन्ना नांव लेगीत आयकल्लें नासतना, तांगेले म्होवाळ आवयभाशेन तांकां लागीं हाडिल्ले. रातीवेळार कांय खीणच ते एकमेकाक डेकार मेळटाले आनी अशें आसुनय ते जिवा-भावाचे इश्ट जाल्ले. दोगांकय आवय-भूयचें दर्शन घेवपाची उमळशीक लागिल्ली. पुण बोटीवेल्या कराराची मुदत सोंपमेरेन तांकां घरा वचूंक मेळना आशिल्लें.

पांच धा मिनटांच आमी उलयले. वेळ सोंपत आयिल्लो. भरिल्ल्या दोळ्यांनीं ताणीं म्हजो निरोप घेतलो. आज निमाणे दिसा मेळ्ळे ते पयलेंच दिसा मेळटे तर...! ? तिगांलेय दोळे हेंच परगटायताले.

एक-दोन जड पावलां फुडें सरतकच एकलो थांबलो. उपरांत फाटल्यान घुंवन ताणें म्हाका विचाल्लें, " फ्रांसाक कितले दीस उरतले तुमी ? "

" एक सप्तकभर उरतलों. " हांवें जाप दिली.

" मागीर खंय वतले ? " मदींच दुसऱ्यान प्रस्न केलो.

" मागीर हांव इंग्लंडाक वतलों. हालीं हांव थंयच आसतां. " हांवें सांगलें.

" गोंयां केन्ना तर...? " पयल्यान प्रस्न विचाल्लो.

" गोंय स्वतंत्र जातकच. " हांवें सांगलें, " सध्या म्हाका थंय रिगाव ना. गोंयकार जावनय बी म्हगेल्या घरांत वचपाची म्हाकाच बंदी. गोंयकारांबद्दल आनी भारतियांबद्दल फिरंग्यांनीं आनी तांगेल्या जाळवण-दारांनीं तशेंच फिरंग्याल्या पगारी चाकरांनीं जो वायट आनी नीच प्रचार आरंभला ताका लागून येरोपांतल्या देसांतल्या कांय लोकांचो आमचेविशीं

गैरसमज जाला. लोकांक मेळून ते गैरसमज काडून उडोवपाक आनी तांक सत्याची कल्पना हाडून दिवंक हांव हालीं वावुरतां !"

"जेजू तुमकां येस दिवं !" ताणें म्हळें.

"फ्रांसाक म्हजेखातीर एक वरभर खर्चिंशात ?" कांय वेळ ओगो रावल्या उपरांत ताणें म्हाका विचाल्लें.

"केन्नाय !" हांवें जाप दिली.

"कुसमणचो श्रीधर पांडुरंग नागवेंकार ह्या नांवाचो, तुमच्या हिंदुतलोच एक भुरगो पारिसाच्या एका उपनगरांत रावता. ताणें एके फ्रांसेज बायले-कडेन काजार केलां. फाटलीं सातआठ वर्सां तो एकय खेप गोंयांत येवंक ना. घरा तो वेळार पयशे धाडटा. पुण मरणाचो खीण नियाळटले आपले म्हातारे आवयल्यो सांगण्यो आनी मागण्यो तो कानामनार घेना. एकय खेपो आवयक मेळूंक गोंयांत गेलो ना. सध्या तागेली आवय मरणाच्या दारांत तिश्टता आनी तीय बी आपल्या एकल्याच पुताचें, कुळाच्या रोंप्याचें, दर्शन घेवंक ! श्रीधरालो पत्तो म्हज्यालागीं आसा. वेळ मेळत तेन्ना तागेर वचून ताका समजावन एक फावट तरी गोंयांक धाडून दियात. तुमचे हे उपकार जेजू केन्नाच विसरचोना !"

त्या खलाशान दिल्लो श्रीधराल्या पत्त्याचो चिटारो हांवें घेतलो आनी म्हज्यान जाता तें हांव करतां, इतलेंच न्हय तशें करप म्हगेलें हांव कर्तव्य कशें लेखतां अशें हांवें ताका आश्वासन दिलें.

× × ×

आनी हांवें श्रीधरालें घर गांठलें. दारावेलो बटन दाबचेपयलीं हांवें S. P. Nagvenkar हो तागेल्या नांवाचो बोर्डय वाचलो. खलाशाली सांगणी पुराय लटीक न्हय, तातूंत तथ्य आसा म्हणपाचें लक्षांत येवन घेतिल्ल्या स्रमाबद्दल समाधान दिसलें.

एके तीसबत्तीस वर्सांचे बायलेन दार उकतें केलें. श्रीधराली गजाल त्या खलाशाच्या तोंडांतल्यान आयकतसावन तागेले ते बायलेची, म्हळ्यार ते गोरे कांतिचे जगदंबेची, म्हाका तिडकच येवंक लागिल्ली. ह्या किरकोळ युरोपियन चलयांक भाळून तांगेल्या जाळ्यांत सांपडिल्ले आनी आतां कपलार

हात मारून घेवन नशिबाच्या नांवान रडटले जायते साधेभोळे आनी सरळ हिंदी लोक म्हज्या दोळ्यांमुखार येवन गेले. आनी श्रीधरय हांतलोच एक दुबळो जीव आसुंये अशें म्हाका दिशिल्लें. पुण दार उकतें करतले बाय लेची नम्रताय पळोवन म्हज्या मनांतले दुशीत ग्रह पांखार तेल पडिल्लेवरी नाच जाले. आनी म्हज्या तोंडार हांसो उदेलो. हांवें तिका सांगलें, " म्हाका श्रीधर मात्शे मेळत ? हांव भारतीय म्हणपाचें तुमी वळखलांच आसतलें."

" भितर येतात. भायर उबे कित्याक ?" मादामीन म्हळें.

तिज्याफाटल्यान हांव भितर सल्लों.

सालांत एका मेजाम्हन्यांत कांय रंगीत वस्त्रां पळेत श्रीधर बशिल्लो. ताणें आंगार एक सुंदर सूट चडयिल्लो. ताका नमस्कार करून हांवें म्हळें, "हांव आजच इंग्लंडाकसावन हांगा आयलां. हांगासल्ल्या एका हॉटेलांत रावतां. एक सप्तकभर पारिसाक उरतलों. गांवभावाची भेट घेवची म्हणून मुजरत आयलां."

" तुमकां पळोवन खोस जाली. धन्यताय दिसली. कितल्या वर्सांनीं जाणात तुमी, म्हाका एक कोंकणी पळोवंक मेळटा ! आनी कोंकणी उलोवंक मेळटा ! पुण एक सांगात, तुमकां म्हगेलो पत्तो कोणें दिलो ?"

" हांव जे बोटीन हांगा आयलां तेच बोटीर म्हाका एक गोंयकार तारवटी मेळ्ळो. तुमच्याच गांवचो तो. ताणें दिलो म्हाका पत्तो."

आमी कोंकणीतल्यान उलयताले आनी कौतुकान भरिल्ले नदरेन तागेली बायल आमचेकडेन पळेताली.

" देव बरें करूं तुमकां." म्हाका उद्देशून तागेले बायलेन म्हळें, " इतलो खुशालभरीत जावन उलयतना श्रीधराक आज हांव पयलेच खेपे पळयतां !"

" तुमकां धन्यवाद दिवचेलेच आसत तर आमगेल्या म्होवाळ आवयभाशेक दियात ! हांव ते पवित्र आवयभाशेचो खाशेलो पूत आसलों, तरी ते धन्यवाद घेवचेली म्हाका पात्रता ना !" हांवें बेगबेगीन म्हळें.

" आजतरी कळ्ळी मूं आवयभाशेची म्हयमा ?" आपले बायलेक पळोवन श्रीधरान म्हळें.

हीं उलोवणीं इंग्लेज भाशेंतल्यान चलतालीं. इतल्या म्हणसर हांसत हांसत

एक ल्हान गुटगुटीत भुरगो आनी ताज्याकूय ल्हान एक सोबीत चली धांवधांवत सालांत आयलीं.

दोनय भुरगीं खुबच सुंदर आनी गुबगुबीत दिसतालीं. आवयबापूय काय विशेश सुंदर नाशिल्लीं. तांकां म्हऱ्यांत घेन अशें म्हाका दिसलें, पुण पोरां भारी हटी. एकलेंय म्हऱ्यांत येना जालें. तांगेले आवयन तांका सांगलें कि हांव तांगेल्या बापायल्या देसांतल्यान आयलां. हें आयकनाफुडें मात् तो भुरगो हळूहळु म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो, आनी ताज्यां फाटोफाट ती चलीय आयली.

" तूं येता भारतांत ? " हांवें ते चलयेक विचाल्लें.

" हय आइकय घेवन या. आमकां वचचेलें आसा आज्ये म्हऱ्यांत. "

" खंय आसा तुजी आजी ?" हांवें विचाल्लें.

" गोंयांत, भारतांत. " चलयेन जाप दिली.

म्हाका चलयेल्या चुणचुणीत उतरांचें कौतुक दिसलें. दोनूय भुरगीं फ्रांसेज भास सफायेन उलयतालीं. आनी हांव म्हगेलें फ्रांसेज भाशेचें अज्ञान परगटायतालों.

थोड्या वेळाउपरांत श्रीधराले बायलेन काफी हाडली. भुरग्यांक दोळयांनींच खुणावन तीय तांचे फाटल्यान भितर गेली.

आतां सालांत आमी दोगूच आशिल्ले. ही संद सादून घेवपाचे इराद्यान हांवें श्रीधराक तागेले आवयचो रकाद पावयलो.

" म्हाकाय आइची खुब्ब याद येता. " सद्गदीत सुरांत श्रीधर उलोवंक लागलो, " पुण म्हजो नाइलाज आसा. "

तो कांय वेळ ओगी रावलो. उत्सुकतायेन हांव तागेल्या तोंडाकडेन पळेत रावलों. दोळयांत जमपाचे देगेर पाविल्लीं दुकां लेंसाच्या पोंतान पुसून काडल्यउपरांत ताणे आपली काणी म्हाका सांगली. आनी शेकीं म्हाका विचाल्लें. " आतां तुमीच म्हाका मार्ग दाखयात. म्हाका खूब पयशे मेळटात थोडे पयशे हांव घरा आइकय धाडटां. पुण पयशे म्हळ्यार सर्वस्व न्हय. एकादे वेळार पैशे धाडले ना जाल्यार कामा येत पुण म्हजें तोंड आपल्याक दाखय असो आग्रो करून करून ती म्हाका वयलेवयर पत्रां बरयत आसा. तिका एक खेपो वचून मेळचें अशें म्हाकाय दिसता. पुण करतलों कितें ? "

" तुमची अडचण कितें तर ? " मदींच हावें ताका प्रस्न केलो.

" तेंच तर तुमकां सांगता न्हय ! तें कशेंच जमपाचें ना. हांव हांगासल्लो नागरीक न्हय. पुण हांगासल्ल्या कोणाकच हें खबर ना आनी ज्या थोड्यांक तें खबर आसा ते म्हजे सामके लागशिल्ले इश्ट आशिल्ल्यान कोणच म्हजे वाटेक आजमेरेन वचूंक ना. आतां वचप म्हळ्यार पासपोर्ट काडचो पडटलो. आनी तो मागूंक हावें अर्ज केलो जाल्यार म्हजें धांकिल्लें बींग भायर फुट्टलें ! हाजो परिणाम असो जातलो, कि म्हाका रोखडेंच गोयांत वचूंक मेळटलें; परंत परत हांगा येवपाक मात् केन्नाच मेळचें ना. म्हजी इत्साच आसली तर हावें गोयांत वचचें अशें बायलेचें म्हणणें. पुण हाका लागून म्हाका बायले भुरग्यांक सासणाचें दुरावचें पडटलें ! आतां तुमीच सांगात अशे स्थितींत हांव कितें करूं ? " श्रींधरान म्हाका प्रस्न विचाल्लो.

बेगबेगीन आनी ताकतिकेन हावें जाप दिली, " रागार जांव नाकात श्रीधरबाब. तुमकां सल्लो दिवपाची म्हजी लायकी ना. तुमचो आत्मनिर्णयच म्हाका योग्य दिसता. सुखांत रावात. देव तुमचें बरें करूं ! "

सांजवेळच्यो सांवळ्यो पातळत चलिल्ल्यो. न्हिवून वतली काफी हावें एका घोंटाभितर सोंपयली. आनी लेंसान तोंड पुशीत पुशीत हांव उठलों.

* * *



## आयचीं प्रकाशनां

प्रसादा फूल
तुळशी
गांथन
वेळे वयल्यो घुलो
आशाढ पांवळी

## फुडलीं प्रकाशनां

बापू
वासवदत्ता
भजगोविन्दम्
संशयकल्लोळ
ओली सांज
पैगंबर
उजवाडाचे सूर
विराट

मोल : ५ रुपया